जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक ८ : एप्रील - जून २०२०

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्रापटान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



मांडावळ...

# म्हजें स्वेच्छा कारन्टायन

**दिलीप बोरकार**



जाग निमणो हातांत पडिल्लो तो मार्च २०२० चो अंक. त्या उपरांत लॉकडावनाक लागून तो क्वारन्टायनांत गेल्लो. फाटले तीन म्हयने पुराय संवसार लॉकडावन जावन मास्का पोंदा आशिल्लो. ताका लागून सगळे वेव्हार ठप्प जाल्ले. कोरोनाच्या विशाणून सांवार केल्लो. ताका मारूंक वखद ना म्हणटकच घरा भायर सर नासतना घरांतूच बसून रावप होच ताच्या चपक्यांतल्यान साल्वार जावपाचो उपाय आशिल्लो. जीव आसल्यार भीक मागून खायन हेंच मनशाचे जिणे फाटलें तत्व जाल्ल्यान जोड झक मारली, जीव आसल्यार मागीर भीक मागून खावं येता अशें सगळ्यांनीच थारावणी घेतली म्हणून म्हणा वा राष्ट्रहिता पासत सरकारान तशी सक्ती केली म्हूण आसत सगळ्यांनी सगळींच यंत्रां लॉकडावन केलीं म्हणटकच जाग अंक छापून येवपाचो प्रस्नूच ना.

आतां ल्हव ल्हव सगळें निसतारत वता आनी परिस्थिती पुर्वपदार येवपाची आनीक कांय काळ शक्यताय ना हें खरें जरी आसलें तरी गाडी जाता नज करीत रुळार हाडपाचे यत्न सगळ्यांनीच सुरू केल्यात. तीच वाट पळयत हांवूय आतां क्वारंटायनांतूच रावून हो जागा खातीर लेख बरयतां. एका विश्वासान की आतां परिस्थिती पुर्वपदार येतली. आतां परिस्थिती पुर्वपदार येवप म्हणल्यार कितें...? खंयची परिस्थिती...? कोरोना विषाणुचो फैलाव जावपाक लागलो देखून तो आळाबंदाक हाडपा पासत महामारी घोशीत करून लॉकडावन लागू केल्ल्या दिसा आदली परिस्थिती काय बरोच काळ लॉकडावन केल्ल्यान निर्माण जाल्ली परिस्थिती..?

मनीस प्राण्यान आपल्या सुखा पासत पुराय संवसाराक कृत्रीम गती दिल्ली. कोरोना विषाणून, काय काळा खातीर लॉकडावनाचो बटन दामून फटक करून ती बंद उडयली. ताचो परिणाम म्हूण मनीसकुळयेच्या हिता पासत हे धर्तरेर जी कितें सकारात्मक परिस्थिती निर्माण जाली ती आसा तशीच चालीक लावपा पासत आमी यत्न करतात काय आदलोच सांवार परत रुळार येवपाची आमी वाट पळयतात...? ह्या लॉकडावनाच्या सत्तर दिसांच्या काळा उपरांत जर आमी आमचे सरभोंवतणीं नदर मारली जाल्यार, जाका खऱ्यानीच चिंतप आसा ताका लॉकडावन उपरांतची स्थितीच मानवतली. पूण जांणी आपल्या सुवार्था पासत, पयसो आनी संपत्ती जोडप हेंच जिवनाचें ध्येय मानलां आनी ती गती नासत जाल्यार पिशांतूर जाल्ले वरीं जांची गत जाल्या तांकां मात हो लॉकडावन आनी क्वारंटायन खावपाक येतलो. 'कोरोना व्हायरस परवडलो पूण हें घरांत बसप न्हय रे बाबा!' अशें दिसूंक लागतलें. 'जाता तितले बेगीन आमकां मेकळे करात, आमचो कोविड विषाणून बळी घेतल्यार परवडलो पूण हें मरण नाका' अशी जी आरड आयज कानार पडटा ती असल्याच लोकां कडल्यान. दोळ्या सामकार कोरोनाच्या रुपान मरण नाच करता आसतना ह्या लोकांची संपत्ती करपाची जी अतृप्त वान्सा आसा ती तांकां सुखान स्वास घेवंक दिना. तांचे हे वान्सेक शीम आनी मेर ना देखून ह्या सत्तर दिसांच्या लॉकडावनाच्या भिरांकूळ वातावरणांत तांचो जो कितें घुस्मटमार जाला ताचें पर्तावण म्हाका समाजमाध्यमाचेर पळोवंक मेळ्ळें.

समाजमाध्यमाचेर आमकां ह्या सत्तर दिसांक कितें पळोवंक मेळ्ळें...? पयलीं आमी दिसाळ्यांतल्यान आमचे मेरेन पाविल्ल्यो कांय गजाली पळोवंया. दिसाळ्यांक दर दिसा आपल्या वाचकांक कितें ना कितें खावड दिवंचीच पडटा. आपल्या दिसाळ्यांत हेरां परस कितें तरी मचमचीत, चमचमीत बी ओडलायणें आसप आयचे सर्तींत गरजेचें थारता. ते पासत संपादक नवें नवें कितें सोदीत रावतात आनी तातूंतल्यानूच आमचे लेखक ह्या लॉकडावनांत कितें करतात हो एक विशय माध्यमाचेर झळकलो. भोवतेक सगळ्या मान्यवर लेखकांनी आपणें लेखना पासत बैठक मारल्या म्हणपाचें सांगलें. रवीन्द्रबाबांचें एक पेटंट वाक्य आशिल्लें. 'सगळ्या कोंकणी लेखकांक व्हरून बंदखणींत उडोवंक जाय म्हणटकच ते गद्य साहित्याची निर्मणी करूंक पावतले.' जर बंदखणींत दवरल्यार साहित्य निर्मिती जावं येताली जाल्यार कितें ना कितें निमीत्त करून आमचे लेखक बंदखणींतूच वचून रावंक सोदपाचे. पूण साहित्य निर्मणेक बैठक मारून रावचें पडटा आनी बैठक मारतलो जाल्यार आपल्याक कुडींत बंद करून घेवंक जाय असो रवीन्द्रबाबांचो मतितार्थ आशिल्लो. बंदखणींत रावून अक्षर साहित्याची निर्मणी जावंक शकना. बंदखणींत 'डिस्कवरी ऑफ इंडिया' बरोवन जावंक शकता, अक्षर साहित्य न्हय. रामायण, महाभारत आनी संवसारांतल्या हेर अक्षर साहित्याची निर्मणी बंदखणी भायर मुक्त वातावरणातूच जाल्ली आसा. बंदखणींत रावून आयिल्ल्यांनी अक्षर साहित्याची निर्मणी केल्या. पूण तो अणभव घेवन भायर आयल्या उपरांतच, मेकळ्या वातावरणांत. अशें हें सगळें आमकां खबर आसतना, मान्यवरांनी वो दिग्गजांनी आपूण लॉकडावनांत बरोवपाक पेटलां अशें जाहीर सांगप म्हणल्यार ह्या लॉकडावनाक लागून हांचे भितर जी मानसीक उलथा पालथ चल्ल्या ताचेंच पर्तावण अशें म्हाका दिसता. सांगू नज, कांय लोकांक वातावरण पिडीत आसा तेन्नाच अक्षरांचे फागूर फुट्टात आसूं येता. म्हजे बाबतींत तशें घडना. महामारी सारखें दुयेंस कितें वा थंडी भारकूण वो आनीक कसलेंय व्यक्तीगत दुयेंस कितें... तें येता लॉकडावन घेवन. तें दुयेंस सांगता, 'आतां तुजी गती थोडो काळ थांबय. तुजे कुडीक आतां सुसेग जाय. तो घेतां घेतां तुवें कितें जोडलें आनी कितें मोडलें हाचो नियाळ कर. विचारमंथन कर निवांत पडून आनी फायदो लुकसाणाचो

पट मांड. तातूंतल्यान फुडाराक कितें गती दवरपाची ती थाराय.' खरें म्हणल्यार हें अशेंच आसूंक जाय. कसल्याय कारणांक लागून जावं, उसंत घेना आसतना कामांत आपल्याक घालून घेवप आनी तातूंतल्यान भायर सरपाक मेळना वा इत्सा नासता तेन्ना सक्तीचो आराम दिता तो बारीक मोटें दुयेंस. हें दुयेंस सुसेग घेवंक आसता. हांव दुयेंसाच्या काळांत बरोवपाक बसना. कित्याक तो सृजनाचो काळ न्हय. तो विचारमंथन करपाचो काळ. तातूंतल्यान जो कितें अणभव मेळटा, चिंतन घडटा ताच्या मालवजाचेर, त्या भांडवलाचेर दुयेंसांतल्यान आराम मेळटकच सर्जन आपशींच घडटा. तें घडले बगर सुसेग लागना.

कोरोना वसो आनी ताचो कोविड विषाणू हो संवसार भर महामारी पातळावपाक आयिल्लो सांवार. पुराय संवसाराक गुठलावन उडोवपी तें दुयेंस. तें पातळावंक फावना म्हूण मनशाक एकामेका पासून सक्तीन पयस दवरप होच ताचेर उपाय. तेच पासत सक्तीचो लॉकडावन करचो पडटा. असल्या लॉकडावनांत सर्जनशील प्रतिभावंतां कडल्यान सृजनोत्सव घडना. लॉकडावनांत सगळें ठप्प जावन गेल्ले कारणान संवेदनशील, सर्जनशील मनशाचीं सगळीं इंद्रिया उकतीं जातात. तापिल्ली जमीन जशी तोंड आंऽऽ करून पावसाचे फकत थेंबे कांय काळ चिंवत रावता, घोंटीत रावता आनी मागीरूच सवकसायेन आनी सवस्तकायेन रुजता तशें सर्जकाचें घडटा. लॉकडावनाच्या काळांत हे धर्तरेर कितें घडलें, कोणें कितें कितें भोगलें, कसले कसले बदल घडून आयले आनी अणभवपाक मेळ्ळे हें सगळें शांत चित्तान अवळोकपाचे आनी ताचेर विचारमंथन करपाचें. चिंतन करपाचें. आपल्यो चुको सोदपाच्यो आनी त्यो सुदारपाचीं सूत्रां मांडपाची. म्हजें ह्या सत्तर दिसांच्या लॉकडावनांत आनी क्वारंटायनांत तेंच घडटालें. फक्त पळोवप आनी ताचेर येवजप. कित्याक हो क्वारंटायन इच्छीत न्हय तर लादिल्लो. सृजोनोत्सव घडटा तो इच्छीत क्वारंटायना वेळार. लादिल्ल्या क्वारंटायना वेळार सृजनोत्सवाचो बुडकुलो काळजाचे चुलीर चडोवन मनाच्या दवल्यान चाळपाचें आसता. बारीक नदर दवरून तेळपाचें आसता.

रवीन्द्रबाब आपल्याक क्वारंटायन करून घेतालो. तें स्वेच्छा आसतालें. देखून तांचे कडल्यान सृजनोत्सव घडटालो. हांवें निमणें आंदोलन केलें तें गोवा बचाव आंदोलन. त्या वेळार हांवें म्हज्या वांगडच्या आमच्या दोन फुडाऱ्यांक सांगलें, ह्या आंदोलनान तवो तापयला. लोकांचो ओडो आमचे वटेन आसा. तुमी दोगां जाणांनी वेंचणूक लढोवपाची. पुराय गोंय हालोवंक तुमी दोग जाण विधानसभेंत पुरो. तांणी आयकलें ना. तेन्ना चिंतलें हीं असलीं आंदोलनां म्हणल्यार हस्तमैथुन. तीं चलोवप म्हणल्यार रेवेंत मुतप. ते परस हातूंतल्यान अलिप्त जावप आनी स्वेच्छेन क्वारंटायन करून घेवप. बरोवपा सारकें आनी वाचपा सारकें खूब आसा. नवे नवे विशय खुणायतात. तांकां वेंगेत घेवपाचीच गरज आसा. देखून एक दक्षिणायन चळवळ सोडली जाल्यार हांवें हेर कडेन खंयच म्हजें अस्तित्व दाखयलें ना. स्वेच्छा क्वारंटायनांत गेल्ल्यान कांय गजाली घडूंक पावल्यात. ताची मोलावणी काळाक करूं दी.

अशें आसलें तरी लादिल्ल्या क्वारंटायनांत सामकीच निर्मिती जायना अशेंय न्हय. नेमाळ्यां खातीर सदरां बरयतना सरस्वती प्रसन्न जावपाची वाट पळयत बसून भागना. कोरोनाचो लॉकडावन म्हणल्यार दुयेंत काळ, बरोवपा खातीर प्रसन्न काळ ना असलीं निमतां चलनांत. मागीर दांत्यार बसतकच आपसूक ओंवयो येतात आनी त्यो वाचतल्याक आवडटात ही गजाल वेगळी. तशे बरेच जाण ह्या लॉकडावनांत रांदचे कुडींत वचून तरांतरांचे जिन्नस रांदताय बी, फेसबूक आनी वॉटस् एपाचेर आपली वेगळी वेगळी कला दाखयतात. पूण ती पळयतना ताचे वयली लॉकडावनाची सया कुशीक सरना. ट्रेनींतल्या प्रवासांत हातांत वाद्यां घेवन डब्यांतल्या प्रवाशांची मनरिजवण करपी कलाकारांच्या दोळ्यांत कला सादरीकरणा वेळार एक काकुळटेची सया आसता तशी झालर ह्या समाजमाध्यमांतल्या निर्मितींत दिसले बगर रावना.

ह्या असल्या नाडेपेन्रांत घुसपून रावचे बदला लॉकडावनांतल्या ह्या सत्तर दिसां कडल्यान हांव खूब कितें शिकलों. पयली गजाल म्हणल्यार म्हज्यांतली न्हयकारी विचारसरणी वचून हांव हयकारी विचार करूंक शिकलों. मनशाचो पयलो प्रस्न आसता पोटाचो. जाणें संवसार थाटला ताका रांदून वाडपा पासत हक्काची बायल आसता, रांदपीण कशी. दादल्यांक बायलांनीच रांदचे कुडींत येवंक दिलें ना देखून तांकां रांदपाक कळना. रांदप हो बायलांचोच प्रांत हाचेर म्होर बशिल्ल्यान बायल मनशेनूच वा चली भुरग्यानूच रांदूंक जाय ही परंपरा. दादल्याक आयतीच पळवाट सांपडटा. पूण म्हजे सारखो आपलें वेगळें तत्वगिन्यान घेवन जियेता ताचो मात बळी वता. रांदचे कुडींत येंत्राद नाशिल्ल्यान चलयां वरीं पारंपारीक रांदपाचें शिक्षण मेळना. हाका लागून एक तर वावराडेचेर वा हॉटेलाचेर निबून रावचें पडटा. हालींसराक 'स्विगी' आनी हेर कंपन्यो तयार जाल्यात, जाय तें, जाय त्या हॉटेलांतल्यान गरम गरम दारांत हाडून पावोवपी. जाय ते फकत दुडू. हीं असलीं सगळीं सुखां मेळोवपा पासत अर्द्या परस चड मनीसजात फकत पयशां फाटल्यान लागल्या. त्या पासत तांणी हे सृश्टीचोच विध्वंस करून उडयला. देवा दयेन म्हाका ती लत लागली ना. तर सांगपाचें म्हणल्यार ह्या लॉकडावनान हांव जांचेर निंबून आशिल्लों ती वावराडी आनी हॉटेलांय बेमुदत बंद करून उडयलीं. एक दोन दिसांची गजाल आशिल्ली जाल्यार कशीय तग मारूं येताली, बिस्कुत्यो आनी च्याचेर. आतां तर उपासमारीचो प्रस्न आयिल्लो. मागीर थंडसाणेन विचार केल्या उपरांत अशें दिसलें, जर बायल मनीस रांदूंक शकता, हॉटेलांनी कितलेच दादले शॅफ म्हूण सुरबूस जेवण रांदून खावयतात जाल्यार हांव तर निजाचो कलाकार. म्हजी कला ह्याय मळार फिशालकायेन चलूं येता. आतां हांव बऱ्या पैकी चपाती, भाकरी, तरांतरांच्यो भाजयो, नुस्त्याचें हुमण, कुल्ल्यांचें तोणाक बी म्हज्या आवडीचे सगळे प्रकार फिशालकायेन करतां. पयलीं वेळ ना अशी सबब आसताली. वावराडे कडच्यान सगळें करून घेतालों. हांव सतत कंप्युटराचेर बसून टायप कर, मागीर वाचीत बस वा आनीक कितेंय कर अशेंच करतालों देखून पांय सुजताले. रगत घोळना आशिल्लें. आतां आतां एकएक वरान उठून आयदना घास, च्या कर, भाजी शींद, सारन मार, रॅका वयल्यान आयदनां काडून पूस अशें करतां आनी आपशींच रगत घोळटा. ह्या

सगळ्या वावरांतल्यान एक आगळी खुशालकाय गावता. तॉलस्तॉय गिरेस्त लेखक. पूण खासा स-सात वरां काम करतालो. हेरांकूय तेंच करपाक सांगतालो. तातूंतली खोस आनी म्हत्व आयज अणभवतां.



घरांत बसून रावलों म्हूण दिसूय भर बरयत रावतलों अशें कोण समजत जाल्यार ती चुकीची गजाल. कितेंय दर्जेदार बरयतलो जाल्यार तसो भार येवचो पडटा. सांवार येवचो पडटा. लॉकडावनांतलो अनिश्चीत फुडार, खबर नाशिल्ल्या कोरोना वशाचो हुसको, ताचेर वेगळ्या वेगळ्या लोकांचें भिरांकूळ भाश्य वा जाणवायो हाका लागून कितेंच निर्माण करपाची वान्साय जायना आनी लक्षूय लागना. अशे वेळार लक्ष थिरांव येता अशींय कामां आसतातूच. सांस्कृतायनाच्या 'ओल्गा ते गंगा' पुस्तकाचो अणकार, सहिद मिर्झाच्या 'अम्मी'चो अणकार तशे रखडत आशिल्ले. ते सांसपिताना मागीर आपशींच गती येवंक लागता. खंय खंय पुस्तक प्रदर्शनांत वचून पुस्तकांची रास जमा केल्ली. प्राधान्यक्रमान खंयचीं वाचप हाची वाटणी करून त्याय वाचनहोत्राक आरंभ केलो.

आमचें कोंकणी शुद्धलेखन तशें जाग्यार पडच ना. कोंकणींतल्या हजार लेखकांच्यो शुद्धलेखनाच्यो हजार तरा सारख्यो करतां करतां ह्या दोन दसकांत हांवच घुस्पागोंदळांत पडिल्लों. राजहंसाचो 'अश्टांगी अभ्यासकोश' घेवन ते मुशींत म्हाका बुडोवन घेतलो. ह्या अभ्यासकोशाक प्रमाण मानून ताच्या भायर वचप ना असो निश्चेव करून ताचोच अभ्यास घेवन बसलों.

हें सगळें जरी चलतालें तरी कोरोना महामारीचो म्हारू काय तकलेंतल्यान वच नाशिल्लो. सगळेंच अनिच्छीत. एक मासिक चलयतां. ही परिस्थिती अशीच उरली जाल्यार करप कितें.? तो म्हज्या पोटाचोय प्रस्न आशिल्लो. तें जे सर चलता ते सर म्हज्या हातांत कितेंय येवं येतालें. पुस्तकांचें प्रकाशन ना, कसली कार्यावळ ना, लोकां कडेन पुस्तकां खरेदी खातीर पयशे नात. सगळें सगळें ठप्प. तेंय बी कितलो काळ तें सांगूं येना. एक वर्स... दोन वर्सां. काय अनिश्चित काळा खातीर..? मागीर त्या हुसक्यान चिंतेस्त जावन भायर पळयत विचार करीत बसप... पूण म्हज्याय परस भायर जें नदरेक पडटा तें तर अदीकूच भिरांकूळ...! तांचे प्रस्न तर म्हज्याय परस व्हडले.. दिसवड्याचेर काम करपी, वेगळ्या वेगळ्या दुकानांनी, आस्थापनानी काम करपी... सगळे उबंत पडटले... तकली भणभणपा सारखी गजाल... म्हज्या सारख्याची ही गत जाल्यार जांणी जोडप आनी पोट भरप होच आपलो धर्म मानलो तांची कितें अवतिकाय...?

आतां तर मनीसूय वळखूंक येनात. सगळेच तोंडाक मास्क बांदून भोंवतात. कोण कितें तेंच कळपाक मार्ग ना. पूण तशे आदीं मास्क नासतनाय कोण कितें तें वळखूंक येतालें...? जांणी खण उद्योग हो आपल्या बापायचो फांत मानलो आनी गोंयचे भौशीक संपत्तीची लूट मारपा वांगडाच गोंयच्या सैमाचो विध्वंस केलो. गती बगर पर्याय ना म्हणत हिसपा भायर लांबाय रुंदायेचे रस्ते बांदले आनी दोंगर मातये भरवण केले, भरमसाठ रुखांची कत्तल केली, न्हंयो पुरयल्यो, प्रदुशण वाडयलें. हें सगळें कित्या पासत तर फकत दुडू कमावपा पासत. त्या दुडवां नेटार तांणी सत्ता, कायदो, निती सगळेंच आपल्या चपक्यांत धरलें. तांकां जाप विचारपाची धमक कोणाच मदीं उरूंक नाशिल्ली. आनी जेन्ना हे धर्तरेचेर अराजक माजता, कोणाक कोणाचो धरबंद उरना तेन्ना सगळें निटायेर घालपा पासत कोण तरी अवतार घेताच. हुसक्यान भरिल्लो हांव झप्प करून जाग्यार आयलों. कोरोनाक वासीन ना, लस ना, वखद ना... ताका कोणूच आळाबंदाक हाडूंक शकना. तो नियंत्रणांत उरूंक शकता तो फकत एकमेका पासून पयस रावल्यार... पूण मनीस एकठांय आशिल्लो तरी केन्ना...? मनीसपणाक मान दिवन एकमेकाचेर भरवंसून, विसंबून खुशालकायेन जियेवपी मनीस केन्नाच काळा भायरो जाल्लो. आतां फकत चडांत चड संपत्ती करपाचे सर्तींत मनीस सगळेंच शेणोवन बशिल्लो. ते पासत मुखामळार तांणी अदृश्य मास्क चडोवन आपली खरी वळख लिपयल्ली. आमी सगळे एकठांय आसात अशें भासयत ते वेगळ्या वेगळ्या मुद्याचेर भितरल्यान पयसूच रावले. मजेची गजाल म्हणल्यार हें अशें आसा हें जणेकल्याक खबर आसा तरी जणेकलो तें तशें न्हय अशें भासयत नाटकीपणान, फटींगपणान जियेवंक लागलो. हाचो जेन्ना अतिरेक जालो तेन्ना कोरोना मुखार आयलो आनी ताणें सांगलें, ''बस्स..! पुरो हीं नाटकीपणा. तुमकां हे धर्तरेर जियेवपाचें आसत जाल्यार तुमच्या मूळ सभावा प्रमाण जगात. दाखय लिपय करूं नाकात.'' ह्या कोरोना मुखार कित्याक म्हणल्यार कित्याकूच अर्थ ना.. दुडवांक ना, देवाक ना, धर्माक ना. जितो रावतलो जाल्यार हो सांगता तशें आपलें खरें रूप दाखोवंक जाय हाची जाणविकाय जाले बराबर आयज जणेकल्याच्या तोंडार अदृश्य मास्क वचून दृश्य मास्क आयलो, तांणी आपूण जावन आपले मदलें अदृश्य अंतर काडून उडोवन दृश्य अंतर राखपाक आरंभ केलो. तांच्या मनांतलें सत जें इतलो काळ लिपून आशिल्लें तें कोरोनान उक्ताडार हाडलें..

आतां फुडें कितें..? दोन म्हयने सगळीं यंत्रां ठप्प जाल्ल्यान घुस्मटून फुगार जावन गेल्ली धर्तर परत श्वास घेवंक लागल्या हें पळोवंक मेळ्ळें, दुडवां फाटल्यान लागून शारांची वाट धरली तें फकत मृगजळ आशिल्लें, आपली खरी सुवात ती आपल्या गांवांतूच... थंयच आपली वार पुरिल्ली आसा आनी थंयचेच मातयेंत आपलें सूख आसा हाची जाणविकाय जाल्या बरोबर कसलेंच वाहन नासतना लाखांनी पांय

*(पान ११ चेर)*

# कोरोनाच्या दिसांनीं आमचो गांव

रमेश साजू घाडी

साळगांवांत भितर सरतना पयलीच तुमचे नदरेक पडटात, पयस पयस नदर पावना तितकी पर्रा , नागव्या, गिरी, पर्वरी मेरेन चादर कशी पातळील्लीं शेतां. हीं शेताच तुमकां गांवांत भितर सरतना पयलो येवकार दिता.

हजारानीं वर्सां आदी जेन्ना गोंयांत भाताची पिकावळ घेवप सुरू जाली तेन्ना, त्या काळांतल्या आमच्या पुर्वजांच्या कितल्याश्याच पिळग्यांनी हीं शेतां तयार करपाक कमर मोडं मेरेन मेहनत केल्या आसतली. अशें व्यवस्थीत काटकोनांत घातिल्ले बांद, मेरो, वशीनीं योग्य रितीन मापलेली पांच, धा कुडवांची, खांडये भुंयेची हीं शेतां. पावसांत उदका वांगडा माती खळखळत व्हावून वचूंक फावना म्हणून तयार केल्ले पद्दतशीर व्हाळ, व्हाळा वयल्यो मुशी, शेतांतल्यान मुशीं कडेन व्हाळांत उदक व्हांवत घेवंन वचपी कान.

व्हाळा वयल्यान पलतडी वचपाक दोन अडेच शेंकड्यां आदी बांदिल्ले मजबूत खडपी फातरांचे सांकंव. हजार वर्सां आदी माती सपाट करतना उरिल्ल्या मातयेचे ल्हान ल्हान तयार केल्ले दोगुल्ले जेंका आमीं हुडे म्हणटात, अशे धा बारा हुडे.

शेंकड्यांनीं वर्सां पयली आमच्या गांवांत भांगर साळ, जिरे साळ नावाच्यो बासमती वरी दिसपी बारीक लांबट भाताच्यो दोन प्रजाती खूब पिकताल्यो, जाणटे म्हणटात त्या भाताच्या प्रजाती वेल्यान आमच्या ह्या सोबीत शेतकामती गांवांक साळगांव नांव पडलें.

अजून हेर गांवां परस तरी आमी ती जाण्टयांची कृशी संस्कृताय सांबाळून दवरल्या खरी पूण जमनीचें वाडटें मोल, कश्ट केल्याबगर पुर्वजांनी पोटाक चिमटो काडून सांबाळून दवरिल्ल्यो जमनीं, शेतां, दोंगर, रानां विकून बेगीन गिरेस्त जावपाची दिसान दीस वाडटी आस, ह्या लँड शार्क लॉबी म्हन्यांत शेतां कितलो तेप वाचतलीं हो प्रस्न म्हज्या सारख्या खूबश्या शेतकाऱ्यांक भेडसायता.

शेतांक लागून फामाद आशिल्लो आमचो गांव हालीच्या वर्सांनीं साळगांवांत बसयल्ल्या वेस्ट ट्रिटमेंट प्लांटाक लागून फामाद जाला.

तिनशें आनी चारशें मिटर अंतरा भितर आशिल्ल्यो दोन झरी, काजींचे दोंगर, उल्याच्या अंतराचेर आशिल्ल्यो गांवांतल्यो वस्ती आनी त्या वस्तींतल्या लोकांचो जावपी विरोध हाचेर कांयच विचार करी नासतना सरकारान हो सॉलीड वेस्ट ट्रिटमेंट प्लांट हाडून साळगांवच्या कपलार माल्लो.

गांवांत घेतिल्ले सभेंत ते वेळा वयले मुखेलमंत्री सर्गेस्त मनोहर पर्रीकार हाणें गांवच्या लोका मुखार एक सुंदर सपन दवरलें, 'हो प्लांट जगांतल्या अत्याधुनीक तंत्रज्ञानाचो प्लांट आसतलो, कोणाक कसलोच वास येवचो ना, प्लांटांत बसून पिकनीक करपा इतलो हो स्पॉट जातलो'.

पूण गार्बेज प्लांटाच्या भायल्या अनट्रिटेड कॉयराच्या घाणीनीं लोकांक आपल्या घरांत बसून जेवताना वोकाऱ्यो येवपाक लागल्यो.

सध्या सरमणें, सोनारभाट, पिळर्ण, वड्डें हांगा सगळ्या बांयचे उदक प्रदुशीत जालां.



पयलीं थारिल्ले कोयर फकत कळंगुट, शिकेरी, बागा, अंजुना आनी भोंवतणचे अशे सात आठ गांवांतलो आसतली पूण प्लांटांत सगळ्या उत्तर गोंयचीच न्हय तर कोलव्याची लेगीत गार्बेज येवपाक लागली.

गार्बेजीच्या टँकरांक स्पेशल लिशेट टँकां आसतली आनीं टँकरांली घाण केन्नांच रस्त्यार पडची ना.

पूण प्लांट स्टार्ट जातकच सगळे नियम कूशीक दवरून रस्त्यार घाणीचें उदक गळयत, घाण वास सोडीत गांवांतल्या रस्त्या वयल्यान टँकर धांवपाक लागले.

आनी त्याच वेळार बातमी आयली सरकार प्लांटाची क्षमता १०० टनांची आसा ती २५० टनांची करपाक सोदता. गांवांत बोबाळ, मिटिंगो निशेध सुरू जाले. कचरा व्यवस्थापनाच्या मंत्री पदाचो कँरंट दिवन प्लांट वाडोवन घेवपाची जबाबदारी मायकल लोबोक दिली.

आमी रस्त्यार घाण वोतींत वचपी ट्रक आडयले. साळगांव पेटलें.

साळगांवचो गार्बेज प्लांट वाडोवपाच्या विरोधांत अवेरनेस म्हणून हांवें दिवाळेक जावपी वर्सुके कार्यावळींत एक नाटकुलें सादर केल्लें. नाटकुल्याचें नांव आसलें 'मास्काचो गांव'. नाटकुल्यांत २०३०तलो साळगांव दाखयल्लो, गोंयांत वाडिल्ल्या कचऱ्याची मोठीच समस्या जाल्ली आसा, गोंयांतलो खंयचोच गांव प्लांट आपल्या गांवांत घालूंक दिनात, ताका लागून गांवांतल्या प्लांटाची क्षमता २५० टना वयल्यान ५०० करपाची येवजण चालू आसा, गांवांत घाणीचें साम्राज्य पसरिल्लें आसा, मास्का शिवाय कोणूच घरा भायर सरूंक शकनांत, शाळेंत वचपी भुरग्यांक टिचरींक मास्क घालप सक्तीचें जाल्लें आसा, ह्या गांवांतल्या चल्या वांगडा खंयच्याच गांवच्यो चलयो लग्न जावंक सोदीनात, सोयरीकी, लग्नां मोडत आसात.

आमच्या नाटकुल्याक लोकांचो बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. लोक हासत घरा गेले, पूण तीन म्हयन्या उपरांत मास्काचो गांव न्ही. हो सगळो संवसार मास्काचो जातलो अशें कोणीच सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें.

जेन्ना भारतांतल्या व्हडल्या शारांनीं थोड्या चायना साकून आयिल्ल्या मनशांक कोविड १९ची लागण जाली तेन्नां गोंयांत तें कोणाक व्हडलें दिसूंक ना पूण जेन्नां युरोप, अमेरिकेंतल्यान आयिल्ल्या गोंयकारांक लागण जाली, ह्या संवसारभर पातळूंक लागिल्ल्या महामारीचेर वखद ना. फकत विलगिकरण होच उपाय हें कळना फुडें गोंयकार शादूर जावपाक लागले.

जेन्ना भारत भर लॉकडावन सुरू जालें, सगळीं दुकानां, येरादारी बंद जालीं तेन्नां गांवच्या लोकांक हें आमचें जिणेंत केन्नाच घडूंक नाशिल्लें एक नवें पर्व घडटा हाची जाणीव जावपाक लागली.

सगळ्या परस चड घुसपट जाली गोंयां भायल्या कामगारांची. वळखिच्या दुकानदारांनी रातीच्या काळखांत वळखिच्यांक सगळें सामान पावतें केलें, तीन दिसा उपरांत खंयच्याच शॉपांत मँगीचे पँकेट, बिस्किटीचो पुडो, साबण जावं च्या पावडर, साखर कांयच उरूंक ना.

रस्त्यार वचत थंय पुलिस नदरेक पडपाक लागले, भायले कामगार किराणा माल, भाजयो सोदपाक पिश्यां वरी भोवूंक लागले. पुलिसांच्या दाण्यांचो चडसो प्रसाद तांकांच मेळपाक लागलो.

गांवांत लोकांक मदत करपाक आमी तीस लोकांची कमिटी काडली. भुरगे पंच अँक्टिव्ह जाले, जाल्यार जाण्ट्या पंचांक कोणें सांगलें साठ वर्सां वयल्यांक हो वायरस बेगीन लागता, ते अज्ञातवासांत गेल्ले ते लोकानीं गाळी घातल्यारूय भायर सरूंक ना.

आमदारान थोड्या पंचा मार्फत पांचशे रूपयांच्यो थैल्यो तयार केल्यो त्या थैल्यानीं साखर, च्या पावडर, तांदुळ रवो, साबण, तेलाच्यो पोतयो अश्यो गरजेच्यो वस्तू घाल्यो आनी घराघरांनीं पावयल्यो. शॉपा सगळीं बंद आसतना त्या अडचणीच्या वेळार त्यो वस्तू घरांत मेळप म्हणल्यार वाळवंटात तान्हेल्ल्याक ओयासीस मेळिल्ल्या वरी. पूण चार दिसांनीं परतनात तें गांववाले कसले?

पंचानीं म्हालाच्यो थैल्यो विकतना बरोच हात माल्लो, सवाय वस्तू हाडून म्हारग विकल्यो. गांवच्या तिठ्यार गजाली जावपाक लागल्यो. गाळींचो शिंवर जालो, थोड्या वॉटसअॅप ग्रुपांचेर युद्धां सुरू जालीं.

फुडल्या वेचणूकेचे तयारेंत आशिल्ल्या एका माजी आमदारान डाळी, कडधान्यां, साकर, तांदळांनी भरिल्लो एक ट्रक हाडलो आनी बेळगांव, खानापूरच्यान तीन ट्रक भाजी हाडली आनी आपल्या कार्यकर्त्यांक घेवन ती फुकट वाटपाक सुरवात केली.

परत गांवांत अर्दे खोशी जाले जाल्यार अर्दे रागान पेटले.

'भाऊ आमी इतको त्रास घेवन दोन दोन दीस पोतयो भरून विकतें हाडिल्ल्या किंमतींत सगळ्यांच्या घरांनीं सामान पावयलें... आनी हे मनीस आतां फुकट वाटपाक लागल्यात हें सारकें म्हरे'

रातच्या साडेबारांक म्हाका एका प्रो अँक्टिव्ह पंचाचो फोन आयलो. 'तूं कित्याक टेन्शन घेताय, तुजे कडल्यान जाता तें समाजकार्य तूं कर... ताचे कडल्यान कितें जाता तें ताका करुनीं.'

हांवें झेमकुऱ्या आवाजांत उत्तर दिलें.

'हांव जाणा... तूं तेचीच सायड घेतलो'

अशें म्हणत ताणें फोन कट केलो.

दोन दिसांनीं आमदारान स्पोन्सर केल्ल्यो कांदे, बटाटे, कॉलिफ्लावर, साखर, च्या पावडर आनी तांदळाच्यो थैल्यो घरानीं फ्री पावपाक लागल्यो.

तोंडाक मास्क घालून गेटी भायल्यांतल्यान लोकांक घरांत पोतयो पावयतना फोटे सोशल मिडियाचेर दिसपाक लागलें.

'भाऊ तेंच्या भशेन आमी फोटो घालिनात'... अशें म्हणपी म्हज्या इश्टांचे जाल्यार मागीर रागांन घाल्ले चडूच फोटो सोशल मिडीयाचेर येवपाक लागले.

शेजारच्या राजू चारीची घरकान्न पन्नास रूपयांक एक अशी मास्कां करून विकपाक लागली. तिणें केल्लीं मास्कां खरेच बरीं आसलीं पूण शेजारच्या ताच्या बरें मागप्यान सगळ्याक फामाद केलें...

'राजूची बायल बुलूजाच्या उरिल्ल्या लुगटांची मास्कां करून विकता'

तांचे दोगायचें आमच्या घरा फुडल्यानूच पेटलें... राजू मातसो फायर आसलो ताणें गाळीचो शिंवर घातलो दुसरो आपणेन तशें म्हणूंक ना म्हणून प्रमाण जावपाक ताका धालांच्या मांडार आपोवपाक लागलो.

लॉकडावन जावच्या चार दीस पयली लेगीत गांवांत झेड पी इलेक्शनाचो बोबाळ आसलो, प्रचार करतना उमेदवारांनी सगळे गांव भोंवून सोंपयल्ले. थोडे झेड पीच्या उमेदवारांक गाळीं घालपाक लागले...

'हे आतां खंय न्हिदल्यात रे... तेंका येवंनी परत मतां मागपाक'

एका झेड पी उमेदवाराक वास लागलो जाल्यार म्हाका खबर ना पूण म्हाका सकाळी फुडे फोन आयलो...

भाई हांव टँकर, सेनिटायझर आनी प्रेशर गन धाडून दितां, वांगडा स्प्रे मारपी मनीस आसतलो तुमचे वाडे सेनिटायज करून घे.



गल्फाक आसतना आमी आमचे टेनिस कोर्टस् असल्याच प्रेशर गनानीं साफ करताले. हांवें त्या कामगारा वांगडा भोंवून आमचे वाडे सेनिटायज करून घेतले.

दोन दिसानीं आमदाराक ही बातमी कळटकच ताणें फायर ब्रिगेडीची गाडी हाडून मार्केट, चर्च तिठो सेनिटायज करून घेतलो. चार दिसांनी कळ्ळें त्या सेनिटायज केल्ल्या उदकांत कांयच सेनिटायजिंग कॅमिकल नाशिल्लें.

एक दीस मतदार संघांतलो माजी मंत्री, केंद्रीय आयुशमंत्री श्रीपाद नाईक आनी गांवांतल्या भाजपा कार्यकर्त्यांनी मेळून साळगांवां सर्कला कडेन मास्कां वाटलीं.

तिसऱ्या दिसा आमदारान आपल्या कार्यकर्त्यांक घेवन रस्त्यांतल्यान वयतल्यांक आडोवंन मास्कां वाटलीं.

मागीर तो आठवडो घराघरांत भोंवून भाजपा आनी गोवा फॉर्वडाचे कार्यकर्ते मास्कां वांटपाक लागले. त्या निमतान गांवांतल्या ब्लाऊजां शिंवपी, साडयांक फोलां लावपी बायलांक मास्कां शिवपाचें काम तरी मेळ्ळें.

एका झेड. पी उमेदवारान धा हजार मास्कां वाटलीं. तेच्या वांगडा सर्त करपाक दुसऱ्या उमेदवारानूय स सात हजार मास्कां वाटलीं. गांवांत सगळे तरेतरेची मास्कां घालून भोंवताना दिश्टी पडपाक लागले. गिरणीच्या आडोसाक रावून मदीच रस्त्यार येवन पुलिसानीं मास्कां विणें भोंवतल्यांक धरून फायन घाली आनी सुकूंक लागिल्ल्या सरकारी खजिन्यांत मातशी भर घाली.

आमकां गांवचे मसुंडेक दोन म्हयन्यांक एक ट्रक जळोव लागता. हो जळोव आमी दोड्यामार्गाच्यान हाडटाले, पूण लॉकडावनांत आमका जळोव मेळपाक कुस्तार जावपाक लागलें, लॉकडावन जालें ते वेळार तीन चार कुडी लासोवंक पावता तितलो जळोव आमचे कडें आसलो. एप्रील २० म्हणसर आमचो जळोव सोंपलो. मागीर आमी कमिटीन पालोव दिवपाक लोकांक उलो घालो. गांवांतल्या खुबश्या लोकांनीं आपल्या भाटांत, आंगणांत पडिल्ली झाडां दिलीं. गांवांतले तरणाटे कोयते, कुराडी घेवंन जळोव बेणपाक आयले. तीन सुमाना भितर आमी एक ट्रक जळोव जमयलो.

पयल्या दोन सुमानांक निर्वासीत कामगारांक गांवांत थोडो त्रास सोंसचो पडलो पूण गावांतल्या खूबश्या लोकांनी, संस्थानीं, तांकां आदार दिलो.

ह्या कोविड -१९ च्या वेळार गांवांत निस्वार्थीपणान चड बरे काम केलें तें डॉक्टर सुबोध केरकाराच्या चलयेन, बाय शारदा केरकार आनी अँशली डिलेनीच्या पंगडान.

गांवांत चालू आशिल्लीं खुबशीं बांदकामां बंद उडोवन आपल्या कामगारांक देवाच्या भरवश्यार सोडून कॉन्ट्रॅक्टर पळून गेल्ले. ते कामगार कोणाचोच आदार नासतना उपासमार काडटाले. शारदा केरकाराच्या पंगडान तांकां जेवण दिवपाची वेवस्था केली.

आमचो इश्ट डॉनाल्ड फेर्नांडिसाचे स्ट्रिट प्रॉविडन्स ह्या संस्थेन ह्या अडचणीच्या वेळार खूब निरादार लोकांच्या जेवणाची वेवस्था केली.

नुस्त्यांक पिशे साळगावकार फांतोडेर नेरूल, केगदोळे, बागांत वचून नुस्तें हाडपाक लागले. पर्यटन बंद पडिल्ल्यान गांवांतल्या टॅक्सी ड्रायव्हरांचो धंदो सारखोच बंद पडिल्लो. थोड्या टॅक्सी ड्रायव्हरांनीं गांवांत नुस्तें विकपाचो नवो धंदो सुरू केलो. लज भीड धरिनासतना नुस्त्याच्या धंद्यांत गांवचे तरणाटे देंवल्यात म्हूण गांवच्या लोकानींय तांकां बरो प्रतिसाद दिलो.

फाटल्या सुमानांतल्यान ल्हवू ल्हवू सगळीं दुकानां उगडपाक लागल्यांत. बारां सुरू जावंक नांत पूण लिकर शॉपां सुरू जाल्यांत. थोडे तरणाटे जाण्ट्यांची नदर चुकोवन, पुलिसांचो अदमास घेयत ल्हवूच शेतानीं आडोसाक वचून 'बसूंक' लागल्यात. रित्यो बाटल्यो पळोवन शेतां नितळ करूंक वचपी जाण्टीं वारकोंक लागल्यात. ह्या वर्सा शेतां नितळ करपाची कामां चड उमेदीन चालू आसात.

धा दिसां आदीं कृशी बाजारांत भाताचें बियाणें आयिल्लें, तें तीन दिसांनींच सोंपलें. अंदू शेतां पडीक दवरचे नात, घरांत उकडे तांदूळ आसले म्हणून आमी साल्वार जाले अशें शेतकार अभिमानान सगळ्यांक सांगपाक लागल्यात.

गांवांत शेतकाऱ्यांनीं पोरसां लायिल्लीं तांच्यानीं ह्या अडचणीच्या वेळा बरे पयशे करचे सोडून शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक, दायज्यांक पोरसांतल्यो भाजयो, पोळे काडूंक उकड्या तांदळांच्यो कणयों, चवळ्यो, हळसाणें पावयल्यो.

'फुडाराक मात पोरसूं लावयाच, आतां भायल्या भाजयाचेर पातयोन रावप नां...'

'हांव शेतांत तीन रींगाची बांय मारता... फुडाराक पोरसूं लायतलोच.'

शेतांत वतना हीं उलोवपां आता नेमान आयकूंक येवपाक लागल्यांत.

शेतकाऱ्यांक ह्या कोविडान आपल्या हातांत आशिल्ल्या कृशी शक्तीची जाणीव करून दिल्या. नदर पावना तितली पयस मेरेन पातळिल्लीं हीं शेतां आशिल्ल्या आमच्या गावान दुसऱ्यांचेर कित्याक

*(पान ११ चेर)*



# कोविद १९ - लॉकडावनांत म्हजी डायरी

हेमा नायक

एके भिरांकूळ संकश्टाचे सावळे खाला लॉकडावनाचे दीस सुरू जाले. आपल्या आयुश्यांत असली अघडीत घडणूक अणभवची पडटली हें केन्ना चितूंक नाशिल्लें. आमी सदांच आपल्या जगपाचेर प्रेम करीत रावलीं. हें जगणें सुखदिणें जावंचें होच आमचो यत्न आसलो पूण आतां कोरोना सारक्या संसर्ग पातळावपी दुयेंसाक लागून आमकां आपल्या वांगडा हेरांच्याय आरोग्याची जतनाय घेवंची पडली! आनी ह्या विचारान सुरू जालें कोविद-१९ खातीरचें लॉक डावनांतलें सामाजीक अंतर. ताका लगून फाटलो म्हयनोभर घराचो हुमरो हुपलो ना. समाज आनी मनशां हेंच तर आमचें जिवीत. सामाजीक अंतर राखतना समांतर दोन मनां मदीं अंतर तर निर्माण जावंचें ना मूं हो हुस्को सदांच मनाक लागून उरलो.

सक्तीचें घरा रावपांतल्यान साहित्यीक म्हण लिखाण आनी वाचन खूब निर्माण जावं येता अशें दिसतालें. बरोवन तयार आशिल्ल्या कथांचो छापपा खातीर संग्रह तयार करचो, नवलिका बरयिल्ली आसा तिचेर निमणो हात भोंवडावचो, आत्मकथनाचो उरिल्लो भाग बरोवन काडचो हीं कामां आशिल्लींच. पूण सुरवातीचे थोडे दीस बातम्यो पळोवन भंयानूच गेले. घरांतल्या खाणां जेवपाचें वेळापत्रकय हाल्लें. परत परत हात धुवप, नितळसाण हें आडेचें आनी कामांत कामां वाडलीं. पूण बऱ्योचशो जमेच्यो गजाली जाल्यो. विवीध विशयांचेर चिंतन जालें. घडून गेल्ल्या गजालींचें मंथन जालें आनी उरिल्ल्या आयुश्यांत नदरे मुखार कितल्योशोच वाटो दिसपाक लागल्यो. निसर्गाची कृपा, मनीसकायेचें व्हडपण जाणवपाक लागलें. आपल्या जगण्या वयली माया, ओड हांचो प्रत्यय आयलो. मान, प्रतिश्ठा, पयसो हाचे परसय मनाक शांतिकाय जाय हें आत्मभान जागें जालें. दर दिसा एक एक विचार म्हजे डायरेंत नोंद जायत गेलो. कोरोना दुयेंसांतल्यान वाटावलीं जाल्यार नवे सृजन निर्मितिची ती पूर्व-प्रक्रिया अशें हांव धरतां.

अखेर आमी निसर्गा कडेनच येतात. निसर्ग आनी प्रकृती आपली कामगिरी करीत आसतात. आपणे सदांच निरोगी असचें अशें कोणाक दिसना? पूण ते खातीर फाव ती जतनाय आमी खंय घेतात? आमचे जिभेची रूच जाल्या खर आमी जगपा खातीर खावचे परस आमचें खावपा खातीर जगप म्हत्वाचें जालां. तान लागतकच बांय खणप अशी आमची पदत. निसर्ग आमचो राखणकर्तो. आमच्या पुर्वजांनी आमचे खातीर मातयेचीं घरां बांदून दवरलीं. मातयेच्यो वणटी आशिल्ल्या घराच्या जनेलांतल्यान हांव भायलो पाचवो सैम नियाळटां. निसर्गसान्निध्य वातावरण आतां उरूंक ना. बहुतेक जाण गांव सोडून शारांत गेले आनी फ्लेट संस्कृती कडेन एकरूप जाले. आमच्या पुर्वजांनी अग्नी, जल, वायू, पृथ्वी, आकाश ह्या पंचतत्वांक पुजलीं.

घरांत आदीं उज्याच्यो रान्नी. उज्यार शिजयिल्ले जिनस रूचीक जाताले. फांतोडेचें शीं आनी चुलींतल्या उज्याचो धग. बरी उब मेळटाली. किडी, जीव, जंतू चड ना. आज संवसारभरयांत खवदळ घाल्ल्या कोरोना वायरसान दाखोवन दिलें, आमी कितलींय फुडारिल्ली म्हणलें तरी प्रकृतीचे नियंत्रक जावपाक शकनात. थंड शीतळ झरे आमच्यांनी सांबाळपाक जालेनात, बांयो आमी आटोवन उडयल्यो. ह्या अनेक गजालीं कडेन चिंतन वेग घेता. आमच्या आंगणांत भरगच्च पानांच्यो आनी वखदी तुळशी आसात, वाऱ्याच्या शुध्दिकरणाचें कोडूलींबाचें झाड आसा. ही भूंय, ही धर्तरी आमकां पीक पिकावळ दिता. आरोग्याक उपयुक्त अशा फळांची निर्मिती हे मातयेंतल्यानच जाता.

कोरोना वायरसान सगळ्याक भिरांतिचें वातावरण पातळायलां. पूण निरशेनासताना आमची प्रतिकार शक्त वाडोवप गरजेचें आसा. आयुश्य हें जगपा खातीर आसता. हांवें म्हज्या जगपाचेर प्रेम केलें, माया केली, सांसपिलें ताका आनी तेन्नाच व्हड व्हड संकश्टां झेललीं आनी तातूंतल्यान सुखरूप तिगून उरलें. तेन्ना सावन एक निश्चेव केलो, केन्ना आपल्या जिविताक तुच्छ मानचें न्ही. सकारात्मक विचारांनी जगचें. आपल्या जगपाक एक हेतू आसचो, एक उद्देश आसचो. आपूण कित्याक जगतां हे परसूय आपूण कशें जगतां हेंच म्हत्वाचें आसता. उरिल्ल्या आयुश्याच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो वाटो नदरे मुखार आयल्यो. आज मेरेन सोदल्यो कितल्योशोच वाटो. नव्यो निर्माण केल्यो सरळ वाट चुकयतना अरिश्टांक तोंड दिलें. तरीय फांतोड उदेतना नव्या किरणांची हांव सुटना. सैमाची अशीच आसची कृपा, मनीसपण श्रेश्ठ तेंच पुजचें.

सुरवातीच्या दिसांनी गॅसार कितें शिजता तेंच खबर नासतालें. घरांत जें आसा तें. शिवराक. जेवण सादें आनी सोंपें. पोट भरपा खातीर जेवप पूण कायच ना थंय तें रूचीक. वेळेची बचत आनी भलायकेक उपयुक्त. झटपट आनी निर्मळ. म्हजे डायरेचीं पानां चालू उरलीं. चवथो दीस: हांव मरणाक भियेना अशें म्हणप खूब सोंपें पूण मरण जेन्ना दारांत येवन थांबिल्लें आसता तेन्ना मनीस कितलो अस्वस्थ जाता तें दिसून आयलें. धावो दीस: घराघरांनी आत्मपरीक्षण. घरांत सामान कोण हाडटा,

तें कशें आनी कोण शिजयता आनी तें पानार पडटासर कोणाच्या आंगांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो व्हांवतात तें घरांतल्यांक कळ्ळें. शेळें नाका, सकाळचें रातीं नाका, नुस्तें ना जाल्यार जेवण चलना. जिभेचे लाड जाल्ले चड. पूण कोणाच्या खुस्तार? घरांतले बायलेक प्रतिश्ठा आसता हें जायत्या जाणांक खबरूच नाशिल्लें. आनी मागीर डायरी फुडें वचत रावता. कोरोना वायरस मनशाच्या विचारांक नवी दिका दिवपी थरतलें. आचार, विचार, विहार हीं मनशांचीं मुख्य तत्वां हाची जाणीव जाता. फाटलो बरोच काळ मनीस जगपाक विसरिल्लो. मान, प्रतिश्ठा, पयसो ह्या अवाढव्य पसाऱ्या मुखार मनीस बिझी उरलो. हे सगळे आभास म्हणपाची आतां जाणीव जाली. मानसीक थिरताय कसल्याय दुर्येसाचेर मात करता. कामांनी गुंथून रावप. दीस येतले आनी वतले. आव्हानां स्विकारीत जगचें आसता. जिणेंत कितलीं मनशां आयलीं! कुळार आनी घर! नातीं, सोयरीं धायरीं, शेजारीं आनी वेळा प्रसंगार घडिल्ल्यो इश्टागती. आनी हें तर सामाजीक अंतर न्हीच. शारिरीक अंतर. व्हायरस म्हणल्यार धाम. कुटुंबांत एकल्याक आयल्यार घरभर पसरता.

अन्न, वस्त्र आनी निवारो ह्यो मनशाच्यो मुळाव्यो गरजो. त्यो सगळ्यांक मेळूंकच जाय. मानसीक चिंत्ताचे थिरतायेंत शारिरीक स्वास्थ्याची थिरताय मेळटा. कोरोनाची भिरांत उणी जातली. लॉकडावनय काडटले. कोणाक उपाशीं पडपाक दिवचेना. हजारांनी हात दान करपाक फुडें आयले. लोकांनी तांचे उपकारय मानले. आनी मागीर कितें? आपल्या कश्टांनी जोडून प्रामाणीकपणान आनी स्वाभिमानान जगपी गरीब लोकांची स्थिती मात काकुळटेची जातली.

आनी वीस दिसां उपरांत म्हजी डायरी वेगळें मोडण घेता. लोकां भितर वावरप ना. चार वणटीं भितर कोंडून रावप. दुसऱ्यांगेर वचप ना, दुसऱ्यांनी आमगेर येवप ना. निरशेवणी, वाजेवणेपण. मनशां मदीं रावन आयिल्लो जीव. तुजे विचार हांवें आयकुचे, म्हजे विचार तुवें. भासाभास, विचार, चर्चा, उलोवप, वादविवाद, हांसप खिदळप, नविदादी, खबरी, विनोद, फकाणां मस्कऱ्यो हें सगळें बंद जातलें काय? सगळे कडेन मोनेपण, तोंडार हांसोय ना, तोंडार पट्टी. पणजेचे सेंट्रल लायब्ररींत वचून पुस्तकां मदीं रावपाची जाल्ली संवंय. तें एक वेसनच जाल्लें. अकस्मात ताचेर बाधा आयली. ताचो मनाचेरय परिणाम घडत गेलो. घरांत बसून वाचनय घडलें ना. एकूच पुस्तक वाचलें तें रवीश कुमारचें बोलना ही है. बस इतलेंच. आनी आतां दिसता, सामाजीक अंतर राखतना मानसिक अपंगूळपण तर येवचें ना मू?

डायरी फुडें चालूच आसा. पूण एक साहित्यीक म्हण दिसता जे भावना आनी संवेदनांचेर आमचे साहित्य रचनेची गोडी अवलंबून आसा तें आमचें फुडलें साहित्य रूक्ष तर जावचें ना मू? निरशेवणी न्हय पूण तकलेंत रुजिल्लो विचार. असलें एकमुळेपणाचें जगप अर्थहीन जातलें काय ही भिरांत आतां उपरासपाक लागल्या.

सगळें बेगीन निवळत वचूं आनी लॉकडावन सरूं

संपर्कः ९७६४५९७६२८



# झुजारी रवीन्द्रबाब

**किरण बुडकुले**

**फाटभूंयः**

आयच्या कोंकणी विश्वाक रवीन्द्रबाब केळेकार हें नांव अनवळखी न्हय. पूण, ल्हवुल्हवू काळाच्या व्हांवतेंत भास, भौस, साहित्य आनी विचार ह्या विंगड-विंगड वाठारांतलें तांचें व्यक्ती म्हूण नीज योगदान कडेक पडून तेवय बी निखटे एक आदर्श, एक विभुती जावन युवा मनांत थिरावत ही भिरांत उपरासल्या. तशें जाल्यार, कोंकणी चळवळीक ताणी दिल्ल्या प्रत्यक्ष फुडारपणाचें, कोंकणी समुदायाक संस्कृतीक नदरेन गिरेस्त आनी एकजूट करूंक केल्ल्या वावराचें तशेंच कोंकणी साहित्याचो एक अखंड वावुरपी जावन बरपाच्या वळी कणकणी गोंयचो समाज प्रगल्भ आनी आत्मनिर्भर जावचो म्हूण दिल्ल्या तांच्या पाथेयाचें म्हत्व कापरावरी उडून वतलें; फाटीं उरतलो फकत सुवास-उगडासाच्या धुंवराचो-यादींच्या विस्तृत पूण अस्पश्ट कुरवां वरवीं मेळपी खिणयाळ्या धादोसकायेचो.



दुर्दैवान तशें जर जावंक पावलें, जाल्यार ताचे इतली, आयचे पिळगेची आनी-आनीक हानी जावंक शकना. कारण अशा कुड्ड्या मूर्तिपूजनांतल्यान अंधूक जायत गेल्ल्या तपशिलांचीच उजळणी जातली; ते अर्दुकुटे तपशीलच पातयेवपाजोगे संदर्भ म्हण फुडाराक लोक वापरूंक लागतले; तांच्याच आदारान निश्कर्श काडप जातलें. रवीन्द्रबाबाच्या समाज-क्षेत्रीय वावराचेर आनी पुरोगामी बरपाचेर प्रत्यक्ष संशोधन करून संदर्भ सोदप वा पुराव्यांचो माग घेवप हें कडेक पडटलें. संदर्भा भायर रवीन्द्रबाबाची एकटुकीं विधानां घेवन तांचें सर्वसादारणीकरण जातलें, आनी तींच मान्य प्रमेयां अशें गृहीत धरून मुखार चर्चा जातल्यो; त्या चर्चांचेर पातयेवन कोंकणीच्या भवितव्या विशीं मतां घडटलीं; आनी, गडखळ तार्किक बुन्यादीविणें वा सुस्पश्ट वैचारीक फास्के बगर भावी वाटचालीची आंखणीय जातली.

ह्या सगल्यांतल्यान मेळटलो निखटो बुद्दीवादी भासपी पॅकेजींतल्या रंगयाळ्या स्वप्नरंजनाक आधार, खुद्द रवीन्द्रबाबावरी विधायक वावराक ओंपून घेवचेलें आव्हान न्हय! कारण, विधायक मार्गान फुडें वचूंक आवश्यक अशें वैचारीक पाथेय, ते खातीर करपाजोग्या वावराचो ब्लू प्रिंट, तो वावर साकार करचे पासत ध्येयनिश्ठ दिश्टावो आनी ताचे वाटे वयलीं ज्ञात-अज्ञात आडमेळीं पयसावपाक जाय तें आंतरीक बळगें ...हें सगलें (वयर सांगिल्ले मूर्तिपुजेचे लटीक-प्रक्रियेंतल्यान) लाभचें ना. सकारात्मक नदरेन विधायक वावराची वाट चलूंक स्मरणरमणा परस अदीक ठोस कितेंय तरी जाय! रवीन्द्रबाबान सांगून दवरलां: इतिहास ज्याका विसरतलो, ताचेच पुतळ उबारचे. आयच्या खंयच्याय सुचारू, विचारी व्यक्तीक रवीन्द्रबाबाचो निखटो 'पुतळो' जाल्लो नाका. व्यक्तीच्या विभुतिकरणा परस, व्यक्तीच्या विचार आनी मुल्यांचें रास्त आकलन जाय.

बेश्टेंच रवीन्द्रबाब हे व्यक्तीचें विभूतिकरण जावपांत रवीन्द्र-कार्याचें साफल्य ना; पराभव आसा. रवीन्द्रबाबाक अपेक्षीत अशी ध्येयवादी आनी विधायक कार्यकर्त्यांची आदर्श फळी हे वाटेर ना; वेव्हारवादी आदर्शवाद केळोवपी पथभ्रश्टांची पलटण मात आसुंयेता! खुद्द रवीन्द्रबाबाकूय हेच गजालिची भिरांत आशिल्ली. आनी हें तांच्या वावराचें, बरपाचें आनी विचाराचें सुक्षीम अध्ययन केल्यार होलमता. देखूनच, नव्या, ताज्या दमाच्या, नव-सहस्रकी युवां कडेन रवीन्द्र-कार्या फाटली प्रस्तूत बरोवप्याची अल्प-समजणी प्रामाणिकपणान शेअर करपाचो हो एक नमळ यत्न!

हे समजणेंत, कांय गृहीतकां आसपावतातः पयलें, आपल्या दसकां संकीच्या वावराक रवीन्दबाबान जाणविकायेन, प्रामाणिकतायेन आनी पुराय तांकीनिशीं केल्ली *जिवन साधना मानल्या;* दुसरें, तांणी हे वावराक एक समाजहिताय *याग वा यज्ञ* कसो लेखून स्वताच्या योगदानाक *समिधा* मानल्या; तिसरें, तांणी समाजीक लागणुकेक आनी प्रज्ञेक सदांच सर्जन आनी प्रतिभा हांचे परस वयली सुवात दिल्या; आनी चवथें, आपल्या वावराची, आपले वयल्या प्रभावांची आनी मुखा वयल्या वाटेची तांणी सातत्यान समिक्षा करून, गरज तेन्ना पथ-परिवर्तन वा मार्ग-बदल करपाचो जाणीव पूर्वक यत्न केला. ह्या सगल्यांतल्यान रवीन्द्रबाबाची जिवन आनी वावर विशयक जी भूमिका घडल्या, ती ताच्या भौप्रसवा लिखणेंतल्यान स्पश्ट उदेल्या. कोंकणीच्या उजळ फुडाराची दिका थारावपी सक्षम युवा नेतृत्व आज घडटलें जाल्यार, ते भूमिकेचो सुक्षीमतायेन माग घेवपाची गरज ह्या खिणाक कोंकणी संवसाराक आसा.

**समाज वावुरपी आनी साहित्यीकः दोन-पदरी पूण एकसंघ भूमिका**

तांच्या विचारां वयल्या प्रभावांची, वावराच्या परिणामांची, आनी

आचारांच्या परिणामकारितेची चिकित्सा करतना, एक समाज कार्यकर्तो तशेंच एक लेखक म्हूण आपल्या जिणे वावरा फाटली तांची भुमिका कसली, ते भुमिकेक पुरक अशो तांच्यो मुखेल धारणा खंयच्यो, आपल्या भोवताशी वावराच्या साबार पेण्यां वयलीं तांचीं प्रेरणा-स्थळां खंयचीं तशेंच तांणी आपणायिल्लीं ठळक साधनां आनी प्राप्त केल्लीं लक्षणीय साध्यां खंयचीं हाचो विचार सभावीकपणान हांगा जावंक जाय.

दुबावा विरयत, एक समाज वावुरपी आनी साहित्यीक म्हूण आपली जी दुहेरी भासपी भुमिका तांणी स्वेच्छेन आनी उकतेपणी मानून घेतिल्ली, आनी जी निमाणें मेरेन निरंतर तिगून उरिल्ली, ती एका झुजारी व्यक्तिची वा फायटराची. लेखक पयलीं झुजारी आसचो, अशी ही भुमिका. पूण तातूंत निखटो युद्धाचो आवेश वा जैताचो जल्लोश ना. मात, बारीकसाणेन तिजून स्विकारिल्लो एक खेरीत युद्धधर्म आसा.

**ह्या युद्धधर्मा अंतर्गत येवपी झूज हे संकल्पनेक साबार वलयां आसातः**

१. हातूंत, व्हांवते आड वचून दुरगामी परिणाम करपी निर्णय घेतना जावपी आंतरीक द्वंद्व वा विचारांतली दुविधा आसपावता; तशीच, अनपेक्षीत कृती केले उपरांत समानधर्मियां मजगतचे बुन्यादी मतभेद आनी वैचारीक दुराव्यांक तोंड दिवनय नीज मुल्यां कडेन प्रामाणीक रावपी निर्धाराची कीट आसपावता;

२. समाजीक वा राजकी मळार उपरासपी मतांतरां हातूंत येतात, तेच प्रमाण, भौशीक हितापासत वा सामुदायीक गरजां खातीर घेवचे पडिल्ले प्रस्थापीत-विरोधी भुमिकेचो वा सामान्य मार्ग सोडून आपणायिल्ले वेगळे वाटेचोय आसपाव ह्या झूजधर्मांत जाता; आनी,

३. भौतीक प्रस्नां सावन आध्यात्मीक जिणे मेरेन, कितलीं तरी तासां ह्या झूजधर्माक लागू जातात हें रवीन्द्रबाबाचें कांय प्रचंड समाजीक उलथापालथ घडोवन हाडपी निर्णय आनी तांकां लग्नीक कृती नियाळ्ळ्यार होलमता.

प्रस्तुत बरोवप्याच्या पिळगेंतल्या भौतेक वर्तमानपत्र वाचप्यांक खबर आशिल्ल्यो, अशा निर्णय आनी कृतींच्यो कांय वेंचीक देखी म्हणल्यारः सारस्वत मेळाव्यांत वचपाचो रवीन्द्रबाबाचो निर्णय, थंय तांणी केल्लें पुरोगामी उलोवप, ताचे वयली विशिश्ट थरांतली काडली-जीब-लायली-ताळ्याक तरेची (नी-जर्क) प्रतिक्रिया, खुद्द रवीन्द्रबाबान उक्तायिल्ली ते विशींची आपली मुद्देसूद भुमिका. तशेंच, एका विशिश्ट पांवड्यार तांणी कोंकणी चळवळींतल्यान आपखोशेन घेतिल्ली निवृत्ती हीवय एक वेगळी पूण लक्षणीय देख.

झूजधर्मी रवीन्द्रबाबाक, प्रमुखतायेन हावेस आसा तो समाज सुधारणेचो. पूण ते खातीर, आदीं समाजाच्या कालबाह्य विचारसरणेंत परीवर्तन हाडप ही ताची प्राथमिकताय. आनी ते परसूय अदीक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार, नव्या विचारांचो उच्चार करचे आदीं तांकां आचार म्हूण स्वता यशस्वीपणान आपणावंक शकप वा ना शकप, हें त्या विचारांच्या संभाव्य परिणामकारितेचें वा परिणामशून्यतेचें लक्षण, हें रवीन्द्रबाबान प्रमाण मानलां. हे खातीर, जें उकतेपण जाय, सोंपी पूण परखड शैली जाय, लोकप्रियते परस लोकहिताक उजू लेखपा खातीर जें स्वतंत्र चिंतन-मनन जाय, तें ताका गांधी-विचारांतल्यान लाभलां जावंक जाय; हेरांक आपलें मत पटोवन दितना वा वेगळो विशय समजायतना खुद्द आपल्या विचारांक जी तार्कीक बसका आसूंक जाय, कार्य आंखतना जी साधन-शुचिता जाय, उलोवपांत तशें बरपांत अभिव्यक्तिची जी स्पश्टताय जाय, तें सगलें काकासायब कालेलकारांच्या जंगम विद्यापिठांत ते शिकले अशें म्हणपाक खूब्ब आदार तांच्या बरपांतच मेळटा; काळ, राजसत्ता आनी जनमान्यता हांचे आड वचून कृती करपाक जी निडरताय जाय ताची प्रेरणा तांकां लोहियां कडल्यान मेळ्ळी, अशें म्हणप, रवीन्द्रबाबाच्या लोहियां वयल्या विस्तृत बरपाचो आदार घेतल्यार, रास्त थारता.

अशे हे झूजधर्मी व्यक्तीन, समाज प्रबोधना संदर्भांत, आपले भितल्ल्या सर्जका परस मार्गदर्शकाक वयली सुवात दिल्ली खरी, पूण स्वता पुरती आपल्या अंतर्मनांत ताणें शिकोवप्या परस शिकप्याक वयली सुवात दिल्ली, हें ताचें बरप वाचतना पावला-पावलाक होलमता. लक्षणीय गजाल म्हणल्यार,तांचे मदलो हो विद्यार्थी जिवीतभर शिकत रावला; लज-भीड धरी नासतना, आदले घडे गिरयत रावला, चूक-भूल स्विकारीत आनी सुधारीत रावला. हाची सोबीत आनी आटीव देख तांच्या अघळ पघळ (२००५) ह्या पुस्तकांतल्या एक हारसो अंतरंग नियाळपाचो ह्या निबंदांत जुस्ताजुस्त मेळटा. उदाहरणार्थ, आपल्या 'तिडकी' वांगडच्या झुजा विशीं मेकळेपणान सांगतना लेखक मानून घेताः

> आमी केळेकार रागीट. केन्ना कोणाच्या आंगार कँच्च करून वतीत, सांगूंक येना [...] सतरा अठरा वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना हांवूय एक दीस, हांचे देखीन आवयचेर तापलों. आनी कोणाचेर तापतलों आशिल्लों? आवय सोंपी. बाबडी सगलें सोंसून घेवपी. [...] तापनाफुडें तिणें म्हाका म्हळें [...] तिडक मारता न्हय, तेन्ना जिबे वयल्यान एक उतर फुटूंक दिवं नाका. आनी त्या वेळार कसलोच निर्णय घेवं नाका [...] जिवितांत कितलोसोच वेदांत वाचलो. खूब सो माथ्यावयल्यान गेलो. बरोचसो पटलो ना. थोडो आवडलोय ना. भितर जो थोडो उरिल्लो ताचोय आतां उगडास जायना. पुणून आवयची ही सांगणी मात केन्नाच विसरूंक पावूंक ना. सदां हे सांगणेन चल्लां अशें म्हणपाचो धीर जावचो ना [...] जागरूक रावनूय खूब खेपे निसरलां *(अघळ पघळ २१)*

फुडें रवीन्द्रबाबाक "अन्याय पळोवन ओगी रावप समा जातलें व्हय? त्या वेळार तिडकलोंना जाल्यार अन्याय करतल्याक आधार दिल्ले वरी जातलें," अशें दिसता आनी तो "तिडकीचेर जैत जोडपाचो हावेसूच तकलेंतलो काडून" उडयता (वयलोच संदर्भ २२). इतल्यांत एक दीस ताका *टायम्सार* 'थॉट फॉर टुडे' मेळटाः "खरो व्हड आशिल्लो जाल्यार तिडकुचो नाशिल्लो. ल्हान म्हूण तिडकता" (वयलोच सं.). हे जाणिवे उपरांतूय जेन्ना ताका तिडक येता, तेन्ना "आनी खासा म्हजेच तकलेंतलो हांव पडटां. लज लज जाता," हें सांगून, तो फुडें म्हणटा, "खासा आपणाले तकलेंतल्यान पडप हाचे सारकी लज दुसरी ना"

(वयलोच सं. २३). हातूंतल्यान रवीन्द्रबाबाच्या अंतर्मनांत 'तिडक' हे एकेच गजाली संबंदीं सतत चलत आयिल्ल्या आंतरीक झुजाची गवाय तर मेळटाच, शिवाय स्वताचेर जैत जोडपाचो तांचो हावेस इतलो आदर्श आसूनय ताचे वटेन वचचेलो मनोविचार खंयच्याय सामान्य मनशाक सोब सारको कसो वास्तवदर्शी आशिल्लो, हें होलमता.

ताचेय फुडें वचून रवीन्द्रबाब जें सांगता, तातूंतल्यान ताच्या सदांकाळ शिकपाचे, प्रामाणिकपणान आपलें उणेंपण मानून घेवपाचे वृत्तीचें दर्शन घडटा. तशेंच, अंतरंगांतल्या झुजाक रवीन्द्रबाब हो झुजारी कितले वयली आनी सार्वकालीक सुवात दिता हें होलमता. आपल्या अंतर्मनाची वळख तो अशी करून दिता, म्हजीच म्हाका वळख करून दिवपी हो एक हारसो जाला म्हज्या दिसपट्ट्या जिविताचो. हांव खंती जातां, अस्वस्थ जातां, भुल्लुसून येतां तेन्ना हांव ह्या हारशांत म्हजे म्हाका नियाळपाक लागतां आनी हांव कोण तें म्हाका कळटा [...] दुसऱ्या गुरूची गरज उरूंक ना आतां म्हाका (वयलोच सं.).

हें इतले सविस्तर रितीन सांगचें कारण म्हणल्यार, ''एक हारसो...'' ह्या पुराय निबंदाचें मूळ ताका ताच्या बालवयीन नातवान (तोबून) विचारिल्ल्या निश्पाप प्रस्नांत (anger च्या फुडें d लायलें जाल्यार कितें जाता?) आनी, तातूंतल्यान अंतर्मुख जावन लेखकान घेतिल्ल्या ''anger is one letter short of danger" ह्या धड्यांत आसा. म्हणचेच, सानांतलो सान मनीस लेगीत आपलो गुरू जावंक शकता ही ताची मनोवृत्ती हें हातूंतल्यान स्पश्टपणान समजता. हाका लागून रवीन्द्रबाबाचे मनोभुंयेक सुपीक करपी खंयच्यो धारणा आसात आनी ताका प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्ष प्रेरणा दिवपी स्रोतां खंयचीं, हाची चर्चा हांगा करूंक राजांव आसा.

**कांय सर्वज्ञात धारणा आनी प्रेरणास्रोतां**

आपल्या बरपांतल्यान पुनरुक्तीचो दोश स्विकारून लेगीत रवीन्द्रबाब सतत उकतायत आयिल्ली ताची एक सर्वज्ञात धारणा म्हणल्यार, रायटर हो पयलीं फायटर आसचो. सर्जकाची आंतरकथा (२०००) ह्या नीज सर्जनशीलताये वयल्या पुस्तकांत स्वता विशीं लेखक बरयता:

> हांव 'लेखक' न्हय. हांवें म्हाका लेखक केन्ना मानलो ना. लक्ष्मणराव, बाकीबाब, मनोहरराय, पंडित हे लेखक. हांव तांचे जातींतलो न्हय. बरोवं मागीर हांवें कितलेंय. दोन इंग्रजी उतरांचो आदार घेवन म्हणीत आयिल्लों, हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर' (फकत बरोवपी? २)

इतलेंय करून, लेखकाक फायटर म्हूण अवास्तव मुभा मेकळीक मेळची अशी रवीन्द्रबाबाची धारणा ना. उलट, बरो साहित्यीक बरो मनीस आसचो, अशी रास्त (आनी खर) अपेक्षा आसा. तशेंच, ''प्रतिभावंताक लेगीत व्यासंगाची खावड जाय'' *(अघळ पघळ २४)*, अशीय ताची स्पश्ट धारणा आसा. आनीक एक लक्षणीय गजाल म्हणल्यार ''सर्व्हायव्हल ऑफ द फिटेस्ट'' (योग्यतम तेंच वांचता/तिगता) हो न्याय साहित्याच्याय विश्वांत लागू जाता आनी तो जीवसृश्टींतले परसूय अदीक कठोरपणान जाता (*सर्जकाची* आंतरकथा १५९), ही रवीन्द्रबाबाची भोवच सकारत्मक आनी थाकायदिणी धारणा जावन आसा.

समाज-प्रबोधना विशींय रवीन्द्रबाबाच्यो कांय ठळक अशो पॅट धारणा आसात. हांचे मर्दी, पत्रकारिता, शिक्षण, समाज-चारित्र्य आनी इतिहास हांचे संबंदी तांचे चिंतन दिसून येता: पत्रकारिता हें एक मिशन, पत्रकार विचारवंत आसचो, ताचेशीं एक खासा आयडियॉलॉजी आसूंक जाय आनी ती हेरां मेरेन पावोवपाच्या विशुद्ध हावेसान पत्रकारिता घडची अशें रवीन्द्रबाबाक उत्कटपणान दिसता. पत्रकार हो लोकसेवक, लोकशिक्षक, लोकनायक आसचो, अशें तो स्पश्ट सांगता.

शिक्षण हें खोस दिणें आसुंकूच जाय, तातूंत काणयांक खासा म्हत्व आसूंक जाय, अशेंय तो मानता. मुल्ल्याधिश्ठीत शिक्षणां वरवीं समाजाची अस्मिताय घडटा, लोकजिणेची योग्य वळख भुरगे पिळगेच्या भावविश्वांत थळावे परंपरेची बुन्याद घालता. शिक्षणांत इतिहास आनी लोकवेद हांकां (लोककला/ लोकसंगीत) खास म्हत्व आसा. न्याय-नितिची चाड बाळगुपी आनी वैश्वीक दिश्टीकोण दिवपी शिक्षण संवसारीक एकचाराची उजू देख फुडले पिळगे मेरेन पावयता. हे वरवीं, समाजाची संस्कृतीक आनी नैतीक स्थितीच सुधारता अशें न्हय, जाल्यार सरसमान लोकांची मानसीक भलायकी सुधारता.

तातूंतल्यान आपशींच समाजाची अर्थवेवस्थाय सक्षम जातली, कारण अशे तरेचें शिक्षण भुरग्यांक स्वावलंबन, आत्मविश्वास आनी सकारात्मकता शिकयता. पूण हें शिक्षण दरेका विद्यार्थ्यालो बौद्धिक, कलात्मक तशेंच शारिरीक क्षमता आनी विशेश म्हणल्यार ताचो निजी कल हांकां आस्पावन घेवपी आसचें. शिक्षणा वरवीं समाजाची बुद्धिमत्ता, नितिमत्ता आनी सौंदर्य दृश्टी ह्या सगल्या आंगांनी वृद्धी जावची, हे नदरेन रवीन्द्रबाब शिक्षणा कडेन पळेता. तें प्रत्यक्ष जिवितांत उपेगी थारपी तशेंच बरो नागरीक घडोवपी आसचें अशेंय मानता. कारण, ताचे लेखीं, समाजाचो सभावगूण फकत विज्ञानीक दिश्टीकोणाचेर आदारून घडना; ताका नैतीक चारित्र्याचो आदार जाय. फकत सायंटिफीक टेम्पर आसून उपकारना, मॉरल टेम्परची सगळ्यांत चड गरज आसा. इतिहास पुसूंक येना आनी ज्या कर्तुत्वाच्या मुळाक भंयाची प्रेरणा आसा तें चडावत घातमारें ही तांची सगल्यांत अदीक सुस्पश्ट धारणा आसा.

शाळे भायरय भुरग्यांचेर आकांताळे प्रभाव पडटात आनी तातूंतले बरेचशे अनिश्ट, अतार्कीक आनी पूर्वग्रहदूशीत आसतात, हाची रवीन्द्रबाबाक बेसबरी जाण आसा. देखून, सुसंस्कृत करपी सर्वांगी शिक्षणा वरवीं समाज निर्भीड नागरीक निर्माण करूंक शकता आनी अनिश्ट गजालींक भुरग्यांच्या मनांत मूळ घेवपा सावन आडावंक शकता; तशेंच मूळ घेतल्यार तांका समूळ हुमटावंक शकता, हाचेर रवीन्द्रबाबाचो विश्वास आसा. हे तरेच्या शिक्षणीक क्रांतिची प्रेरणा तांकां रवीन्द्रनाथ टागोरां कडल्यान लाभल्या. पूण आपलो शिक्षण विशयक विचार बांदून काडटना रवीन्द्रबाबाक सॉक्रेटीस, खलील जिब्रान, बुद्धा सावन गांधी, विवेकानंद, शणै गोंयबाब मेरेन कितलेशेच समाज धुरीण अंतर्बाह्य आफडून गेल्यात.

वयर सांगल्यात त्या धारणां आनी प्रेरणास्थळां भायर, आयच्या

युगांतल्या विचारवंतांक चितूंक लावपाजोग्यो दोन विशिश्ट धारणा रवीन्द्रबाब बाळगिता: तातूंतली एक विचारसरणे संबंदी, जाल्यार दुसरी विचार पद्दती विशीं. आयच्या युगांत, आमच्या देशांत राजकी वर्चस्वा खातीर धिरयो मांडपी वामपंथी आनी दक्षीणपंथी ह्या दोनूय प्रबळ विचारसरण्यांक लेखून रवीन्द्रबाब म्हणटा, ''तुर्ताक चलता तीं हिन्दुत्व आनी धर्मनिरपेक्ष हीं दोनय नाणीं खोटीं, तीं भिरकटावन मारूंक जाय'' (*अघळ पघळ* ३५), पूण लेखकाक 'हिन्दुत्व' हे संकल्पने कडेन वा धर्मनिरपेक्षताये कडेन वैरभाव आसा, असो हाचो अर्थ असो न्हय. रवीन्द्रबाबाक ओड आसा ती सर्वसमावेशक, सर्वधर्म समभाव बाळगुपी, युगसापेक्ष परिवर्तनाक कटीबद्ध अशा उजू 'शुद्ध हिन्दुत्वा'ची. सनातन पूण परंपराग्रस्त न्हय असो. हांगा ताची प्रेरणा विवेकानंदांक अपेक्षीत हिन्दुधर्म आसा, हें दुबावा विरयत. तेच प्रमाण, ताची धर्मनिरपेक्षता सगल्याच धर्मांक किस्कुटावपी न्हय तर सगल्या धर्मांक मान दिवपी, तातूंतलें उजू तें स्विकारून, कालबाह्य तें उडोवपाची तांक बाळगुपी धारणा. आयच्या बुद्धीवाद्यांकूय खटकुपाजोगी ताची एक धारणा आसा, जी एकांगी वस्तुनिश्ठ विचार पद्दत न्हयकारून, आपले खातीर व्यक्तीनिश्ठ चिंतपूय कितलें अपरिहार्य हें सांगता.

ह्या सगल्या आयल्या-पयल्या चर्चे मजगतीं एक गजाल बेस बरी गांठीक बांदून दवरूंक जाय. रवीन्द्रबाबाची प्रेरणास्थळां नीट्ट बरीं वेंचून काडप म्हणल्यार तणा गुडयेंतल्यान सूय सोदून काडप. स्वता रवीन्द्रबाबान स्पश्ट सांगलां ते अनुसार ताचेर दीर्घ-स्वरुपी परिणाम करपी स-सात तरी मुखेल प्रेरणास्थानां आसात: विवेकानंद, मार्क्स, लोहिया,गांधी, तोलस्तॉय, बुद्ध आनी जेझू. ते भायर, ताच्या वावर-विचारांचेर समाजीक - आध्यात्मीक प्रभाव घालपी ज्ञानेश्वर, कबीर, तुकाराम, मीरा तर आसातच, पूण ताच्या चिंतनाक तत्वनिश्ठेचें, कार्यशीलतेचें आनी उदात्त विचारांचें मेळावण लावपी विभुती म्हडल्यार काकासाहेब, बिनोबा, रवीन्द्रनाथ हे आदर्श विचारवंत तशेंच प्रतिभावंत. सर्जनशील बरप आनी भास विशयक निश्ठा धरली जाल्यार रवीन्द्रबाबाक भाविल्ले प्रतिभाशाली प्रज्ञावंत जावन आशिल्ले बाकीबाब आनी उमाशंकर जोशी. जें ना तें आपले भाशेक जोडून दिवन भास बांदून काडपाचो भगीरथ यत्न करपी म्हूण महाराष्ट्र ज्ञानकोशकार श्रीधर व्यंकटेश केतकार, धर्म-संस्कृती मदीं सेतू बांदपी उदारमतवादी सहृदय म्हूण फादर एच. ओ. माश्कारेन्हस. पूण, हे वळेरे भायर अगणीत क्रांतिकारी बरपां आसात, साहित्यीक आनी बुद्धीवादी व्यक्ती आसात जांचीं फकत नामावळच दिल्यार आनेक लेख तयार जातलो.

पूण एक तथ्य मात शें प्रतिशत खरें: कोंकणीची नीज, अस्मिताय आनी उदरगत हांकां जीण ओंपपाचें बळगें रवीन्द्रबाबाक शणै गोंयबाब ह्याच आमच्या युगपुरसा कडल्यान मेळ्ळें. शुन्यांतल्यान विश्व घडोवपाचो (वा हिमालय हे वटेनचो ते वटेन मोखून मारपाचो) हावेस तातूंतल्यानच आकारा आयलो. पूण निर्धास्तपणान ह्याच खिणासावन फुडली अंधूक वाट चलपाचो विश्वास शांताराम आमोणकारांच्या ''आयच्यान वावराक लागुंया...एक दीस उणो जातलो'' ह्या आशावादांतल्यान पालेलो, हें खुद्द रवीन्द्रबाबान *ओथांबे* च्या अर्पणपत्रिकेंत म्हणून दवरलां. तशीच आनेक लक्षणीय अर्पणपत्रिका *समिधा* ह्या पुस्तकाची, जी ''सुमन्ताच्या धाडशी कर्तृत्वाक'' ओंपल्या. हे वरवीं, रवीन्द्रबाबान आपल्या ''अशोका''चो ध्येयनिश्ठ सांगांत सदां खातीर अधोरेखीत करून दवरला. ह्याच आधारवडाच्या सांगातान रवीन्द्रबाबान आपले भाशेची बुन्याद घट करून, कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दितलों हे लागणुकेक सार्थका पावयल्या.

निमाणें, रवीन्द्रबाबाचे म्हालगडो तशेंच कार्यकर्तो म्हूणय गोंयच्या समाजीक, भाशीक तशेंच आंदोलन पर्वांतलें योगदान वेगळ्या वेगळ्या समयार, वेगळ्या वेगळ्या स्रोतां वरवीं उकते जालां. हातूंत तांचेर बरयिल्लीं पुस्तकां, काडिल्ले खास अंक म्हणल्यार एकेक मोलादीक म्हालवज. पूण तांचें साहित्यीक साध्य कितें, ह्या प्रस्नाची जाप अजूनय अपेक्षीत आसा. ह्या साध्या वरवींच ते भावी पिळगे कडेन आयज लेगीत थेट संवाद साधूंक शकतीत. त्या साध्याचेर संशोधन जावन, साधक-बाधक चर्चा जावन, सुस्पश्ट निश्कर्श येवचे, अशी आस्त आसा. हाचें कारण, रवीन्द्रबाबान जरी आपल्या साहित्यीक वावराक आपल्या समाजीक, विधायक कार्या सामकारा कितलोय दुय्यम मानलो तरी, तांचो साहित्यीक वावर ल्हानासमानांतलो न्हय; तो आंवाठान, प्रकारान आनी प्रकाशनांच्या संख्येन प्रचंड आसा.

ऑगस्ट १९५३तल्या *मीर्ग* नेमाळ्याच्या पयल्या आंकांत सावन आपलें बरप उजवाडावपी रवीन्द्रबाब थांब नासतना लागीं लागीं पांच-साडेपांच दसकां वयर नेमान बरयत रावलो. कोंकणीक तिची हक्काचे सुवात जोडून दिवन जायना, तिका भैण भासांच्या पंगतीक बसोवंक जाय, देखून तिचेशीं जें ना, तें बरोवंक जाय, ह्या ध्येयान प्रेरीत जावन आपले भाशेंतलें ''दैन्य उणें'' करूंक निमाणे मेरेन वावुरलो. कोंकणींत जें ना तें निर्मितलों ह्या एका किंवाट्यान एक अग्निहोत्र कशें साहित्य सर्जन करीत रावलो.

पूण तरीकूय, साहित्य हें जिवितांचें एक उपफळ-एक बायप्रॉडक्ट-अशेंच मानून, आपले मदल्या कलाकाराक आपले भितल्ल्या साहित्यकाराचो धनी जावंक दिवंक जायना, ह्या हावेसान रवीन्द्रबाब जियेलो. कोंकणींतले धरुंया तीन वांटे पुस्तकां रद्दी म्हूण भायर मारचीं पडलीं तरीकूय ''एक वांटो खंयचेय व्हड भाशेक अभिमान दिसचो ह्याच पांवडयाचो आसतलो, हे विशीं म्हाका दुबाव ना,'' अशें म्हणून आत्मविश्वासान कोंकणीच्या मळार दोळे दिपकावपा इतलो लखलखलो. आपूण कोंकणीचो एक म्हालगडो हे गजालिची जाण आसून लेगीत आपल्याक ''कोंकणींतले अर्दा वयर लेखक वळखनात'' अशें तो प्रांजळपणान म्हणूंक शकला. निदान आयचे नव-सहसकी कोंकणी लेखक-संशोधक तरी ताका ताची खरीखुरी 'वळख' दाखयतीत म्हूं? वाट पळोवया.

***(टीप: रवीन्द्रबाबाक तुमी हें संबोधन कोंकणीक कृत्रिम कशें दीस. देखून तांचो एकेरी उल्लेख करचेलो जमता तसो यत्न केला.)***

संपर्क: ९२२६७९२३३६



# चटको लावन गेल्लें मरण...

**कृपाली नायक**

२मेक सकाळीं डेनिसाचो फोन ''कोंकणी टिचर्स असो. ग्रुपांत पुर्णानंद सरान नित्यानंद सर गेल्ल्याची पोस्ट घातल्या मातशी पळय''  फोन उगडून ग्रूप उगडटना ती पोस्ट फट आसची अशेंच दिसतालें. पोस्ट पळयली आनी तेच वांगडा हेरय ग्रूप पळयले पोस्टाची खातर जमा करून घेवंची पडली कारण ही बातमी खरी आसूं येता हें मानपाक मन तयार नाशिल्लें. हाका दोन कारणां आशिल्लीं एक तुमचें वय नाशिल्लें आनी दुसरें म्हत्वाचें म्हणल्यार कोंकणी संवसारांत तुमी जाय आशिल्ले. अशें म्हाका आजय दिसता. तुमी तुमच्या आयुश्यांत जायत्यो भुमिका केल्यो पूण म्हाका सामक्यो लागिच्यान दिसल्यो त्यो तुमी विद्यार्थी प्रीय शिक्षक, कार्यकर्ते, सैमप्रेमी, खरें म्हणल्यार एक गोड मनीस.



जे जे विद्यार्थी नित्या सराच्या हाताखाला शिकल्यात तांचें नित्या सरा विशींचें एकच मत आसतलें. एक बरो शिक्षक. केन्नाय भुरग्यांनी सराचे लेक्चर बंक बी केला बी आसत हाचेर व्हड प्रस्नचित्र आसतलें. सरांचो क्लास म्हणजे उमेद पुराय क्लासांत एक एनर्जी संचारताली. सतत भुरग्यांक प्रोत्साहीत करप ते खातीर भुरग्यांक घेवन संमेलनांनी, महोत्सवांनी, कॅम्पांनी ते स्वता फिरताले. कितलीशींच विद्यार्थी अशीं आसतलीं जांणी आपल्यो खाजगी गजाली सरा कडेन शेर केल्यात आनी सरानय त्यो तितल्याच आत्मियतेन आयकून विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन केलां. विद्यार्थ्यांची कसलीय अडचण आसूं सर हजर. विद्यार्थ्यांक तांच्या घराच्या सयत वळखप ही तांची खासियत म्हणू येता.

म्हजी आनी नित्यानंद सराची वळख २००३ नांतली. म्हज्या एडमिशनाक कळाव जाल्लो देखून खूब उसरां हांवें महाविद्यालयांत प्रवेश घेतिल्लो. सरान आपल्या संघर्शमय जिणेंतल्यान ज्या दिसाक सी. ई.एस महाविद्यालयांत पावल दवरलां त्या आदल्या दिसाचें तांचे एकच लेक्चर हांव ताच्या वर्गांत बसलां. पूण ते लेक्चर सरांच्या हावभावां सयत म्हाका आजूय याद जाता. सर शिकयतना मंत्रमुग्ध जाताले. शिकोवपांत रमताले ताकाच लागून विद्यार्थ्यां कडेन इश्टागतीचें नातें जोडटाले.

मिजास म्हणटात ती तांचे कडेन नाशिल्लीच देखून सी.ई. एस महाविद्यालयांत येवपी नवीन टिचरांक ते आपलेपणान महाविद्यालयांत येवकार दिताले. जुलै २००९वांत म्हजो सी.ई.एसांत पयलो दीस. शिरंदरांनी पावस वोततालो अर्देशें भिजतच हांव महाविद्यालयांत पावलें. सर स्टाफ रुमाच्या दारांतच उबे जशें कितें म्हाका येवकारुकच रावल्यात. ते उपरांत तांणी प्रसन्न मुखामळान दिल्लो येवकार. 'यो' म्हणून स्टाफरुमांत व्हरप आनी सगळ्या मुखार म्हजी वळख ''हें बाय कृपाली आमचें कोंकणीचें नवीन स्टाफ बरें भुरगें आनी बरें कलाकार'' आनी म्हजे कडेन पळोवन "welcome to the C.E.S family." म्हण दिल्लो येवकार आनी हें आपले पण फकत एका दिसा पुरतें न्हय जाल्यार ताचो अणभव तांचे बरोबर काम करतना सदांच आयला. दुसऱ्यांक समजून घेवप आनी प्रोत्साहीत करप ही तांची जमेची बाजू. देखून तांचे वांगडा काम करतना केन्नाच सिनियर ज्युनियर भेद दिसूं ना. जावं, ''सर तुमी अशें कित्याक केले. म्हण विचारतना भंय दिसूं ना.'' तांणीच दिल्लो एक मंत्र. जो फुडल्या जिणेंत खूब महत्वाचो दिसलो.तो, ''खंयच्याय इंन्सट्युटिशनाक लाटबलिटी जावं नाका बी एन असेट.'' ह्या वाक्याचो अर्थय तांच्याच तोंडांतल्यान कळ्ळो महाविद्यालयांत नॅक कमिटी येवपाची आशिल्ली आनी त्याच वेळार सरांचे लग्न. विभागांतलीं कामां भरपूर आशिल्लीं. एक दीस दनपारचें म्हाका सगळ्यो फायली दाखयल्यो आनी म्हणूंक लागले ''हें सगळें जातलें मुगो आमच्यान?'' ''जातलें सर तुमी तुमची तयारी करात.'' अशें म्हणत हांवें त्यो फायली पळयल्यो. नॅका सामकार आमचें प्रझेंटेशन जालें. एकान एक वस्त सराक जाय तेन्ना हातांत पावली. नॅक कमिटीन आमच्या विभागाची तोंड भरून तुस्त केली. ते वेळार सरान जे तरेन म्हजे कडेन पळयलें ती नदर म्हाका सांगताली हांव असेट म्हणटा तो होच. १४वें साहित्य संम्मेलन जैतिवंत करतना तर सरांची धांवपळ पळोवपा सारकीच आसली. हांव महाविद्यालयांत रावन काम करतालें, जाल्यार सर सगळीं भायलीं कामां.

सांजवेळार फकत तांकां जाल्ल्या कामाचो अहवाल दिवप इतलेच. संमेलन जैतिवंत जाल्या उपरांत सरान केल्लो फोन आनी भरभरून केल्ली तुस्त आंगार मूठ भर मास चडपाक पुरो इतली आशिल्ली. तांकां धाडिल्ले शुभेत्साचे एस.एम एस तांणी म्हाकाय वाचूंक धाडिल्ले. इतलें की तांकां सांगचें पडलें सर पुरो हांवें कायच करूंक ना सगळें काम तुमीच केलां. खरे म्हणल्यार तांचे सांगातान केल्ले काम हें सदांच समाधान दिवन गेलें. आपल्या वांगडच्याक घेवन काम करतना कसलोच सुवार्थ बाळगी नासतना कशें काम करप हें तांचे कडल्यान कोणेंय शिकूं येता. इतलो तांचे कडेन निस्वार्थ दिसतालो. तांचे खातीर महाविद्यालय हें श्रद्धास्थान. तेच वांगडा थंय कोंकणीची उदरगत हो ताचो गाभो. देखून जें जें हेर विशयांक मेळटा तें तें कोंकणीकय हक्कान मेळूक जाय हे खातीर ते प्रयत्नशील आसताले. खासा विद्यार्थ्यांक भोंवडेक व्हरप हेय ते करताले. जाका लागून भुरगीं कोंकणीच्या संवसारा कडेन लागीं येतलीं. केन्ना गोंयांतच लेखकांक, भाशा मंडळाक, गोवा कोंकणी अकादेमीक, सुनापरान्ताक भेट जाल्यार केन्ना केरळ, मंगळूर वाठारांत. भुरग्यांक घेवन भोंवडेक वतना तांची आखणी सुंदर आसताली आमी केल्ली केरळ भोंवडीं तर सरान जुस्ता जुस्त प्लेन केल्ली.ती वेवस्थीत जावंची म्हण केरळच्या आपल्या मित्राक शिवानंद शणै मामाक सांगून दवरिल्ले. आनी ह्या भोंवड्यांनी सरांचो दिसपी उत्साह तोय तितलोच आसतालो.

सर खंयच्याय कार्यावळीक एक कार्यकर्तोच म्हण वावुरताले. खुर्चो लाय त्यो काड प्लास्टीक पुंजाय असलीं कामां. 'सर तुमकां स्टेजीर बसन दिसना?' सी.ई. एसांत आसतना एक दीस विचारिल्लें सराची जाप ''मागीर हें कोण करतलो? आमकां कोंकणीन खूब दिलां आनी कित्याची अपेक्षा ना.'' सराची म्हण गजाली सांगपाची एक तरा आशिल्ली खंयचीय घडणूक आपल्या सांगातान घडिल्ली आसूं जावं ती आपल्या इश्टा वांगडा. ती काणी सांगची तशी तांणी सांगची इतली रंगोवन की सर खोबऱ्यो सांगतना वेळाचे भान नासतालें. सर फोंडेचें तरी तांचें साश्टी बोलयेचेर प्रभुत्व आशिल्लें. त्या बोलयेंत उलयतना जावं कोणाची नक्कल करतना सर सामके जोशान येताले. अश्या वेळार तर म्हाका, सुचिताक बी वेळ जाला घरा वचूंक जाय आता हाची जाणय जाय नाशिल्ली. आपल्यो खबरी रंगोवन सांगतना तेवय थक नाशिल्ले. तांच्या जिणेचो अणभवय विविधांगी आसतालो. ल्हान ल्हान गजालीय रूच लावन सांगपाक तांकां आवडटाल्यो. एक दीस तांकां विचारिल्लेय ''सर तुमी बरयनात कित्याक?'' ''बसून बरोवंक वेळ जाय गो. आता बरोवंक जाय. आमचीं कामांच सोंपनात.'' म्हणून तांणी तो विशय मुखार धुकळिल्लो.

सर सैम मोगी आनी एक बरे फोटोग्राफर. हें तांचे फुलां, फुलपाखे, सरभोंवतण हांचे काडिल्ले फोटो पळयल्यार कळटलें. ते केन्ना दर्याच्या देगेर, केन्ना शेतांनी, केन्ना पावसांत, झऱ्यांत भिजतना दिसतले. तेच वांगडा तांचो सी.ई एसांत एक वसुंधरा नेचर क्लब आशिल्लो. जातूंतल्यान ते सैमा कडेन जोडटाले. झाडां लाय, भुरग्यांक सैम भोंवडेक व्हर आनी जायतो वावर थंय तांचो चालू आशिल्लो. सैम तोखेंवपाकय तांकां बरें जमतालें. कितेंय सैमांतलें सुंदर दिसलें जाल्यार ''आऽऽऽ हाऽऽऽ हाऽऽऽ पळयात गो कितलें सुंदर.'' म्हणून तांणी कोणाकय दाखोवचें ते मागीर आमचे खातीर सादें झाड, फुलपाखो बी आसतालें. पूण तातूंतय तांकां अप्रतिमताय दिसताली.

हालीच प्रो. अन्विता अब्बी हांच्या मार्गदर्शना खाला एक ७ दिसाची कार्यशाळा विद्यापीठांत जाल्ली. थंय सात दीस नित्यासर आमचे बरोबर आशिल्ले. हे सुंदर कार्यशाळेंत आमी खूब शिकलीं, मजा केली. पूण रंग भरलो तो तांणीच. तांचे कडेन फुगड्यो, धालो आनी कोंकणी, हिन्दी गितांचो साठो आशिल्लो. खंयच्याय प्रसंगार गावपाक तांचे कडेन गितां आशिल्ली. शिकयतां शिकयतां संदर्भाक धरून ते गायताले आनी आमकां भाशाविज्ञान शिकतनाय उल्हासीत दवरताले. त्याच वर्कशोपाक वतना एक दीस गाडयेंत तांणी आपली पन्नाशी मनोवपाचो उत्साह उलोवन दाखयिल्लो. तेच वांगडा आयच्या पिळगेंतल्या शिक्षकां विशींची एक खंत उकतावन दाखयिल्ली. तुमच्या म्हणल्यार म्हज्या धरून फुडल्या पिळगेच्या शिक्षक भुरग्यां विशीं, जांकां सोशल लायफ ना. स्वता पुरतेच चिंततात. कशें जावप ह्या भुरग्यांचें? हो प्रस्न तांकां सतायतालो काय?

सराक इश्ट परिवार खूब गोंयचोच न्हय जाल्यार गोंयां भायलोय. कोणूय भायल्यान गोंयांत आयलो काय सरबरायेक सर हाजीर तांची रावपाची वेवस्था, तांकां भोंवपाक प्लेन सांगपाक आनी तांचे खातीर स्वताचो वेळ दिवपाक ते तयार. हें सगळें एखादो दिलखुलास मनीसच करूंक शकता. अशे आशिल्ले नित्यासर 'नित्य आनंदी'. सरांचो वॉटसअॅप स्टेटस पळयल्यार कळटलें ताचेर बरयलां celebrate life... ते स्वताय तशेच जगल्यात. स्वताआनंद अणभवत दुसऱ्यांक आनंद दीत जशें आपलें नांव 'नित्यानंद' देखून म्हाका सदांच दिसतालें ते एक गोड मनीस...

आज हो लेख बरयतना एक गजाल तुमकां सांगपाची उरिल्ल्याची खंत जाता सर, जी तुमकां हांव केन्नाच सांगूक पावचें ना. ती सांगपाक तुमकां कॉलय केल्लो पूण लागू ना. आनी मागीर हांवेंय परत ट्राय करूं ना. ती आता उरलीच.

फाटल्या म्हयनोभर हो लेख आज बरोवन काडटलें फाल्या बरयतलें करीत दीस मुखार व्हरतां. पूण तुमचेर बरोवंक मन तयार जायना. खरें म्हणल्यार तुमी नात हें मानपाक मन तयार जायना. तुमी गेल्ल्यान कोंकणी जगताचें भरून येवचें ना इतलें लुकसाण जाला इतलें खरें.'तुमच्या आत्म्याक शांती लाबूं. आगीं...!'

संपर्कः ९७६५१८७६०६



# समृद्ध कोंकणींतलीं उतरां : ‘ध वर्डस’ आनी ताचे शवविच्छेदन

प्रकाश द. नायक

आमी लेखक. आमी कोंकणी लेखक. आमी कोंकणींतल्यान बरयतात म्हणून कोंकणी लेखक. आमी स्वताक सर्जनशील कोंकणी लेखक समजतात. एक लेखक म्हणून म्हाका एक प्रस्न पडटा. आमी कोंकणींतल्यानूच कित्याक बरयतात? कोंकणींतल्यान बरोवपा फाटलो आमचो कितें उद्देश आसा?

म्हज्या विचारा प्रमाण कोंकणींतल्यान बरोवपा फाटल्यान दोन उद्दीश्टां आसूं येतात.

एक तर कोंकणी भास समृद्ध आसा म्हणून आमी कोंकणींतल्यान बरयतात वा दुसरें म्हणल्यार कोंकणी भाशेक समृद्ध करपाक आमी कोंकणींतल्यान बरयतात.

उद्दीश्ट क्रमांक एकाचेर बोट दवरतना, आमची ‘कोंकणी भास खऱ्यांनीच समृद्ध आसा काय कितें?’ असो म्हजो म्हाकाच प्रस्न विचारचो लागता. ताचेर म्हजी जाप, हय. आनी जाप जर हय जाल्यार म्हाका कांय उदाहरणां दिवन ती कशी समृद्ध आसा तें सिद्ध करचें लागतलें.




दोन वर्सां फाटी हांव राष्ट्रीय कवी संमेलनांत वांटो घेवपा खातीर साहित्य अकादेमीच्या आमंत्रणा वेल्यान आयझोल, मिझोराम वचून आयलो. म्हज्या वांगडा देशांतल्या विंगड विंगड वाठारांतले आनी विंगड विंगड भासांतले कवी ह्या कवी संमेलनांत वांटो घेवपा खातीर एकठांय आयले. आमकां लागीची भास म्हणल्यार मराठी. मराठी भाशेंतलो वांटेकार जावपी कवी आसलो भरत दींडकर. मराठींतलो आयचो आघाडेचो कवी. (ताचे कविते विशीं जाणून घेवपाक ‘यू ट्यूबार’ वचून ताच्यो कविता आयकूंक, वाचूंक वा पळोवपाक मेळटात.) चार दिसांच्या काळांत आमी दोगूय एकेच कुडींत आसले. फावल्ल्या वेळार एकूण मराठी कविते विशीं, ताचे दलीत कविते विशीं खूब कितें उलोवप जालें. उलयतां उलयतां आमच्या कोंकणी आनी मराठी भासांचेरूय उलोवप जालें. म्हजे एके कवितेंत शेंकरो अशें उतर आयलां. ताणेंच म्हाका विचारलें, ‘हो शेंकरो म्हणल्यार कितें?’ त्या उतराक हांवें फोडणीशीं केली. शेंकरो हो एके तरेचो बारीक फातर. आमचे कोंकणींत फातराक संबंदीत कितलींशींच उतरां आसात. गुणो, फातर, वेडो, लोवर, कालयांव, कुपांदर, चिरो, शेंकरो, शेंकरी, खडी, पाशाण, गडगो अशा फातराक आशिल्ल्या कांय समांतर उतरांची वळेरीच हांवें ताच्या मुखार सादर केली. मागीर ताका विचारलें, तुमचे मराठींत अशीं उतरां आसात काय कितें? ‘नाही हो. आमची भाशा इतकी समृद्ध असून सुद्धा अशी शद्बसंपदा आमच्या मराठींत नाही. फार तर दगडाचे चार-पांच शद्ब असतील. दगड, धोंडा, गोटा. आणखी नाही आठवत. शद्बसंपदे वरुन भाशेची समृद्धता दिसून येते. तुमची कोंकणी खरंच समृद्ध भाषा आहे.’ अशीं जायतीं उदाहरणां हांवें ताका दिलीं. देखीक माड. माडाच्या दर एका अवयवांक आशिल्लीं उतरावळ म्हणल्यार आमची गिरेस्त शद्बसंपदा. दुसरें उदाहरण म्हणल्यार केळ. शिरती धरून चोळको, खोलो, गोबो अशीं जायतीं उतरां ही कोंकणी भाशेची समृद्धताय दाखयता.

क्रमांक दोनाचेर वतना कोंकणी भास समृद्ध जावंची म्हणून खऱ्यांनीच आमी बरयतात व्हय? म्हाका दिसना. असो आरोप करतना म्हाका कांय देखी दिवंच्यो लागतल्यो.

ह्या लेखांत एकसुरी एक देख हांव दितां ती म्हणल्यार अंदू वर्सा ज्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला तो निलबा खांडेकार हांचो ‘‘ध वर्डस’’ हो कविता संग्रह. पयलें म्हणल्यार कवी निलबा खांडेकार हाका आमची कोंकणी भास इतली समृद्ध आसतना वा ती समृद्ध करपाच्या वावरांत वावुरतना ‘‘ध वर्डस’’ हें इंग्लीश शिर्शक कित्याक दिवंचेशें दिसलें? हाचे आदीय ताचो ‘‘ब्लॅक’’ हो इंग्लीश शिर्शक आशिल्लो एक कविता संग्रह आयला. भाशेच्या संदर्भांत वावर करपी जाणकारांनीय ताका गरजेचें ‘तीर्थ’ दिलें ना अशें दिसता. वा कवीचें तें अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य म्हणुनूय हे लोक वगी रावले आसतले. ताचो परिणाम म्हणल्यार अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याच्या पड्ड्या फाटल्यान रावून ‘‘ध वर्डस’’ अशें इंग्लीश शिर्शक आयात करून दिवपाचें धाडस ताका जालें. कांय जाण म्हणटले ‘‘नांवांत कितें आसा?’’

निलबाच्या कविता संग्रहाक पुरस्कार मेळटकीर जायत्या जाणांनी सभावीकपणान ताची तोखणाय केली. कांय जाणांनी ताची कविता अभ्यासि नासतना ताचे कवितेची तोखणाय करपी लेख बरयले. कोणें ताची कविता दुबरेध म्हणली. हांव जाल्यार म्हणन ताची कविता दुबरेधूच न्हय तर ती कोणाकूच कळ नाशिल्ली कविता. म्हज्या सारकिल्ल्या कवितेंच्या अभ्यासकाक ‘‘ध वर्डस’’ कविता संग्रहांतल्या कांय थोड्या कवितांचो म्हणल्यार हाताच्या बोटार मेजपा इतल्याच कवितांचो बोध जालो. म्हाका बोध जालो ना म्हणून कोणाक जाय ताणें, ती म्हजी दुर्बळताय अशें समजूं येता. ताचे खातीर वाचक स्वतंत्र आसात.

बाराव्या शेकड्यां मेरेन महाराष्ट्रांत पंडीत आनी ब्राह्मण लोक संस्कृतांतल्यान कितें सांगताले, उलयताले आनी बरयताले तें सामान्य लोकांक कळ नासलें. आनी तें सगल्यांक कळचें म्हणून संत ज्ञानेश्वरानी संस्कृताचें प्राकृत केलें तेन्ना ‘दुबरेध’ अश्या उतरांचे अर्थ सामान्य लोकांक कळपाक लागले. एकादो निलबा सारकिल्लो कवी, कोण त्या महाराष्ट्रांतल्या पंडीत वा ब्राह्मणा भशेन न्हय. आनी ते खातीर अशें म्हणन दिसता की ‘ध वर्डसां’तली आनी निलबाची एकूण कविता कळपाक कोणाक ज्ञानेश्वराक जल्म घेवंचो लागूंक जायना. आनी तो जल्माक आयलोच जाल्यार ताचें अर्दे अदीक श्रेय हांव निलबाचें कवितेक आनी कवी निलबाक दियन.

निलबाची एकूण कविता सर्वव्यापी अशें कविता वाचतल्याक दिसता. सर्वव्यापी कवी असो उल्लेख करतल्यांक तो देशाचेरूच

न्हय तर तो आंतरराष्ट्रीय घराचेरूय आपले कवितेंत भाश्य करता अशें दिसता. पूण जे कोंकणी भाशेची भूंय आनी जे भुंयेंत आपूण जल्मलो वा ल्हानाचो व्हड जालो ते गोंयच्या भुंयेंतल्या १२९ पानां वयल्या 'दोंगरेकारांतल्या दोंगरेच्या सासणाखातीर' आनी १४१ पानां वयल्या 'गोंय' ह्या दोन कवितां-भायर ताका हांगा सरलें अन्याय, अत्याचार, वेदना, संवेदना कांयच दिश्टी पडनात. पूण ताका गोंयां भायल्या म्हणजेच शेश भारतांतल्या आनी विदेशांतल्या घडणुकां विशीं आयकून वा टी.व्ही.चेर पळोवन थंय जावपी अन्याय, अत्याचार, वेदनां, संवेदनां विशीं तो व्यक्त जाता.

''ध वर्डस'' ह्या कविता संग्रहांत आमकां कवी निलबा त्याच त्याच उतरांनी (Sorry, the words) घुंवडावन उडयता. ताचे कांय आवडीचे विशय आसात त्या विशयां भायर कवी निलबाचें लक्ष वचचना. तीं उतरां हांव मुखार दितां. हीं उतरां एकेकदांच बरयलीं जाल्यार कविता संग्रहाचीं दोन-चार पानां भरतलीं.

निलबाचे आवडीचे विशय वा उतरां फुडें दिल्ल्या प्रमाण आसात.

रामायण, महाभारत, अशोक, शांती, अहिंसा, अजिंठा वेरुळ लेणी, बुद्ध, बुद्धमय, कुंती, कर्ण, कुरुक्षेत्र, भिष्म, पितामह, दुर्योधन, दु:शासन, कृष्ण, राम, बापू, महात्मा, गांधी, हिटलर, कम्युनिस्ट, तांबडो रंग, तांबडो बावटो, कार्ल मार्कस, कुराण, भगवदगीता, क्रिस्त, बायबल, गंधसाहीब, ज्यॉ पॉल सात्रक, बोकोहराम, इसीम, अब्बाजान, एम एफ हुस्ेन, मनमोहन सिंग, मोदी, शहीद भगतसिंग, नेताजी सुभाषचंद्र बोस, पिकासो, लिओनार्ड दा विंचीन, थॅम्स न्हंय, गजगामिनी, स्मीथ, रशदी, हडप्पा मोहेंजोदारो, खजुराहोचो गर्भागार, अवतार, झंव बाये शेट, निर्भया, शुभंकर, शद्व, संभोग, कोलंबस, बॅब्तीझम, निरोध, गांड, खलीद सैद, डॉप्लर सिद्धांत, वॉम, मोसादाच्या एजण्टांनी पॅलेस्टिनी गनिमांनी काडिल्लो कांटो, लॅनीन, अग्नी, नैनं दहती पाचक, शिया-सुन्नी, चाड्ड, मिस्तीस, आडवे-उबे, फिलीस्तान, व्हियतनाम, इराक, काश्मिर, प्रमथ्युसाक, दक्षिण आफ्रिका, सोमालिया, सिरीया, अफघानीस्तान, इराक, अमेरिका, बॉमबारी, सद्दामाची हत्या, तालिबानी, जिहाद की चावी, नक्षलवादी, थानां, योनी, योनीशुचिता, संभोग, काळे-गोरे, दोन धुवांचेर, व्हॉल्तॅर, नॅल्सन मंडेला, बराक ओबामा, हातांतलो दांडो, हे राम, सत्याग्रह, गांधीवाद, ऑस्कराचो वास, सर्वोदय, गांधीच्या देशांत, ॲटनबॅरो, ऑक्ल, राम मनोहर लोहिया, राजकारण, मूठभर मीठ, आयोडीनयुक्त, इंगरसोल, चरखो, शांत, उपोशण, वर्धा, साबरमती, दांडी यात्र, नीरवाली, दिल्लीचो रस्तो, शांतीचो नोबेल, रामराज्य, तीन माकड, साबरमतीचो संत, दोन ऑक्टोबर, गांधी जयंती, पीड पराई जाणो रे, व्रत, सिलीकॉन व्हॅली, कुंभकर्ण, वाली, शंबूक, रामावतार, धर्म, नितीमुल्यां, अमर केल्लो अत्याचार, महमद गजनी, घोरी, ब्रिटीश साम्राज्य, पाकिस्तान, शिशुपाल, शंबर अपराध, आसाराम बापू, शांतम् पापम्, शोभन सरकार, दाभोलकारांचो खून, इस्रो, तिरुपती, अग्नी - ५, कृपाळू महाराज, उपासनी बाबा, निर्मल बाबा, राम रहीम बाबा, सत्संग, लालू यादव, ओसामा, आतंकवादी संघटना आनी हेर.

**कांय चॅनलांचीं नांवां :** बी बी सी, अल जजीरा.

इंग्लीश उतरां: ध वर्डस, ब्लॅक, बफर झोन, एफ.डी, बी पॉजीटीव्ह,

डायजेस्ट, कॉरपोरेट, कोलाज, इंटरनेट, शॅर, डॉलर, इंटरनल, एक्सर्टनल, कनॅक्शन, आवट ऑफ कव्हरेज, एलिनेशन, प्रियॅम्बल, वाल्मीकीस व्हीजन ऑफ सुंदरकांड, परमीट, ब्रश, कॅनवास, प्रोटॅस्ट आर्ट, वे ऑफ बिस्कॅत, स्ट्रोक्स, ब्रशाचो स्ट्रोक, हार्ट ॲटॅक, यु टर्न, बिल्डींग, इंशुरन्स, मोबायल, कॉल रिसिव्ह, कफ्यरू, गॅंगरेप, एंगल, फॅक्टरी, ऑफीस, लिफ्ट, एँजॉय, फायनल, फास्ट एँड फ्युरियस, अण्डरवर्ल्ड, रिलॅक्स्ड, फोर्स, स्टॅनगन, बॅलन्स, रेड, एस व्ही कॅन, सिवील कोर्ट, आगरुमेंट, सबमिसीव्ह, सप्रॅस्ड, डिस्प्रॅस्ड, डिस्कव्हरी ऑफ इंडिया, सेलेब्रेशन, ग्लास, ग्रायप वॉटर, ई-लायफस्टायल, मॅमरी डिलीट, रिकव्हर्ड मेंमरी, टॅम्परारी फायली, जोक, डुप्लीकेट, पर्चेझींग पावर, लिबर्टी, स्पेस, ग्लोबलायझ्ड बिलेज, डिजीटल बॅब्ज, बिईंग ऍंड नथीमनॅस, मॉर्ग, हायलायट, रेन्ज, सायड, ध धींक बीध गो अहेड, टी शर्ट, सेंलेंबल स्पेस, मॉडर्न आर्ट, बहल, वी आर ऑल, फक पॉलिटीक्स अँड पॉलिटिशीयन्स, टॅन्शनातूंच, व्हायट कॉलर, पेण्डोरास, बॉक्स, ट्रफीक जाम, बिझी, एँगल्स, बूमरॅंग, आक्युपाय, वा बर्निग, मॅन्स टॉयलेट, एग्रॅशन, रायट टू पी, पब्लीक स्पेस, चिपको, पासवर्ड, स्पार्टाकसाक, स्कॅप, आलार्म, क्लॉकाची, व्हिजन, मिशन, लायट म्युझीक, टॉवर, ग्लोबल वॉर्मिग, सिम्फनी, प्लैचेट आनी हेर. ही कोंकणी नवकवितेची झलक निलबाच्या कवितांनी दिश्टी पडटा. ह्या सगल्या उतरांच्या आदारान कोंकणी भाशेंत शब्द दळिंद्र भरलां अशें दाखोवपाचो तर तो यत्न करिना मूं असो दुबाव कोण घेवंचो ना. अशें दिसता. पूण आपणे एके समृद्ध भाशेंत बरयलां वा ती समृद्ध करपाक बरयतां हें तो विसरता वा तो तें जाणुनबुजून करता हें कळपाक मार्ग ना.

निलबा आपल्या कवितांनी जगभराच्यो गजाली सांगता आनी शेवटाक दोंगर पोखरून हुनीर भायर काडटा. तो हें सगलें दुर्वो धतायेन सांगता आनी एके तरेन वाचकांक, कवितेच्या रसिकांक आनी तत्त्वगिन्यान्याकूय फटोवन घुंवडावन उडयता. चार इंग्लीश उतरां, कांय चॅनलांची नांवां, कांय पुराणांतलीं नांवां, खंडकाव्यांची नांवां, खंडकाव्यांतल्या पात्रांची नांवां, आंतरराष्ट्रीय थरावेल्या समाज सुधारकांची आनी लेखकांचीं नांवां, धर्म आनी धर्मग्रंथांची नांवां, महात्मा गांधी आनी गांधीवादाक पुजपी आनी भजपी राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय थरा वयल्या नामनेच्या लोकांची नांवां, कांय देशांची नांवां वाचकांच्या सोणार मारली म्हणटकर काम जालें. आनी तांचे अर्थ सोदपाक गेले जाल्यार कांयच हाताक लागना म्हणजे ती कविता बरी अशें घुंवून घुंवून घुंवळ येवन पडिल्ल्या बुद्धीजिवीक लेगीत दिसल्या बगर रावना. आनी बुद्धीजीवी लोकांक ती कविता बरी म्हणल्या बगर पर्याय उरना.

''ध वर्डस'' ह्या पुस्तकांत कांय कडेन संभोग, योनी अशीं दुसरे भाशेंतल्यान आयात केल्लीं उतरां आढळतात. दुसरे भाशेंतली अशें हांव कित्याक म्हणटा जाल्यार आमी संभोग हे उतर चालंत वापरीनात. 'झंव बाये शेट' वा 'म्हज्या संवसारांत हांव जेवतां, खातां, न्हिदतां आनी झंवतांय बी' अशें संदर्भ ताचे कवितांनी आयल्यात. तेच सारके कशे दिसतात. ते खातीर संभोग हें उतर आडेचे आनी कृत्रीम अशें म्हाका दिसता. संत तुकाराम लेगीत आपल्या तुकाराम गाथेंतल्या 'संतपर अभंग' ह्या भागांतल्या ६३व्या अभंगांत लेगीत 'झंव' हें उतर वापरलां. कशें तें पळयात.

*झंविली महारें।*
*त्याची व्याली पोरे।।*
*करी संतांचा मत्सर।*
*कोपें उभारोनी कर।।*
*वीज आले अमंगळ।।*
*तुका म्हणो ठावे।*
*ऐसें जालें अनुभवें।।*

'योनी' हें उतर आमी कोंकणींत सहसा वापरीनात. मनशाक वापरतना आमी तीन तरांनी तें वापरतात. गाळ घालतना तें आमी xद वा xोदो म्हणून वापरतात. शिगम्याची तालगडी म्हणटना आमी 'होर गयो xोदो खायो' अशें म्हणटात. जाल्यार त्या अस्सल कोंकणी उतराक आपल्या कविता संग्रहांत स्थान दिनासतना कवी निलबा 'योनी' हें उतर वापरता. तें वापरतना तो म्हणटा, 'योनींतली दोनूय वोटां हांवें भायर काडली' अशें म्हणटना शृंगार रस सोडून तो pornology कडेन लागीं पावतासो दिसता. शृंगार रस आनी pornology हे दोनूय विशय वेगळे वेगळे. ते खातीर निलबाची कविता घेवन तांचेर स्वतंत्रपणान वेगळें लिखाण जावं येता.

बायलांचेर दिसान दीस वाडपी अन्याय, अत्याचार तशेंच तांच्यो वेदनां आनी संवेदनांचे आयज संवसारीकरण जालां. त्या संवसारिकरणाचें चित्रण करतना कवी आपुणूय त्या संवसारिकरणाचो एक भाग जावपाक सोदता कशें दिसता. कशें तें मुखार सांगता.

एक सोळा वर्सांचें सुंदर चली आपणाचेर बलात्कार जाला अशी कागाळ घेवन पुलीस स्टेशनाचेर वता. अशा वेळार ताच्या निरागस आनी निर्विकार मनाक एकूच आदार दिसता तो म्हणल्यार पुलिसांचो. तें पुलिसांक सगळी घडिल्ली गजाल सांगता. पुलीस ते चलयेची कागाळ नोंद करून घेता आनी ताका घरा धाडटा. मागीर चवकशी करपाच्या हेतान पुलीस ते सुंदर चलयेक आत्र्यापयत्यान पुलीस स्टेशनाचेर आपयता. इल्लें इल्लें ते चलयेकूय पुलिसां विशीं आपलेंपण दिसपाक लागता. आनी एक दीस एकेक पुलीस ताका वेंगान घेवन चवकशेच्या निमतान 'असो बलात्कार जालो, असो बलात्कार जालो' करीत बलात्कार कसो जालो ताचे प्रात्यक्षीक घडोवन हाडटात. ही सुंदरताय जायना तर ती एक विकृताय थरता.

कवी योनींत बोटां घालपाची सुंदरताय सोदता काय विकृतायेक सुंदरताय मानता असो प्रस्न मनांत येता. नाजाल्यार बायलांची थानां, योनी, हड्डीं आनी हेर शरिराच्या अवयवांचे संदर्भ दिता आसतनाच दादल्याक उगलो करपाचें धाडस आपल्या कवितांनी तो कित्याक करीना हो प्रस्न जापेविणें अनुत्तरीत उरता.

शेवटाक इतलेंच, समृद्ध अशे कोंकणी भाशेंतल्यान बरयतना ''ध वर्डस'' धरून हेर भासांतली 'उतरां' निलबाक कित्याक आयात करचीं लागतात वा कोंकणी भास आनिकूय समृद्ध करपाच्या वावराक निलबाचे कवितेचें कितें योगदान आसा हेंवूय बी कळप ताचे कविते वरीच दुबोध थरता.

संपर्क: ८७९६८४३५६४

*(पान ४ वयल्यान)*

(पान ४ वयल्यान)

आपले मातये वटेन लागले. ह्या सत्तर दिसांत प्रत्येकान कितें ना कितें सोंसलां... ताचेर चिंतन केलां, मनन केलां... कोणें कितें चिंतलां हें कोणाक कळचें न्हय म्हूण तोंडार दिसता तसो मास्क चडोवन हें सगळें घडलां... आनी हें सगळें घडटा तें हांवें घरांत बसून पळयलां... हो एक खूब व्हडलो चित्रपट दोळ्या मुखा वयल्यान गेला... प्रचंड व्हडली कादंबरी ही... हांवें वाचून काडल्या. हे कादंबरेंतल्या विंगड विंगड पात्रांच्या तोंडा वयले मास्क जेन्ना ते देंवयतले तेन्ना एक नवी धर्तर आमकां पळोवंक मेळटली, जंय खऱ्यानीच मनीस वावुरता तें पळोवंक मेळटलें.

ह्याच लॉकडावनाच्या क्वारंटायनाच्या काळांत म्हजी इश्टीण मंजुषा तळावलीकार हांणें वळख करून दिल्ल्या 'इकीगाय' पुस्तकाचेर आनी 'इकीगाय जिवनपद्धतीचेर' मात्सो खोलायेन विचार केलो. आमचें गोंय हें आटोपशीर राज्य. ह्या कोरोनाक लागून जांकां गोंयकार घांटी म्हूण पळयताले ते हजारांनी घांटी गोंय सोडून गेल्यात. हाका लागून गोंयकार आत्मनिर्भर जातलो. ते बगर दुसरो पर्याय ना. ह्या कोरोना क्वारंटायनच्या काळार समाजमाध्यमाचो आदार घेवन कितल्याच जाणांनी 'नौटंकी' करून आपले गूण दाखयल्यात तांणी ह्याच समाजमाध्यमाचो वापर करून गोंय इकीगाय जीवनपध्दतीच्या ब्लु-झोनांत कशें रुपांतरीत करूं येता हाचेर वावरूं येता. आमकां कोरोनाचो 'ग्रीन झोन' जाय काय इकीगाय जिवनपध्दतींतलो ' ब्लु झोन' जाय हाचेर आमच्यांनी विचार करूं येता आनी ते तरेन मार्गदर्शनूय करूं येता..आमेन!!

संपर्क: ९८२२१३६८८५

(पान ७ वयल्यान)

अवलंबून रावचें?

हो प्रस्न शेतकार एकामेकांक विचारूंक लागल्यात. शेता शिवाय फुडल्या थोड्या वर्सांक आमका दुसरो कायच पर्याय ना हें खूब जाणांक पटपाक लागलां.

वर्साच ह्या दिसांनी थोडे आशाड्डे शेतकार मातयेची भर घालून हळूच शेतां पुरवपाक लागताले, पूण परत गांवच्या शेतकाऱ्यांक आपली शेताची जमीन पुज्य दिसूंक लागल्या.

स सात म्हयन्यांनीं कोविडाची महामारी सोंपतकच घडये परत ते आदले वरी आशेड्डे जायत पूण ह्या घडयेक तरी खूब जाणांची विवेक बुद्धी जागृत जाल्ल्या वरी दिसता. वयर आख्यांत दोंगर कापून बेकायदेशीर घरां बांदप लेगीत हे घडयेक बंद जाल्लें आसा.कोविडाच्या दिसांनीं गांवांतलो सरकारी नोकरवर्ग सोडून बाकी सगळेच पादिशेर जाल्यात, पूण मनिसपणांक मात्शे बरे दीस आयल्यात. थळावे लोक निर्वासितांच्योय व्यथा समजून घेवपाक लागल्यात. गांवांतल्या आर. जी. वाल्यां तरणाट्यांच्या उज्याचो धग मात्सो उणो जाला.

निर्वासीत आमचो गांव सोडून गेले जाल्यार हो शेतकामाचो, बांदकामांचो गाडो कसोच गोंयकारां कडल्यान धुकलपाचो ना... सातशें रुपयांचो लेबर हजार रूपयांनीं जातलो म्हरे... अशें चावेच्या हॉटिलार शिरांच्या ग्लासांतल्यान घोट मारीत गजाली सुरू जाल्यात.

कोविडांत ना म्हटल्यार आमचो गांव बरोच बदलून गेला.

संपर्क: ९८५०४५३३५५



# कविते विशीं

माधव बोरकार



२६.०७.१९

मुक्ता आगशीकारान हाडिल्ल्यो आनीक कांय बाकीबाबाल्यो अप्रकाशीत कविता वाचतालों. तातूंतल्यो बऱ्योच कविता खूब वयल्या पांवड्याच्यो आसात. त्यो कवीच्या बासनांत इतलीं वर्सां कित्याक उरल्यो हाचें थोडें अजाप दिसलें. १९३१, ३२, ३३ ह्या वर्सांतल्यो कविता आयजूय आपली ताजबाण राखून आसात. 'अक्षय कविता बाकीबाबांची' ची सुधारिल्ली आवृत्ती काडपाची तयारी मुक्ता आगशीकार करता. तातूंत ह्या कांय कवितांचो आसपाव करचो असो विचार आसा.

ह्यो कविता बाकीबाबाल्या हेर कवितांच्या पांवड्याच्यो नासत पूण तांकां सामान्य अशेंय म्हणपाक मेळना. रचनेची सहजताय तातूंत दिसता तेच बरबर throught and emotional content तातूंत आसा. ह्या संदर्भांत दिलीप पु. चित्रे हांणी आपले कविते विशीं एके कडेन बरयलां ते म्हत्वाचें. ''कोणाही कवीचा जातिवंतपणा एकदा मान्य केला की मग त्याच्या बऱ्या वाईट, ऊंच सखल, दुषित किंवा विशोभित रचनासुद्धा त्याच्या संपूर्ण काव्यविश्वाच्या अविभाज्य भाग म्हणून पहाव्यात.'' बाकीबाबाल्यो ह्यो कविता वाचतना होच अणभव येता.

***

२७.०७.१९

एका कवी भितर दुसरे कवीक जागोवपाची तांक आसता. वि. ज. बोरकार ते विशीं आपलो अणभव सांगता. 'माझी पहिली कविता' आनी 'पाळं मुळं' ह्या दोन लेखांत बाकीबाबालो 'जीवन संगीत' हो कवितासंग्रह वाचून आपल्याक कवितेचो साक्षात्कार जालो. ह्या संग्रहांतल्यो कविता वाचून आपल्यांतलो कवी जागो जालो आनी आपले कवितेक सुरवात जाली हो तांचो अणभव अर्थपूर्ण दिसता. अर्थात कविता ही तांच्या रगतांत आशिल्ली. तिका बाकीबाबान जाग हाडली अशें म्हणप चड बरें जातलें.

कविता ही निमित्याची वाट पळयत आसता...

***

२९.०७.१९

कविता सुचता तेन्ना ती कवीच्या मनांत धुसर रुपांत आसता. व्हड्यांत बसून न्हंयची पलतड गांठप तसो तिचो प्रवास आसता. न्हंयची पलतड गांठली म्हणटकच सुटिल्ल्याची भावना जाता तसो अणभव कविता बरोवन ती पूर्ण जातकच दिसता.

***

३०.०७.१९

संगितांतलो एखाद्रो राग कितलेशेच गायक हजार फावट गायता. तरी आसतना तो राग नव्यान गावचो अशें गायकाक दिसता. ताका त्या रागांत आनी खूब कितें उरलां अशें दिसता. कवितेंतले शब्द आनी प्रतिमा कवीक अशेंच आव्हान दीत आसता. सांगून जालें तरी आनिकूय खूब अव्यक्त उरलां अशें ताका दिसता. सादी काळखाची प्रतिमा घेतली जाल्यार आज मेरेन कदीम काळा सावन ती संवसारांतल्या सगळ्या कवींनी वापरल्या. तरी आसतना ही प्रतिमा आयजूय कवितेंत वेगळे वेगळे तरेन येता. Fristचे कवितेंतलो काळोख वेगळो आनी रामाण्याचें कवितेंत येवपी काळोख परत वेगळो.

***

३१.०७.१९

कोंकणी कवितेची anthology करपाच्या निमतान आमच्यो कविता वाचतां. 'जीण जाली कस्तुरी' आनी 'पासवर्ड' हे नूतन साखरदांडे हांचे कविता संग्रह परत वाचले. ह्या दोनूय संग्रहां मदीं म्हाका बदल दिसलो तो असो: 'जीण जाली कस्तुरी'तली कविता ही चड भावगर्भ दिसता. निखळ अणभव व्यक्त करपी. तर 'पासवर्ड' संग्रहांत ती rhetorical जाल्ली दिसता.

आपल्या अणभवां कडेन प्रामाणीक रावचे परस फॅशेन म्हूण कविता बरोवप हाचे कडेन लक्ष दिल्ल्यान कवितेची भट्टी वाट लागता. साखरदांड्याची कविता वाचतना ताचो अणभव येता.

***

०३.०८.१९

बाकीबाब आपल्या एका ललीत लेखांत एका काळार घोळणुकेंत आशिल्लें नुस्त्यावेलें एक कवित quote करता. तें अशें

बांगडो न्हवरो । पेड व्हंकल
सुंगट कलवंत । नाच रे पालवा
सांगाळ्याच्यो केल्यो चार म्हेडी
लेपांच्यो केल्यो चुट्टां रे पालवा ।।
बाळ्याचे केले दोरे ।।
शेतुक करवली । भायर सरवली ।

मुड्डशी रागान गेली.

हें कवित तांची आजी म्हणटाली अशी नोंद ते करतात. हे लोककाव्याचें खरें संचीत जतनायेन दवरूंक जाय. ताचो कश्टान होलम घेतल्यार बरेंच धन हाताक लागतलें.

***

०६.०८.१९

फिलीप लार्किनाच्या चरित्रांत जेम्स बुथ लार्किनाचें आपल्या इश्टाक बरयल्लें पत्र दिता. हें पत्र ताणें तांचे पिरायेक साठ वर्सां जालीं तेन्ना बरयल्लें. तांचे कवितेक सुकती आयिल्ली. नवें कांयच सुचनाशिल्लें आनी सुचिल्लें मनाक समाधान दिनाशिल्लें. "Silence is preferable to publishing rubbish, and better for one's reputation." अशें लार्किन बरयता ताका विशेश अर्थ आसा. खूब फावट सांगपाचें सगळें सांगून सोंपता तेन्ना लिखणी खाला दवरप शाणेपणाचें आसता अशें कांय लेखक कवींक दिसता. तेन्ना ते आपल्या बरपावळीक विराम दितात. दुसरें कांय जाणाची सर्जन शक्त सुरवेक जागी जाता. आनी मागीर ती पालवता. कांय जाणांची तीच शक्त उसरां जागी जावन अखेर मेरेन जागीच उरता. वर्डस्वर्था सारकिलो कवी आपल्यो श्रेश्ठ कविता सुरवेच्या काळांत बरोवन गेलो. ओडेनाचे बाबतींत तशेंच म्हणूंक येता. शंकर रामाण्याक आपली खरी कविता येवपाक पंचवीस वर्सां वाट पळोवची पडली. पूण एक फावट आपलो नीज सूर सापडटकच अखेर मेरेन अर्थगर्भ कविता बरयल्यो.

प्रत्येक प्रतिभावंताचे प्रतिभेक मर्यादा ही आसताच. पूण ताची जाण सगळ्यांक आसताच अशें ना. रवीन्द्रनाथांक ती आशिल्ली.

***

०९.०८.१९

अक्षयकुमार काळे हांणी ग्रेसाची एक दीर्घ मुलाखत घेतल्या (ग्रंथमाला खंड एक. प्र. १९८४) हे मुलाखतींत ग्रेस दोन विधाना करता. पयलें विधान : शंकर रामाणी हांणी आपले कवितेचें अनुकरण केलां. पूण हें अनुकरण कशें हाच्यो देखी काय तो दिना. मुळांत अनुकरण आनी प्रभाव हातूंत खूब फरक आसा. अनुकरण हें एकाद्रो कवी आपल्या सुरवातीच्या काळांत करता. ती ताची एके तरेची गरज आसता. रामाण्याक आपलें कवी म्हूण स्वतंत्र व्यक्तिमत्व होल्मले तेन्ना निकतोच ग्रेसाचो कवी म्हूण उदय जातालो. मुळांत प्रकृतीचे नदरेन पळयल्यार हे दोन कवी एकामेकांच्या लागी येवपी. तांच्यो कविता अमूर्त आनी गूढ. पूण तांचे मदलो फरक लक्षांत घेवपाक जाय. ग्रेसाची कविता मुखार बरीच संदिग्ध जाली. कांय कविता निव्वळ यमकां जुळोवपाच्या सोसांतल्यान आयिल्ल्यो. रामाण्याले कवितेंत संदिग्धताय खंयच दिसना. तिका यमकां जुळोवपाचो खंयच सोस दिसना. खासा रामाण्याक 'संध्याकाळच्या कविता'तलो ग्रेस भावतालो. पूण ते उपरांतचो ग्रेस तांकां तितललो मानव नाशिल्लो. कांय वळींचो क्रम बदल्लो तरी कांयच फरक कसो पडना हें रामाणी ग्रेसाच्यो कांय कविता घेवन दाखयताले.

ग्रेस दुसरें विधान आपले कविते संबंदान करता. अद्‌भुताचें आपल्याक आकर्शण आसा आनी ताचो प्रभाव आपले कवितेचेर आसा अशें ते अक्षयकुमार काळे हांकां सांगतात. 'चंद्रमाधवीचे प्रदेश' ते तांचो निमणो संग्रह ताची गवाय दिता.

खासा ग्रेसाची ही मुलाखतूय विरोधाभासान भरिल्ली. शद्बांनी शेणिल्ली अशी आसा. तो तांच्या लिखणेचो स्वभाव अशें दिसता. तांचें ललीत गद्य अश्याच जातीचें. तांकां अचूक कितें म्हणूक जाय ताचो थांग लागना. तांच्या व्यक्तिमत्वा इतलेंच तें गूढ...

सुरवातीच्या काळांत ग्रेस दोन कवींच्या प्रभावा खाला आयिल्लो दिसता. एक एमिलो ब्रोन्ते आनी दुसरो येट्स. चड करून सुरवातीच्या काळांतले येट्साचे कवितेची लय ग्रेसाक लागी दिसता. दुसरें म्हणल्यार दोगांकूय लागीं हाडपी एक गजाल तांची अद्‌भुताची ओड. एमिलीची कविता बरीच गूढ. हो गूण तांकां लागी हाडटा.

***

१५.०८.१९

जी.ए. कुलकर्णीच्या पत्रांच्या चवथ्या खंडांत रामाण्याचे कवितेचेर आशिल्ल्या रेगेचे कवितेच्या प्रभावा विशीं केल्लो उल्लेख मेळटा. पूण त्याच पत्रांत जी. ए. बरयता: ''कविता जशी mature होत जाते तशी ती आपोआप स्वतंत्र होत जाते.'' रामाण्याचे कवितेचो विचार केल्यार सादारण १९५८ उपरांत तिका आपलो सूर मेळपाक लागलो. ते पयली तिचेर फकत रेगेच न्हय तर हेर कवींचो प्रभाव दिसतालो. १९६० उपरांतचे कवितेचेर रेगेचे कवितेचो प्रभाव आसा अशें म्हणप सारकें न्हय.

***

१८.०८.१९

मुक्ता आगशीकारान बाकीबाबाल्यो चार अप्रकाशीत कविता व्हॉट्‌ॲप केल्या. त्यो सुंदर आसात. तातूंतली एक 'खुंटलीगे' अशी आसा तशीच कविता 'पायजणां'त आसा. दोनूय कविता वाचून तांची तुळा करून पळयल्यार ही मराठी कविता कोंकणी कवितेचो अणकार केल्ले वरी दिसता. 'आनंदाचो दीस आज' हीय कविता मूळ कोंकणींत बरोवन ती मराठी केल्या अशें दिसता. हांचो तुलनात्मक अभ्यास करपाक वाव आसा.

***

२२.०८.१९

हालीच्यो म्हज्यो कविता वेगळ्यो दिसतात अशें सखाराम बोरकार म्हणटा. म्हजे कवितेंत जाल्लो हो बदल म्हाकाय जाणवता. एके तरेची सांपेल्ली अवस्था म्हजे कवितेक आयिल्ली तातूंतल्यान ती आतां भायर सरता असो कितेंसो अणभव म्हाका येता.

(फुडें चलता)

संपर्क: ९४२०२२२८७६

# इतिहास उस्तितना

**कोंकणीची पोरनी सरस्पत उस्तितना कांय म्हत्वाचे लेख आनी बरपां मेळ्ळीं.**
**ती 'जाग'च्या वाचप्यां मेरेन पावलीं जाल्यार तांचे खोशेंत भर पडूं येता अशें दिशिल्ल्यान हें पुनर्मुद्रण - त्या त्या लेखकाच्या आनी संपादकाच्या बरेपणान...**

उस्तून तुमचे मुखार दवरपी - दामोदर मावजो




लेखक : रघुवीर रामनाथकार

आमगेलें गोंय म्हणल्यार कलेचें कुळारच. हांगचो जणएकलो मनीस निजाचो कलाकारच. पूण फकत नीज आसलें म्हूण जायना. शास्त्राचो अभ्यास जाय; ती विद्या प्राप्त करपा खातीर दीसरात तिची सेवा करून तिचो आशिर्वाद मेळोवचो पडटा. तेन्नाच तो कलाकार आपणालें नांव उजळ करूंक पावता.

गोंयचे कलेच्या आयसपयस थाव लागना असल्या अफाट दर्यांत चकचकता असल्या कांय रत्नां-माणकांची तरण्या रगताक वळख दिवपाच्या हेतान म्हजे यादस्तिंतली हीं कांय पानां हांवें वाचून दाखोवपाचें थारायलां - गायनकला, वादनकला, नाच-कला; भाव कला ह्या आनी हेर जायत्या कलांनी आमगेल्या लोकांनी नांव करून आपणाक जल्म दिवपी भुंयेची कीर्त वाडयल्या, हातूंत दुबाव ना. तांकां लागून कला क्षेत्रांतलो गोंयचो इतिहास उजळ जाल्लो आसा.

गायनविद्येंत जांणी नेपाळ पासून मुंबय मेरेन मोट्या मोट्या संस्थानांनी गावन लोकीक मेळयलो त्या गोंयच्या नांवाजत्या गवयांत, रामकृष्णबुवा वझे हांकां कोण वळखना? सशास्त्र, कठीण गायकी गावपी हे विद्वान गवय. हांचो जल्म गोंयांत लामगांव म्हणटा त्या गांवांत जालो. उत्तर हिन्दुस्तानांत गायकी प्राप्त करपा खातीर १०-१२ वर्सां ते रावले. मोट्या मोट्या गवयांच्यो पिकदाण्यो धुवन, हुक्के भरून, वर्सानवर्सां तांची चाखरी करून गाप्या संगीत विद्येंत तांणी प्रवीणताय मेळयली. उपरांत कांय वर्सांनी तांकां गोड्या मुताची पिडा जाली आनी तातूंतच ते भायर पडले. मराठी नाट्यसंगीतांत तांचें कार्य कोणूच विसरचो ना. पेंढारकराले कंपनींत बसयल्ल्या भौतेक नाटकांतल्या पदांक तांणीच चाली दिल्ल्यो आसात.

गोंयांत कांसारपाल म्हूण एक ल्हानसोच गांव आसा. गांव ल्हान म्हूण ताचें नांव केलें बाबलीबायन आनी बुचीबायन. बाबलीबाय पालकार आनी बुचीबाय पालकार ह्यो दोगूय भयणी. बुचीबाय बाबलीबायची धाकटी भयण. उपरांत तांगेली सगली मंडळी मुंबय रावंक लागली. मुंबयंत येतकच त्या दोगिंनी त्या वेळा वयलो मुंबयंतलो खांपो गावपी नत्तनखां हांचेकडेन गाणे शिकूंक सुरवात केली. १०-१२ वर्सां त्यो दोगीय बेस बरे गायन शिकल्यो. अचकीत कांय वर्सांनी बुचीबाय भायर पडली. बाबलीबायन मात आपणालो अभ्यास तसोच चालू दवरलो. फुडें फुडें ती इतली पारंगत जाली की ते वेळार मुंबयंत केदोय मोटो गवय आयलो आनी जे बैठकींत बाबलीबाय गायली तेच बैठकींत ताका गावंक सांगल्यार, त्या गवयाक काळीज जायनाशिल्लें. तो काकुळटेक येवन म्हणटालो, ''ना रे बाबा, आतां म्हजे गाणें उपकरना. तुमचो आग्रोच आसल्यार हांव फाल्यां गातां.''

बाबलीबायचो गुरू नत्तनखां हो भोच सुंदर आनी गोड गातालो. त्या वेळार मुंबय जे कोण मोटे मोटे गवय आसले तांच्यां भितर नत्तनखांच लोकांक अदीक जाय आशिल्लो. आनी तो आशिल्लोय तसो गाण्यांत विद्वान. आग्रेवाल्या घराण्यांतले विद्वान गावपी विलांयत खां हांगेलो तो बापूय. त्या दोगीय भयणींक भोच काळजी घेवन ताणें प्रवीण केल्लीं. आनी तांणी म्हूण कितें खांसायबांची थोडी बर्दास्त दवरूंक नासली. जेवण खाण, च्या काफी, ते भायर कितें मागता तें; मुस्तायकी, पयशे कितें आनी कितें म्हणूं नाका. ते भायर पगार हो आसलोच. बाबलीबायन गाण्याचो ध्यास इतलो धरिल्लो की रातचें न्हिदतना कानां कडेन तंबोरे हेरांक वाजोवंक लावन, ते सूर आयकतच तल्लीन जावन ती न्हिदताली. तिका न्हीद लागतकच तंबोऱ्याचें वाजप थांबतालें.

ती दत्तभक्त आशिल्ली. सदींच तिनसांजचें दत्तांचीं पदां ती सुंदर रागदारींत गायताली. गावन जातकच देवाची आरत करून मागीर जेवंक वताली. काय वर्सां भावनगर संस्थानांत गावपी म्हूण ती दरबारांत नोकरेक आशिल्ली.

चाळीस पंचेचाळीस वर्साफाटी गोंयच्यो बायलो गायनाचे कलेंत बऱ्योच फुडें सरिल्ल्यो. रामुबाय कपिलेश्वरकार ही त्या काळांत उत्तम गाणारीन म्हूण गाजली. ध्रुपद, ख्याल, टप्पा, धमार, प्रबंद अशा तालांनी गावन गोंयांत तिणें खूब-लोकीक मेळयलो. गोंयांत सगल्यांकच तिचें गायन आवडटालें. गोंयांत काँकोड्या जनें काकोडकार म्हूण बेस बरी गावपी बायल जावन गेली. तिचो आवाज उंची स्वराचो आसून अती सुरेली आशिल्लो. ती ख्यार, टप्पो, अस्ताय, ध्रुपद, धमार, झपताल, ठुमरी सारक्या गायनाच्या सगल्या तरांनी प्रवीण आसली.

कवळेंची कल्याणी कपिलेश्वरकार ही भास्करबुवा बखले हांगेली शिष्यीण. दिसपाक देखणी. तशेंच तिचे आवाजाकय गोडी आसली ती सामान्यांतली न्हय. गायकेंत अस्ताय, ठुमरी भोच बरे भशेन गायताली. भास्करबुवा बखले कडेन शिक्षण घेतिल्ली दुसरी गोंयकान्न कोण म्हणल्यार ताराबाय शिरोडकार. भास्करबुवां कडेन शिकचे पयलीं रामकृष्ण वझे हांचे कडेन ती शिकिल्ली. तिका खासा भास्करबुवांलेंच गायन अदीक मानवतालें. तिचे आवाजाचेर भास्करबुवा भोच खोशी आसले. आनी तशी बुवान खूबच श्रम घेवन तिका तयार केल्ली. गोंयांत तर तिणें खूबच नामना मेळयली. पूण मुंबय येतकच तिगेली प्रसिद्धी वाडतच गेली. तिचें नांव आयकून इंदूरचे महाराज तुडोकराव होळकर हांणी तिका दरबारची गाणारीण म्हूण तिचो सन्मान केलो. तिचे सेवे खातीर बायलांचें भिरेंच दवरिल्लें. उपरांत तिणें इंदूर सोडलें आनी मुम्बय येवन रावली. ताराबायच्या त्या वेळच्या गायनाचेर मुंबयचो लोक खोशी आसलो. तिचे तोडिची गाणारीण तेन्ना मुंबयत कोणूच नाशिल्ली म्हणल्यार लेगीत जाता. ताचे उपरांत कांय वर्सांनी केशरबाय केरकार ह्यो फुडें सरल्यो. गायनांत तांगेली प्रवीणकाय तोखेवपा सारकी आसा.

केशरबाय इकरा वर्सांची आसतना कोल्हापुराक सुप्रसिद्ध गावपी अब्दुल करीम खां हांचेकडेन एक वर्स गायन शिकली. मागीर तिका गोंयांत वचचें पडलें. गोंयांत त्या वेळार श्री.रामकृष्णबुवा वझे दतुबाय नागेशकार हिका गाणें शिकोवच्याक नागेशींच रावताले. तांचे कडेन केशरबाय दोन तीन वर्सां मेरेन गायन शिकली. आनी ताच्या उपरांत ती मुंबय आयली. मुंबय तिणें पांच स वर्सां बरकततुल्ला हांचे कडेन गायनाचो अभ्यास केलो. तशीच भास्कर बुवां कडेनय एक वर्सभर ती गायन शिकल्या. मागीर मात एका सारकी बारा वर्सां तिणें अल्लादिया खां हांचेसरीं घालयली. केशरबाय अशे तरेन एकूण पिरायेचीं बावीस वर्सां मेरेन एका सारकें गायनाचें शास्त्र आनी कला शिकून अख्ख्या भारतांत मानाचो पाट मेळपा इतलें शिक्षण घेवन पारंगत जाली. आयज तरी तिचे इतली ऊंच पांवड्याची गायकी गावपी बायल अख्ख्या भारतांत ना अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना.

केशरबाय भशेन मोघुबाय कुर्डीकार ह्योय अल्लाद्दिया खांच्यो शिष्यीण म्हूण तांकां सगले वळखतात. मुंबयंत खां सायबां कडेन सात आठ वर्सां तांणी शिक्षण घेतलें. मोघुबांयचो आवाज भोच नाजूक आनी तितलोच सुरेल. देखून तिजें गाणें कोणाच्याय कानांक मानवता. आपणाल्या गाण्यांत, अतिशय कठीण अश्यो बोवतानो ती सहजतायेन हाडटा. तालाच्या ज्ञानांत तर तिचो हात धरप सामान्यांतलें न्हय.

इंदिरा वाडकार ही गायिका विलायन खां आग्रावाला हांचे कडेन धा वर्सां गाणें शिकली. तिच्या आवाजांत एकेतरेची झार आसली. तितलीच सुरेली आनी ढंगान गाताली. मुंबयंत तिणें नामना मेळयल्ली. पूण उपरांत तिणें गायन गावपाचेंच बंद केलें.

विलायत खां कडेन शिकपी दुसरी गोंयची गायिका सरस्वतीबाय फातर्पेकार. ४-५ वर्सां मेरेन खां सायबां कडले तालमींत ती बरीच तयार जाल्ली.

गोंयांतल्या संगीत कलाकारां भितरल्या गावप्यांचो थोडो भोव परिचय करून जालो.

गाण्या भशेन संगीताच्या हेर क्षेत्रांनीय आमगेले गोंयकार किर्तीमान जाल्ले आसात.

नाचाच्या शास्त्रांत प्राविण्य मेळयल्ल्यान जिचो वचत थंय दबाजो जालो त्यो लक्ष्मिबाय वेलींगकार हांकां कोण वळखना आसत? उत्तर हिन्दुस्तानांतले सुप्रसिद्ध कालिकाबिंदा हांचे कडेन कथक आनी भावनृत्य शिकून ते कलेंत लक्ष्मिबायन नांव मेळयल्लें. नाचांत तरबेज तशीच रूपान देखणी आशिल्ल्यान तिचो नाच पळोवपा खातीर मुंबयंत लोक हावेसताले.

जनाबाय सांखळकार हीय कालिकाबिंदा कडेनच कथक नाच शिकली. तांचोय नाच सगल्यांचे यादींत घट्ट आसा.

लक्ष्मिबाय आनी जनाबाय हांचे भशेनच, बाकाबाय बांदोडकार, मेनकाबाय शिरोडकार, विठाबाय काकोडकार आनी सरस्वतीबाय वेलींगकार, हाणींय नाच आनी भाव ह्या दोनूय कलांनी भोच नांव प्राप्त केल्लें आसा.

नाचा भशेन वादन कलेंत आमगेल्या गोंयांत खांपे कलाकार जावन गेले. बांदोडेचो विद्वान सारंगी वाजोवपी विनायक बांदोडकाराची सगल्यांकच याद आसतली. ताची जाणें सारंगी आयकल्या तो ते यादीनच चळवल्ले भशेन जातलो. उत्तर हिन्दुस्थानांतलो दुलेराम नांवाचो एक सारंगियो त्या वेळार मुंबयंत आसताले. ताचे कडेनच विनायक पांच-सात वर्सां सारंगी शिकलो. हाताचो भोच सुरेल, रागरागिणी ढगान वाजयतालो. गोंयां भशेन मुंबयंत तो नांवासतो आशिल्लो. आपणाली विद्या दिवन ताणें गोंयांत तशें मुंबयत जायत्या जाणांक सारंगी वादनांत तयार केल्ले आसात.

पांडोबा मंगेशकार होय तसोच सारंगिरचे विद्येंत प्रवीण आसलो. तागेले शिष्य जायते आसले. विनायक म्हाड्डोळकार हो तर तागेलो पट्टशिष्य म्हणल्यार जाता. गुरू भशेन शिष्याकय ते विद्येचो वरद्हस्त प्राप्त जाल्लो.

ताल म्हणटा तो गोंयचो आत्मो. सुरां इतलेच तालाचे ते वस्ताद. पन्नास पंचावन वर्सां पयलीं सखाराम मांद्रेकार हो एक मोटो वस्तादजी जावन गेलो. उत्तर हिन्दुस्तानांतल्या शिवलाल ह्या अतिशय प्रसिद्धीक पाविल्ल्या तबलजी कडेन ताणें आपणालें शिकप केलें. सादारण धा एक वर्सां तो तालमी घेतालो. गोंयांतलो पयलो तबलजी तो हो. गोंयसून मुंबय येवन ताणें विद्या प्राप्त केली. तबल्या भितर बसून

कोणूय तरी तबल्याचे बोल उलयता अशें आयकतल्याक दिसतालें. रंगान गोरोगोमटो, देखणो, सडपातळ देहाच्या ह्या तबलजीन त्या शास्त्राची नांदी सगल्यांत पयलीं म्हळी.

ताचे उपरांत दत्ताराम नानोडकारालें नांव तर चोयदिकांनी गाजिल्लेंच. ताचो हात इतलो गोड आशिल्लो की जाणें ताचें तबलें आयकलां ताच्या जिवाक खातखुतल्यो जाल्या बगर रावकनात. गाण्याची साथ मुंबयंतच न्हय अख्ख्या हिन्दुस्तानांत कोणूच त्या वेळार करूंक शकनासलो अशें म्हणल्यार अतिताय जावंचीना. गावन गावन गवयाक पुरो जाल्लें जाल्यारूय दत्तारामजीलें तबलें ताका चेव हाडटालें. आनी मागीर गाण्याक परतो रंग भरतालो. गावपी, वाजोवपी मनशांक स्फुरण हाडपी तबलजी कोण जावन गेलो म्हणल्यार तो एक दत्ताराम नानोडकार. श्री. बालगंधर्वाच्या नाटकांनीं ताणें दोन वर्सां साथ करून मुंबय पुणेंच्या रसिकांक झेलोवन दवरले, तांचीं अंतस्करणां जिखलीं. भास्करबुवा बखले हे तर दत्तारामाचे साथीचेर भोच खोशी आसले. दत्ताराम नानोडकारान कांताप्रसाद ह्या तबल्या कडेन शिक्षण घेतिल्लें.

कामुराव मंगेशकार लेगीत तबल्याची साथ भोच परिणामकारी करताले. मुंबयंत बरींच वर्सां तबलें वाजोवन ते मुम्बयच्या रसिकांचे आवडटे जाल्ले. तबल्याचे बोल, ढंग त्याच भशेन लय तालांत तांच्यांत अचुकपणा दिसतालीं. साथिच्या कामांत तर ते वेळार लोकांक कोण जाय आशिल्लो जाल्यार तो कामु मंगेशकारच.

अशे हे आमगेले गोंयचे कलाकार. गायन, नृत्य, वादन बी संगीत क्षेत्रांतल्या कलांनी गोंयकार कलाकारांनी एक मोटो अभिमान दिस सारको इतिहास करून दवरिल्लो आसा. ह्या सगल्या संगीतकारांच्या परिचयान एक गजाल सगल्यांक दिसूं येतली ती म्हणल्यार हे सगळे कलाकार कले खातीर खूब वावरून, कश्टून वयर सल्ल्यात. तांची देख आयच्या आनी फायच्या तरण्या कलाकारांनी घेवन गोंयचें नांव सदांच पयल्या मानाच्या स्थानार दवरुपाचो यत्न करूंक जाय.

**(कोंकणी, दिवाळी १९६२ - संपादक अ. ना.म्हांबरो)**



*आ म गे ले चिं त्री क -*

## भौ. नरसिंहबाब हिरू खंवटे

ह्या आंकाचें मुखपान आनी सोबीत सुंदर चित्रंनी आंकाक हाडिल्ली सोब पळोवन हो चित्रीक कोण हे जाणा जावपाची उमळशीक जण एकल्या वाचप्याक लागतली हातूंत आमकां इल्लोय दुबाव ना.

भौ. नरसिंहबाबांचो जल्म १९१७ वर्सा पणजे शारांत एका मध्यम वर्गाच्या घराण्यांत जालो. तांगेल्या घराण्याचेर कलेचो वरदहस्त आशिल्ल्यान तांगेले बापूय, बापोलये हांच्या आंगांत एक तरी कला आशिल्लीच. नरसिंहबाबांक बापायच्या सांगाताचें सूख मेळ्ळेंच ना. तांचे पिरायेच्या दुसऱ्या काय तिसऱ्या वर्सा तांगेलो बापूय सर्गवासी जालो आनी नरसिंहबाबांचो भार तांगेल्या बापोलयांचेर पडलो. शाळेंत शिकतना, म्हणल्यार ८ - ९ वर्सांचे पिरायेचेर अभ्यास करपाचो सोडून ते चोपड्यांचेर वा पुस्तकांचेर जंय कोरो जागो सांपडत थंय चित्रं काडपांत गुल्ल आसताले. चित्रकले विशींची तांगेली ही आवड आनी गती पळोवन तांगेल्या बापोलयान तांकां चित्रकलेचें शिक्षण दिवपाचें येवजिलें, पूण त्या वेळार गोंयांत असलें शिक्षण दिवचेली सोय नाशिल्ली. तांगेलो बापोलयो आग्रिमेसुरांत एंप्रेगाद आशिल्लो. खासा तेय कलावान आशिल्ले. आपणाल्या पुतोण्याची कुचंबणा जाता ती पळोवन तांचें मन तळमळू लागलें. आनी तात्पुरती व्यवस्था म्हणून तांणी नरसिंहबाबांक एका व्यावसायीक चित्रीका म्हऱ्यांत धाडलें. तांगेल्या कलेच्या शिक्षणाचो हो आरंभ. जल्माक येतनाच नरसिंहबाब आंगांत कला घेवन आयिल्ले. म्हणटकूच थोड्याच म्हयन्यां भितर गुरु कडली सगली विद्या नरसिंहबाबांनी आपणायली आनी आपणाले बुद्दीन ते प्रगती करूंक लागले; पूण ह्याच वेळार तांगेलो बापोलयो प्रक्षघाताच्या विकारान भायर पडलो आनी नरसिंहबाबांली फुडली आस थंयच चेंपली. पूण नरसिंहबाबांनी हेय परिस्थितींतल्यान मार्ग काडपाचो थारायलो आनी ते उठून मुंबय आयले. बऱ्याच येत्नांनी तांणी सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हे संस्थेंत प्रवेश मेळयलो. पूण हांगाय तांकां आडमेळें आयलें. तांचें आरोग्य मुळापसून नाजूक. मुंबय येतकूच तें चडूच इबाडलें. देखून, दुसरो उपाय ना जावन तांणी मुंबय तात्पुरती सोडली.

उपरांत गोंयां वचून तांणी आपणाले तांकीर स्टुडिओ उगडलो आनी बरोच लौकीक जोडलो. पुण फावो तो पालव आनी प्रोत्साहन तांकां ते वेळार मेळ्ळें ना. देखून ते परत मुंबय आयले. मुंबय येतकूच तांकां नोकरी धरची पडली. ह्या वेळार कमर्शियल आर्टाक म्हत्व आयिल्लें. आनी नरसिंहबाबांक तर तिचो पत्तोच नाशिल्लो. तरी तांणी नोकरी करुन शिक्षण चालू करपाचो येत्न केलो; पूण तो तडीक गेलो ना. मागीर मात तांणी आपणाले कर्तबगारीचेर आनी मोठ्या मोठ्या चित्रिकांल्या चित्रांवेल्यान स्फूर्त घेवन आपणाली कला वाडयली. आयज व्यापारांत ते कलेक म्हत्व आयला, ती कला मात् आपणाक येना म्हणून तांकां वायट दिसता.

संवसारीक अडचणींक लागून तांकां खरे कले कडेन फावो तशें लक्ष दिवपाक मेळ्ळें ना. तरी आज ते नोकरी करून उरिल्ल्या वेळांत आपणाले चित्रकलेंत मग्न आसतात. प्रसिद्धीचो तांकां इल्लोय हावेस ना. चड प्रसिद्धी कलावंताच्या नाशाक कारण जाता आनी ते प्रसिद्धीचे धुंदींतच कलावंत आपणाली कला विसर्जन करता अशें तांकां दिसता.

गोंयच्या नामनेक पाविल्ल्या हेर पुतां भाशेनूच श्री. नरसिंहबाब खंवटे हांचें नांव अख्ख्या भारतांतूच न्हय तर सगल्या संवसारभर जावं हीच आमगेली इत्सा.

**(कोंकणी, दिवाळी १९६२ - संपादक अ. ना.म्हांबरो)**



'साद' हें ती म्हयनाळें कोंकणी भाशा मंडळ मुंबय उजवाडा हाडटालें. ताचो पयलो अंक डिसेंबर १९५२त प्रसिद्ध जालो. मनोहरराय सरदेसाय ताचे संपादक आशिल्ले. एका अंका उपरांत मनोहरराय पॅरिसाक उंचेलें शिकप करपाक गेले. मागीर आयिल्ल्या अंकांचेर महाबळेश्वर सरदेसाय हांचें नांव आसा.

ह्या नेमाळ्यांत बाकीबाब बोरकार, आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, रा. ना. नायक, दिनकर देसाय, पांडुरंग भांगी आनी हेरांची बरपावळ वाचपाक मेळटा. 'वाऱ्यावैलो पत्रो' ही कांत गोविंद हेगडो देसाय हांची कथा. ती डिसेंबर १९५२ च्या अंकांत आयल्या. ते वकील आशिल्ले. कांय काळ तांणी सिल्वासा हांगा न्याय खात्यांत नोकरी केली आनी गोंय मुक्ती उपरांत ते गोंयचे Under Secretary Law म्हूण वावुरले. तांणी कांय थोड्योच कथा बरयल्यो. त्यो संख्येन उण्यो आसल्यो तरी गुणाचे नदरेन मोलाच्यो आसात. हे अंक मनोहर पै. धुंगट हांच्या संग्रहालयांतल्यान मेळ्ळ्यात.

# वाऱ्यावैलो पत्रॉ

## कांत गोविंद हेगडो - देसाय

अडिल्ले बाळंतिणीक सोडपाक धांव-धांवत वचून वैजीणीक हाडपाचें आसूं; सटी वाजोवपाक कुंळबी एकठांय करपाचे आसूं; मुंजी वेळार समिधा, वा बटूच्या हातांत दिवपा खातीर जिनयेबडी हाडपाचें आसूं; लग्ना वेळार माटोव-रानपी पळौपाचें आनी गरज पडल्यार धेंड्याचें काम करपाचें आसू; ना जाल्यार वेळार कोणाकूय खांदो दिवपाचो आसूं - आपण जावन काशिनाथ हे सगळें आपल्या माथ्यार घेतालो, ताका तशी संवयच जावन पडिल्ली. हें तागेलें सगळे कोयरांत वतालें अशांतलें न्हय! वर्सांतलें थोडे भोव दीस सोडले जाल्यार ताका जेवणा वेळार जेवण, च्याच्या वेळार च्या आनी तोंडांत उडौपा वेळार खावपाक मेळटालें. पुणून दिसयभर हांगा ना थंय चल-वच करतल्या त्या मनशाक काळीज आसत आनी त्या काळजा भितर हुंवार येता आसत, भरती-सुकती येवयें अशें मात कोणाक सपनांतसून दिसना आशिल्लें! हातूंत तागेलो कांयच गुन्यांव नाशिल्लो. ज्या भाशेन ह्या संवसारांतलीं वीस बावीस वर्सां ताणें काडिल्लीं ते पळौंक गेल्यार ह्या मनशाक घुसमटपाचें कसलेंच कारण दिस नाशिल्लें!

तागेल्या बापायन 'हुंडी वाटायली' तेन्ना तो आशिल्लो सात वर्सांचो 'तलनास पोर!' संवसारांत येतायेतांच तो आवैक मारून मेकळो जाल्लो. त्या वेळा पसून 'पाडघट्टाचो पोर' हें अपुर्बायेचें नांव ताज्या फाटल्यान लागिल्लें! घारुशणे जेन्ना मेलो तेन्ना पसऱ्या नाबीक बाळटी लागिल्ली आनी शेता कुडको, आनी आशिल्लें नाशिल्लें दोन-चार माड घाणा पडिल्लें. लोकांल्या तोंडाक भियेवन, आकांताच्या वेळार मामान भाच्याक उबाल्लो खरो पणून ज्या भाशेन ताणें काशीनाथाक देख दिवपाक सुरवात केली ते पळौंक गेल्यार एक वर्सभर तो मामागेर उल्लो कसो हेंच व्हड अजाप! आनी जेन्ना तो उबगेवन घरा पळून आयलो तेन्ना मामान कसलीच वासपूस केलीना! कित्याक तर वर्सा भितर 'गुड्लुलासांवा' करुन ताणें शेतां कुडको आनी घरभाट पावणोर काडून आपल्या पोटांत उडैलें! बापूय जितो आसतनाच गांवार हेडपाची सवंय जाल्ल्या काशीनाथाक पोटाक ओगी करपाक चड कुस्तार जालें ना. ताणें येवन थेट कामतील्या 'बल्कांवाचेर' ठाणो मांडले. घरांतलो जाण्टेलो सोयरुबाब तर काशीनाथाक पळौन धादोस जालो! ताणें खोसयेन म्हळें - आयलो रे पोरा! हांव जाणा आशिल्लो तो थथ चो करतलो तें! नाल्ला बाँड्यांचेर आनी भाता कुडवाचेर तागेलो दोळो आशिल्लो हें कितें ह्या सोयरुबाबाक सांगूंक जाय? ...कोण आसा रे थंय.. शांबाऽऽ हाका दोन गॉटें वाड म्हण सांग पळौया! पोराक बरीच भूक लागल्या दिसता!.. चल रे पोटभर जेव! फाट कशी उसुउसू जाता! कळ्ळें मरे काशीऽऽ चिमटें काडचें तें तुंवेंच! उजो लागलो त्या बाकीच्यांगेल्या हातांक'' - हें आयकना फुडें त्या नँटॅल्याच्या तेन्राच ध्यानांत आयलें, आतां आनी परत पळून आइल्ल्या त्या नरकांत वचपाचें सोडूच, वैल्यान दोनूय वेळार ताळ्यार पडपाची कसलीच अडचण ना!

सकाळ-सांजवेळ पानार शीत पट्टालें; माथ्यार कामतीलें 'मोठ्या वाशां'चे घर आशिल्लें. आधाराक सोयरुबाबाली माया आशिल्ली. इतलेंय आसून लोक मात समजतालें, तो गांवार पडला म्हण्ण! उतरांनी अशें कोण सांगना आशिल्लें! सांगतलें कशें? तांच्या तांकांच आपल्या मनांत हो विचार खैंच्या दारान भितर सल्ला हाजो पत्तो नाशिल्लो. कोणेंय येवंचें आनी ताका कसलेंय काम सांगचें. हाचे तांकां कांयच दिसना आशिल्लें. ताका स्वतःकय कसलेंच वायट दिसना आशिल्लें! बाजारांतल्यान येता आसतना ताका कोणूय उलो मारून म्हण्टालो - 'आरेऽऽ काशी, ते वाटेंतल्यान वेता जाल्यार हे नुस्तें मात्रशें घरा कडेन दिवशी?' खंचीय घरकात्र ताका वाटेर आडावन सांगताली - 'काशीनाथ दोन मसका - सांगो काडून दी पळौया. बाब बरोऽऽ तो!'' आनी हें सगळें तो मोठे खोसयेन, मनांत कांयच धन्ना आसतना करतालो. गोड उतरांत आनी हातार पट्टा त्या खावडींत तांगलें सगळें सूख, सगळो आनंद एकटाइल्लो! पणून हींच साखरेचीं उतरां आपल्याक एका जाग्यार बांदून दवरतात, खावड दाखौवन मानेर जूं दवरतात हें बाबड्याक केन्नाच समजलें ना! आनी ते कळून येवपाचो जेन्ना मांत्रसो अवसर आयिल्लो तेन्ना तागेली सुद्ध ताका सोडून गेल्ली!

अशा ह्या तवनास पोराच्या दोळ्यांत पैलीं दुकां आयलीं तीं सोयरुबाब मेलो तेन्ना. सोयरुबाब मळबा येदग़ा काळजान दिवन, सुपलीभर हातान घेतालो कि शिपलेन ओतून खाँऱ्यान ओडून काट्टालो हें सांगूं नज! पणून ज्या मोगान ताणें काशीनाथाक म्हऱ्यांत काडिल्लो त्या मोगाच्या माळणाक दोन तोंडां आशिल्ली हें सोयरुबाबाच्या वायटार उठिल्ल्याक पसून दिसूंक फावनाशिल्लें! भौन भौन ताचे यादीन काशीनाथालें दोळे भरून येतालें. गांवांत कोणागेरय मुंज आसूं ताका सोयरुबाबाल्या उतरांची याद येताली. तागेल्या नातवाच्या मुंजी वेळार हे वाटेंतल्यान ते वाटेंतल्यान बोवाळटल्या काशिनाथा कडेन पळौन,

मोठ्या तोखणायेन सोयरुबाबान म्हळें - देवान बरें केल्यार ह्या वर्सा - दोन वर्सां भितर ह्या काशीलीय मुंज करून वडौंक जाय - त्या दोन वर्सांत आनीक दोन वर्साची भर पडली तरी काशिनाथाच्या गळ्यांत सुताचो तागों पडूं नाशिल्लो आनी आतां तर सोयरुबाबच कोणाल्यातरी मुंजीचें यजमानपण करपाक सर्गार गेल्लो! आपुण जातीन बामण, मुंज बांदिना आसतना मेलो जाल्यार सात जल्म नरकांत काडचें पट्टलें हाचें काशिनाथाक भंय दिसतालें. ह्या पातकांतल्यान ताका सोयरुबाबाली पुण्यतायूच सोडैतली आशिल्ली! मोठ्या अजापाची खबर म्हळ्यार कांयच करिनासतना सोयरुबाबान जितली पुण्यतायेची गांठ केल्ली तिचो परार्धाश वांटो पसून सगळ्या गांवाच्यो खास्तो खावन काशिनाथ सांठोवंक पावंक नाशिल्लो!

आनी एक वस्त गांवचें लोक सामकें विसरून गेल्ल्या भाशेन दिसतालें; आपणा खातीर वेळा प्रसंगांर दीसरात पावतल्या ह्या मनशाक आनीक काळीज आसा! मनीस व्हड व्हड जाता तसो तसो तो गिन्यानान जाण्टो जायतच हें कोणाच्यान सांगूं नज. पणून हे वाटेन ते वाटेन पळेनासतना, आपूण बरो की आपणालें काम बरें, अशें समजून आपणालें आयुष्य काट्टल्या मनशा भितर पसून केन्ना आनी कसो आपसूकच बदल घडून येता हें ताचें ताकाच समजना! गांवार पडिल्लो मनीस दांगांनीच वाट्टा अशें कांय न्हय! पणून हे कोणांक कोण सांगतलो? बरें, सांगलें म्हणून कोण आयकून घेतलो? आनी आयकून घेतल्यार तें तो मनांत धरीतच हें कोणाच्यान सांगूं जायत? बॉड-मिशयो तासच्यो पडल्यारच सुतक पाळचें पट्टा; दायज्याल्या घरकान्नीन वंशावळींत भर घाल्यारच सुयेर लागता! हें जर खरें तर मागीर 'काशीनाथ मरेऽऽ आरे ताका ना ताळ, ना तंत! ना सुयेर ना सुतक!' अशें जें लोक म्हण्टाले तातूंत मार वायट दिसपाचें कितें कारण आशिल्लें? सुतक लागना आशिल्ल्या मनश्यान रडूं फावना आनी सुयेर नाशिल्ल्या मनशाक हांसपाचें कारणय उन्ना!

असोच एक दीस उसरमटीचेर उसरमट येवन काशीनाथालो जीव खासावीस जालो तेन्ना ताकाच समजलेंना आपूण इतलों घुसमट्टा कित्याक? तागेल्या आसपा-नासपाची गांवान आज मेरेन केन्नाच जाग घेवंक नाशिल्ली; आपूण ह्या संवसारांत खैच्यान आयलां, कित्याक आयलां आनी आपणाक कितें मेळूंक जाय तेंय ताका हो वेळ परयान कळूंक नाशिल्लें. पणून जें कितें ताका दिसतालें, भितल्ल्या भितर धुंवसताले ते मात कोणच समजून घेवपाचें कष्ट घेनाशिल्लो हाची खंत ताका पावला पावलाक जाताली! कोणालेंय नुस्तें हाडपा खातीर तिंट्यार गेल्यार "आरे काश्नाथ् इशी यॉ, म्हको चोय कॅशें जानॉत निस्तँ आसा" अशें म्हणून ताका मासळकारां हाताक धरून आपणाल्या मासळेपाट्या म्हऱ्यांत ओडून व्हरतालीं! कोणाल्याय पाड्याक चुट्टी मोडूंक गेल्यार मुणकाऱ्यालीं चेडवां ताच्या हुजीर कसल्योय गजाली करतालीं! आनी वाडिल्ल्या चलयांक पांण्टयार न्हावचें जाल्यार तांकां तो आसल्यार फाटीं फुडें पळौपाची गरज पडनाशिल्ली! जसो काय तो आठच वर्सांचो जल्मा आयिल्लो, जल्मभर आठच वर्सांचो उरतलों आनी आठच वर्सां वाचून मरतलो! आनी खरेंच, एक दीस काशीनाथ मेलो! आपणाल्या आज्या-पणज्याल्या, मेडून वाळटी लागिल्ल्या घराच्या पडवेर सुद्धीर नाशिल्लो तागेलो जीव, यमदूताची वाट पळौन - पळौन दोन दीस शिणिल्लो! हेच पडवेर एक दीस ताणें संवसारांत पांय दवरिल्लो तेन्ना कितले जाणांच्या दोळ्यांतल्यान मायेचीं दुकां गळ्ळीं आनी कितलेजाणांच्या पोटांत दुखलें हें ताका केन्नाच समजलें ना; आज ह्या जगाचो निरोप घेता आसतना कोणाकोणाक दुखां गळोवं फुरसद मेळत हेंय समजून घेवपाची ताका पर्वा नाशिल्ली! देवीच्या फोडांनी भरिल्लीं ल्हान-व्हड मडीं सरणाचेर चडैतना तागेलें दोळे भरून येवंक कसलेंच कारण नाशिल्लें! आनी ताचेरच जेन्ना देवी प्रसन्न जाली तेन्ना सोयरुबाबाल्या व्हडल्या पुतान 'आरे काशीनाथ, तुगेंल्या त्या पडवेचेरच हाथून घाल्यार बरे आशिल्लें' अशें म्हळें तातूंतय ताका वायट दिसूंक फावना आशिल्लें!

आज ना फाल्यां, देवीची सांत वतली. पणून कितलें दीस कितले म्हैने, कितलीं वर्सां गांवांतले ल्हान-व्हड मनीस घारुशणैल्या घरा कडले ते पडवेर तीनकात्रीय वचपाक काळीज एकठांय करतलें हें म्हज्यान तरी सांगू नज! मुंज बाशींग बांदिना जाल्ल्या भुरग्याचें मडें थंय कुसत पडिल्लें हे लोक अमूकच वर्सांनी विसरत हें भाकीत करचे इतले म्हजें गिन्यान वाडूंक ना!

संपर्क: ९७६५४३५९९६

## तुजीं पांयजणां

**बाकी बोरकार**

त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां
मंद मंद वाजत आयलिं तुजिं गो पांयजणा

मौन पडलें सगळ्या रान
शिरशिरुन थाबलिं पानां
कंवळि जाग आयलि तणा झमतां झेमतना

पैसुल्यान वाजलि घांट
दाटलो न्हंयचो कंठ कांठ
सांवळ्यांनीं घमघमाट सुटलो त्या खिणा

फुलल्यो वैर चंद्रजोती
रंध्रांनीं लागल्यो वाती
नवलांचीं जावं लागलिं शकुन लक्षणां

गळयां सुखां, दोळ्यां दुखां
लकलकलीं जावन थिकां
नकळटनां एक जालीं आमि
दोगांय जाणां

वडफळांच्या अक्षदांत
कितलो वेळ न्हायत न्हायत
हुपले कितले चंद्रलोक, इंद्रनंदनां

तांतलें कांय नुल्लें आज
सगळ्या जिणो आयल्या सांज
तरीय अकस्मात तुजीं वाजति पांयजणां

कानसुलांनीं भोंवति भोंवर
आंगार दाट फुलता चंवर
पट्टि केन्नां सपनां तींच यट्टि जाग्रणां



कथा



# हांव वाटच पळयतालें

दामोदर मावजो

तिचेर नदर पडली आनी काळजाचो एक बीट चुकलो.

मिनी! हय, मिनीच ती. बऱ्री फाटकुडी आसली तरी म्हजी नदर कशी फटवतली! बॉस्टन एअरपोर्टार दुसरे लायनींत ती उबी आसली. म्हजो नंबर येता म्हण सर ती पासपोर्ट घेवन फुडें सरली. मेळटली. इण्डियेकच तर वता आसतली. वळख दाखयतलीच. पूण आदले वरी आपलेंपण- निदान संवकळ तरी- दाखयतली काय?

इमिग्रेशनाचे सोपसकार आपसुकपणान केले आनी पासपोर्ट घेवन सेक्युरिटी कडेन वतालों. नदर हे वटेन ते वटेन भिरभिरताली. इतल्यान फाटसून उलो आयलो, "हाऽ य मायमून, व्हॉट अ सरप्राय्ज!" तेंच आदलें लांबचे लांब 'हाऽऽय' आनी आवाजांत तीच आदली उचांबळाय. हांव घुंवलों. नदरेक नदर मेळता खिणीं सगलीं कुपां पयस जालीं. आनी आदले वरीच म्हजे मिनीक ताकतिकेन लागीं येतनां हांवें पळयलें. हातांतली ब्रीफकेस सकयल दवरून हांवें हात पातलायले. मिनीय तितलेच उमेदीन म्हजे कुशींत रिगलें.

"हांव तुकाच पळयतालों. इमिग्रेशना कडेन पळयिल्लें तुका. म्हाका दिसलें फुडें पावलें."

"चल, पयलीं सेक्युरिटींतल्यान या. मागीर खबरी मारुंया- ओव्हर अ कप ऑफ कॉफी." मिनीन आपणांक खूब उलोवपाचें आशिल्ले वरी म्हणलें.

आनी मागीर खबरो अशो रंगल्यो की मदलो पयसावो खंयचे खंय नाच्च जालो.

"तूं अजून डायरी बरयता गो?"

"ऑफ कोर्स! दिनचर्या ती म्हगेली. न्हातां, जेवतां, न्हिदतां- तशी डायरी बरयतां. तूंय बरयतालो न्हय?"

"अजून बरयतां. तुवेंच लायली म्हाका ती संवंय. पूण तुजे इतल्या नेमान बरोवप जायना म्हजे कडल्यान."

"आतां बरय, आमी कशीं अजापीत रितीन मेळ्ळीं तें."

"यू नो मिनी, तीन वर्सां हांव पयस उरलों खरो; पूण तशें पयस वचप म्हाका जमलेंच ना. तुजी धडपड, तुजे अचिव्हमेंट्स, तुजो सोशल वर्क, तुवें लडयिल्ल्यो आनी जिखिल्ल्यो केसीस, तुजे ट्वीट्स, इन्स्टाग्रामाच्रेर बी तुका हांव सतत फॉलो करतालों. संपर्क तुटचो न्हय म्हूण अदीं मदीं ईमेलय धाडल्यात तुका. आय म प्राउड ऑफ यू, मिनी!"

"तें तुवें सांगूंक नाका." म्हज्या दंडार थापटीत मिनीन म्हणलें, "आनी इतलो क्लोज फ्रॅण्ड पयस पावलो म्हूण हांवें कितें तुजी वासपूस सोडून दिली तर? कलकत्त्याच्यान तूं दुबाय पावलो, थंयसून फ्लोरिडा, मागीर सान्फ्रान्सिस्को आनी आतां बॉस्टन. रायट?"

"बेठीच इन्सेक्युरिटीक लागून केली घरसोड न्हय आं!"

"ऑफ कोर्स आय नो दॅट. प्रमोशनाचेर प्रमोशनां मेळ्ळीं तुका. आतां तरी सॅटल जाला एम.आय.टींत? काय आनीक वयर सरपाचें उरलां?"

मिनीक म्हजो प्रवास, म्हजी प्रगती खबर आसा तें पळोवन हांव सुखावलों. "तुका ईमेल धाडपाचोच आसलों हांव. पूण मागीर म्हणलें तुका प्रत्यक्ष सरप्राय्जच दिवया. हांव आतां दिल्लीक परतो वतां. के.एम.टी इन्फोटॅक कंपनीन एक्झेक्युटीव पोस्ट ऑफर केला. आय हॅव एक्सेप्टेड इट."

"दॅट्स ग्रेट! लागीं पावलो तर तूं परतून!"

लागीं पावलों? मिनीक खोशी जाल्या तर हांव लागीं आयलों हाची! वाटूच पळयतालें काय?

"हय. फायनली. आनी तूं हांगा बोस्टनांत शें? केन्ना आयिल्लें?"

"'सहेली' म्हूण जाणा तूं?" हांव नकळो आसलों. ती खंय बोस्टन शारांतली एक फॅमिनिस्ट महिला संघटना. दक्षीण आशियांतल्यान थंय कामाक वा रावपाक आयिल्ल्या लोकां मदल्या बायलांक जो वेगळेचार, उणाकपण वा अत्याचार सोंसचे पडटा ताच्या आड वावुरपी ही संघटना.

तांच्याच आपोवण्याक मान दिवन मिनी थंय आयिल्लें. स दीस हांगा थंय भोंवन आयज तें परतें वतालें.

''इफ ओनली म्हाका पयलीं कळिल्लें- हांवच तुका भोंवडायतलो आसलों.''

मिनी हांसलें. व्हॅनिटी बॅग उकलून उबें रावलें, ''चल, ऊठ. फ्लायट अनाउन्स जाल्या.'' खऱ्यांनीच खबरो मारतना काळाचें भानच उरलें ना. ह्या अर्दवराच्या गजालींचेंच न्हय- फाटल्या तीन वर्सांचें लेगीत.

''तुगेलो रो खंयचो?'' हांवें विचारलें.

बोर्डिंग पास भायर काडून मिनीन म्हणलें, ''बारा. बारा ए.''

''म्हगेलो आसलो तेवीस जी.''

''ॲडज्यस्ट जाता जाल्यार पळोवंया-'' हांवें विचारलें काय सांगलें म्हाकाच कळ्ळें ना.

''कठीण.'' मिनीन म्हाका भुजवण दिले वरी म्हणलें, ''पूण आतां मेळटलींच न्हय?'' हांव पुरायेन सुखावलों.

सीट बदलप शक्यच नासलें. विमान भर हांव कुले परतीत बसून रावलों. मर्दी एक फावट बेठीच पासय मारून पळयल्यार मिनी कानांत प्लग घालून दोळे धांपून पडिल्लें.

सतरा वरां सरलीं आनी दिल्ली विमानतळार देंवलों तेन्ना भायर सरपाक मिनी म्हाकाच रावतालें. वांगडाच बॅगेज क्लेम, कस्टम्स, इमिग्रेशन बी केलें.

''हांव सोडूं तुका?'' हांवें विचारलें. तितलोच वेळ मिनी वांगडा सारूंक मेळटलो हे आशेन.

''तूं खंय वता तर?''

''लोधी जंक्शन - कंपनी क्वार्टर्स.''

''म्हगेलें सामकें उरफाटें -''

''तुवें फ्लॅट बदललो तर?'' हांवें विचारलें.

''ओह! हांव सांगूंकच विसरलें.'' अशें म्हणून मिनीन पर्सींतल्यान कार्ड काडून दिलें, ''फोनूय बदलला. हो फीड करून दवर.''

नाय म्हणल्यार जॅट लॅग लागलोच. जेवण घेवन न्हिदिल्लों तो बद्द राती धाक उठलों. मागीर न्हीद कशी येतली?

सदचे वरी दोळ्यां मुखार मिनी आयलें तें आदलें - जाच्या पासून हांव पयस पळूंक सोदतालो. जें रेप केसींत घुसपून रावपाक सोदतालें. जाचे दोळे त्या पिडापीड दितल्यांक भस्म करूंक सोदताले. जाणें जिद्दीन केस जिखून दाखयिल्ली. हांवें सुटकेस उगडली. डायऱ्यो उसतून भायर काडल्यो. तीन वर्सां फाटली ती डायरी उगडली. आनी टेबल लँप लावन वाचूंक बसलों.

*वर्स देड वर्स कोर्टशीप चलल्या आमची. म्हजे जिणेंतले हे भांगराळे दीस. लग्नाचो विशय काडल्यार मिनी म्हणटा - ''कोर्टींग करपांत आसा ती मजा घेवया पयलीं मनमुराद. लग्न आसाच मागीर -''*

*आयज आमी मेळ्ळींच उसरां. मिनी कडेन एक नवी केस दिल्ली कंपनीन. ''एल एल बी करून त्रासांत पडलें. वकिली नाका म्हूण हे कंपनींत ज्यॉयन जालें, जाल्यार एका परस एक कॉम्प्लिकेटेड केसीस.'' मिनीन बेजारून म्हणलें.*

*''तूं जाणा मिनी, तूं बेजार जातकच चडच सोबीत दिसता.''*

*''मस्को पुरो. सांबाळून दवर फाल्यां पावाक लावपाक. आतां म्हाका खंय व्हरता सांग-''*

*''चल, इंडिया गेट या. बरीऽ पासय मारूंया.''*

*म्हजे फाटीर थापटावन ताणें म्हणलें, ''आरे, म्हाका भूक लागल्या. पयली पोटांत कितेंय भरूया. मागीर पासय.''*

*मिनीच्यान भूक सोसूंक जायना. हांवें विचारलें, ''छोले भटुरे?''*

*''आयज नाका. म्हाका थाय जेवणाची रूच आयल्या. तुका जाता जाल्यार कनॉट प्लेसीक लागींच झॅन रेस्तॉरॉं आसा-''*

*आमी सोमतीच झॅनांत गेलीं. बेगसार पाविल्ल्यान गर्दी नासली. खूब वेळ बसलीं. खूब खालें. म्हजे परस मिनीनच चड.*

*''एऽ मायमून, हांव सामकें भकाऱ्या भशेन जेवलें न्हय?''*

*''खरें सांगूं? तुका जेवतना पळोवपांतूय मजा येता. तूं येदोळ बोटां चोखून खातालें तेन्ना म्हजींय बोटां तुका चोखपाक दिवचीं अशें दिशिल्लें.''*

*''पुरो आतां. देडवर जालें आमी जेवतांत. आतां म्हाका पासय जायच. ना जाल्यार सुस्ती येतली.''*

*आमी भायर सरलीं. ''आतां खंय, इण्डिया गेट?'' मिनीक इण्डिया गेट वाठारांत पासयो मारपाक खूब आवडटा. पूण ताणें नाका म्हणलें, ''ते परस हांगा लागींच सेंट्रल पार्कांत भोंवया.''*

*भोंवलीं. मोगांत आसतकच विशयांक मरण नासता. मिनीन ताचे कडेन आयिल्ली नवी लिगल केस विस्तारान सांगली. हांवेंय म्हज्या बॉसान म्हाका प्रमोशनाचेर बदली करपाचो दिल्लो प्रस्ताव हांवें कसो न्हयकारलो तें सांगलें. तें आयकून ताणें म्हजो दंड चडच घट धरलो. हांव सुखावलों.*

*''पुरो. पांय जड जाले.'' मिनी बसपाक सोदतालें.*

*हांवें म्हणलें - ''ना. देड वर जेवलीं. आतां देड वर पासय.''*

*पूण मागीर थंयच एका बांकार बसलीं. आमच्यो खबरो सोंपच नासल्यो.*

*''एऽ, घडयाळ पळय. इकरा जायत आयलीं. मिनीक आयज पुरो जाल्लें खरें.'' हांवें म्हणलें, ''हांव पायतां तुका. टॅक्सी करूंया.''*

*''बेकार पडला? टॅक्सी देड वर घेतली. ते परस मॅट्रोन गेल्यार पंचवीस-तीस मिण्टांनीं घरा.''*

*''तशें जाल्यार मॅट्रोन या. हांव येतां बराबर.''*

*''नाकाच. तूं आयल्यार खबरांनीं स्टेशन आयिल्लें आनी गेलें कळचेंच ना.''*

*मॅट्रो स्टेशनाचेर ताका सोडलें. ''घरा पावतकच मिस्ड कॉल दी.''*

*मिनीन म्हजो हात सोडलो ना. ''वी आर पार्टिंग -'' तोंडाचो चेंबू करून ताणें म्हणलें. म्हाकाय कूंय आयिल्ली. पूण आयल्या पयल्यान लोक आसले. ''हे गर्दैत? आतां आसूं. फाल्या कशी भरपाय करतां पळय.''*

*तरीय वतना फ्लाइंग कीस*

*दिवनच गेलें.*

ते राती ताचो मिस्ड कॉल आयिल्लो. हांवें न्हिदांतच नोंद घेतिल्ली. म्हणसर दुसरो कॉल आयिल्लो. चुकून लागला आसतलो म्हूण न्हिदून राविल्लों. मागीर झेमेल्ल्या दोळ्यांनीच फोन घेतलो. धा खेंपो तरी हॅलो हॅलो केल्लें. पूण जाप आयली ना. रागार जालां आसतलें - पार्टिंग कीस मेळ्ळो ना म्हूण. थोडो वेळ राविल्लों. मागीर न्हिदून पडिल्लों.

फांतोडेर परतून फोन वाजिल्लो. पूण हे खेपेक पोलीस स्टेशनावयल्यान. सांगलें तें आयकून हांव शेंवाळिल्लों. सोमतोच गेल्लों पोलीस स्टेशनार. ती याद लेगीत आयज नाका दिसता. पूण रावं नज जालें. डायरेचें पान परतिलें. दुसऱ्या दिसाची नोंद वाचतना मन पयलींच जड जालें.

*म्हाका सोमतोच इन्स्पेक्टराल्या केबिनांत व्हेलो. मिनी थंय एक शाल पांगरून बशिल्लें. रेप केस दर्ज करपाक आयिल्लें. केंस फापसल्ले आसले. आनी एक कानसूल सुजिल्लें. म्हाका एके विचित्र नदरेन पळयतालें. हो म्हाका वळखत काय, अशे नदरेन.*

*''कितें जालें? म्हाका कित्याक फोन केलो ना?''*

*''केल्लो. तुवें घेतलो ना.'' मिनीन म्हजेरच आरोप केल्ले वरी म्हणलें.*

*एक बायल सब इन्स्पेक्टर आनी एक पी. आय. मेजा कडेन बशिल्लीं. तांणी म्हजो स्टेटमेंट घेतलो. आमी खंय मेळिल्लीं; हांवें ताका केन्ना निरोप दिल्लो, म्हाका कोणाचोय दुबाव बी आसा काय? मागीर म्हजो मोबायल तांणी मागून घेतलो. कोणाले फोन आयिल्ले, कितल्यांक आयिल्ले तें तपासून तांच्यो नोंदी घेतल्यो.*

*मिनी म्हऱ्यांत आन्येक बायल आसली. ती खंय महिला संघटनेची सोशल वर्कर. नैतीक आदार दिवपाक आयिल्ली. पूण मिनी पिडींत अस्तुरे भशेन दिसनासलें. ताणें मान सकयल घालूंक नासली. तिडकीन तें धुमसतालें, मानभंगान चवताळिल्लें. पोलिसां कडेन उलयतनय तापून उलयतालें. समजायल्यार परती जाप दितालें. ''तुमी आजून कामाक लागूंक नात. तुमी हयगय करशात, सदळ रावन गुन्यांवकारांक मेकळें रान करशात जाल्यार हांव वगी रावचें ना....'' तेन्ना ती बायल - वृंदा खंय तिचें नांव - ती मिनीक पोशेत ताका समजायताली.*

*''मॅडम, आमी चवकशी सुरू केल्या. गुन्यांवकारी सांपडटलेच. पूण प्लीज शांत रावन आमकां कॉअपरेट करात. आतां पयलीं आमकां तुमची मॅडिकल टॅस्ट करची पडटली. एक लेडी कॉन्स्टेबल आनी वृंदा मॅडमूय येतली तुमचे वांगडा....''*

*''तें खबर आसा. पूण तुमी एफ. आय. आर. सारकी नोंद करून घेतल्या? म्हाका कॉपी जाय.'' मिनीलें चित्त थाऱ्यार आसलें काय उचांबळीत आसलें तें कळनासलें.*

*पोलिसांचेच गाडयेन आमी सगळीं हॉस्पिटलांत गेलीं. थंयसून मिनील्या फ्लॅटार. वृंदाय वांगडा आयिल्ली. ती भायर पॅसेजींत पेपर वाचीत बसली. भितर सरना फुडें हांवें म्हणलें, ''मिनी, कूल डाउन. आतां मातशें न्हीद.'' हांवें सांगल्यार कांयच कानामनार घेनासतना ताणें डायरी काडली आनी बरोवपाक बसलें. आतां ही म्हजी डायरी बरयतनां लेगीत म्हजें मन गोंदळिल्लें आसा. हांवें म्हाकाच 'कूल डाउन' म्हणपाचो वेळ आयिल्लो. पूण हें आपलें याद करून करून डायरी बरयतालें. बगलेक उबो रावन हांव तें वाचतां हाचें लेगीत ताका भान नासलें.*

*रातीची ती आगळीक कशी जाली हाचें सविस्तर वर्णन आसलें. म्हाका सोडून कशें तें प्लॅटफॉर्मार पावलें, खंयच्या प्लॅटफॉर्मा वयल्यान खंयची गाडी कितल्यांक धरली, कितल्यांक देंवलें, कशी रिक्षा धरली, रिक्षेचो नंबर कसो संवये प्रमाण नोंद केलो, फुडें हनुमान मंदीर काडून अचकीत एके धवे बी एम डब्ल्यू गाडयेन रिक्षाक आडायली, दोग जाण देंवन रिक्षा ड्रायव्हराक कसो ओडून भायर काडून ताणें मर्दी सायड दिली ना अशें म्हणीत ताचेर थापट फुलयलें, म्हणसर तांगेलो ड्रायव्हरूय देंवलो, ताणें कसो ड्रायव्हराक धरून दवरलो, आपणें कशें देंवन तांकां जाब विचारलो, आपणें मायमुनाक फोन लायलो, म्हणसर त्या दोगांनी आपणाल्या तोंडाक गुड्डो मारून कशें फिजिकली उबारून तांचे गाडयेंत घालें आनी रिक्षा ड्रायव्हराक थंयच सोडून गाडी कशी झुम्म सुटली. तशांतच आपणें परतून फोन लायलो, पूण तांणी उलोवपाक दिलें ना. वयल्यान 'चूप' म्हणून थापट मारलें, गाडी खंय तरी आडकुशीक घेवन तांणी कशी जबरदस्ती केली, तांचे कडेन झगडटना आपल्या हातांत तांचें पेन आयलें, आपणें तेंच काडून एकल्याच्या तोंडाक कशें नेटान तोंपलें, ताणें बोवाळ मारलो आनी एका हातान सटासट आपले पोले फोडले, तांणी आपलो कुडता कसो ओडलो, पूण तो पिंदलोय ना आनी देंवलोय ना, मागीर दोगांनी आपली सलवार ओडली.... फुडली सगली आगळीक मिनीन इतली विस्तारान बरयली ती वाचतना म्हाकाच तिडकी येवपाक लागल्यो.... एकल्यान आपलें काम जातकूच दुसऱ्याक आफयलो. दुसऱ्यान कितें केलें याद जायना पूण जाग आयली तेन्ना हांव जमनीर पडिल्लें. तांणी थंयच म्हाका उडयिल्लें जावंये. म्हजो दुपट्टा, पर्स थंयच आसली. आकांतून हांवें मोबायल सोदलो, तोय थंयच पडिल्लो. तो काळखांत आपणें कसो सोदून काडलो, मागीर कसो १०९१ हॅल्पलायन नंबर मारलो. सुमार पंदरावीस मिण्टांनीं वृंदा कशी पोलिसांची व्हॅन घेवन आयली, व्हॅनींतल्यान एक बायल सब इन्स्पेक्टर आयिल्ली, तांणी आपणांक पोलिस स्टेशनार व्हेली,*

*थंय पोलिस इन्स्पेक्टर आयलो, ताणी सगलें विचारून घेतलें. रेपिस्टांची नांवां ते उलयतनां कानार कशीं पडिल्लीं, एक पप्पू आनी दुसरो संजू, लक्षांत उरलें तें सगलें सांगलें. मागीर ताणी मायमुनाचो नंबर मागलो, तो रोखडोच धांवत आयलो.....*

*"मिनी, हें इतलें सगलें बरोवपाची गरज आसा?" बलात्कारा विशीं इतल्या विस्तारान बरयिल्लें वाचतना लेगीत म्हजें मन विटिल्लें. मिनी अशें कशें बरोवंक शकता? घडये, बलात्काराचे पिडेन केल्ल्या आघाताक लागून मिनीची मानसीक संतुळ इबाडिल्ल्यान तें अशें करतालें जावंये. हांवें जाता तितले समजिकायेच्या सुरांत म्हणलें, "जें जालें तें अशें झरोवपांत कितें फायदो?"*

*"हांवें आतां फायदो-लुकसाण पळोवन वागपाचें?"*

*"पूण आतां जाली न्हय आगळीक? आतां निसतरायतलें काय वाडयत रावतलें?"*

*"आगळीक हांवें करूंक ना. म्हजेर जाल्या. तरी हांव वगी रावूं?"*

*मिनीचे दोळे उजो ओकताले. हांव अस्वस्थ जाल्लों. खंय तरी पळून वचचें अशें जाल्लें. म्हणसर मिनीलो मोबायल वाजलो. मिनीन मेजा वयल्या फोना कडेन शुन्य दोळ्यांनी पळयलें. ताका व्यत्यय नाका म्हूण हांवें मोबायल उकललो. जाल्यार झपय मारून मिनीन काडून घेतलो. मिनीची भयण गार्गी उलयताली. मिनीन सगली टेप वाजोवंक सुरवात केली.*

*मिनीक ह्या शॉकांतल्यान भायर काडपाक जाय. पूण तें म्हगेलें आयकुपाच्या मनःस्थितींत नासलें. म्हाका याद जाली. भायर वृंदा बशिल्ली. मिनी फोनाचेर आसा तें पळोवन हांव भायर आयलों. म्हाका पळोवन तिणें पेपर कुशीक दवरलो.*

*"मॅडम, शी इज इन अ शॉक. खूब उचांबळ आसा तें. घडये, तिका सायकियाट्रीक आय मीन, काउन्सिलिंगाची गरज आसूं ये."*

*"म्हाका दिसना, मनमोहनजी. शी इज क्वाय्ट कंपोज्ड आनी ब्रेव्ह. शिवाय हांव आसां हांगा. आमचे वकील, डॉक्टर सगलें सांबाळून घेतले."*

*"पूण तिणें आतां सगलो रेप इन्सिडण्ट डायरेंत बरोवन दवरला. मायन्यूट डिटेल्स बरयल्यात." नकळटना म्हजो सूर तक्रारीचो जाल्लो. पूण तें आयकना फुडें वृंदालें मुखामळ फुललें. ती उठून उबी रावली, "रिअली? भोव बरें जालें. असल्या केसींनीं सगलो तपशील बारीकसाणेन बरोवन दवरप फायद्याचें आसता. एक तर आपूण विसरूंक पावना. आनी मागीर तो पुरावो म्हूण उपकरता."*

*म्हजे बुद्दीक तें बरें पुटवलें ना. हांव भितर गेलों. मिनी फोन दवरता थंय आसा परतून वाजलो. हांव फुडें सरलों ना.*

*"यस स्पिकिंग! यस, आय म रेडी. येयात तुमी. आय शाल स्पीक अप." फोन दवरून मिनी उठलें.*

*"मायमून, म्हाका न्हावपाक जाय. आय फील सो डर्टी! थोड्या वेळान पत्रकार येतले. तयार जावपाक थोडो वेळ जाय म्हाका. तूं रावता मरे?"*

*हांव गणमणलों. पत्रकार, टिव्ही, खबरो, गजाली, अफवा, गॉसीप, सेन्सेशन... मिनीन हांचे कडसून पयस रावंक जाय आसलें. वयल्यान म्हाकाच विचारता - 'तूं रावता मरे?'*

*"इफ यू डोन्ट माइण्ड, म्हाका कांय कामां जाग्यार घालूंक जाय. उठचे उठून धांवत आयलों. दनपारां मेरेन येतां, जायना?"*

*मिनीन एक नदर मारली म्हजेर! ते नदरेंत भावनांचें इतलें मिश्रण आसलें की तांतले एकेचोय म्हाका थाव लागलो ना.*

*"वच तूं. आय वील मॅनेज." अशें म्हणून हांव भायर सरचे पयलींच मिनी भितर गेलें.*

*म्हाका तशें गरजेचें कांय काम नासलें. पूण थंयसून पळून वचपाची जबरदस्त वानसा जाल्ल्यान अपार्टमेंटार परतलों. ऑफिसाक सांगून रजा मारली. च्या करून घेतली. न्हालों. स्वताक बिझी दवरपाचो येत्न करीत रावलों.*

*मिनीचे कुडीचो इंचान इंच भाग म्हाका तोंडपाठ आसलो. ह्याच स्टुडिओ अपार्टमेंटांत आमी कितल्यांश्याच फावट लागीं आयिल्लीं. कितल्या विस्वासान आपली कूड तिणें म्हजे सुवादीन केल्ली! आनी आयज तेच कुडीचेर त्या दुश्ट अनवळख्यांनीं रेड मारची? मन अस्वस्थ जालां. काल म्हज्या वांगडा सांज सारिल्लें तें मिनी आनी आयज सकाळीं पळयिल्लें मिनी हातूंत केदो हो कायापालट! फाल्यां मिनीक घेवन ह्या अपार्टमेंटांत आयलों जाल्यार ताचे कुडीक वेंगायतनां कशें दिसतलें काय म्हाका? आनी मिनीक, ताची सलवार देंवयतना?*

*मन कशेंच थाऱ्यार येना. ताका रिझोवपाक म्हूण टि. व्ही. लायलो. पळय जाल्यार मिनीचेर जाल्ले आगळिकेची खबर सेन्सेशनल बातमी म्हूण सगल्या चॅनलांचेर धाडायताले. फकत मिनीचें तोंड दाखय नासले, नांव सांगनासले, वळख दिनासले. पूण बलात्काराची खबर मात लांबोवन लांबोवन सांगताले - मिनीले डायरेंतल्या तपशिला भशेन.*

*तकली आतां भेरेवपा कडेन पावल्या. आतां ह्या एपिसोडांतसून भायर सरपाक जाय.*

हांवें डायरी धांपली.

फाटल्या तीन वर्सां मदी मिनीन कितलें नांव जोडलां ताची कल्पना म्हाका आशिल्ली. आपली रेप केस ती जिखिल्लीच. ते खातीर

तिका खूब झगडचें पडिल्लें. पूण तिची जिद्द जिखिल्ली. तितल्यार समादान मानल्यार तें मिनी कसलें? एल एल बी केल्लीच आपली केस चलयतनाच ताणें सनद घेतिल्ली. आपणाले केसींतल्या वकिलांच्या खांद्याक खांद लावन केस लडयिल्ली. ते उपरांत दिल्ली वाठारांत जंय जंय रेप केसीस जाताल्यो वा बायलांचे शोशण जातालें थंय थंय वचून तांच्यो केसी आपखोशेन चलयिल्ल्यो. ते भायर तांच्या पुर्नवसना खातीर ताणें स्त्री संघटनाय काडिल्ली. रेप पिडीत अस्तुऱ्यां खातीर कम्पेन्सेशन मेळपा खातीर ताणें केल्ल्या वावराची मिडियान आनी समाजान भोव बरी दखल घेतिल्ली. मिनीचो हो प्रवास पयसुल्ल्यान नियाळटना म्हजे पुर्वग्रह सगले वितळून गेल्ले. मिनी कडेन आदले वरी इश्टागतीचे संबंद जुळून येवचे अशें दिसूंक लागिल्लें आसतनाच आतां हें अचकीत मना सारकें घडूंक लागिल्लें.

हांवें डायरी आलमारींत दवरली आनी बॅगांतलें सामान उसतून जाग्यार दवरूंक लागलों. फ्लॅट नवो. दोनूय बॅगांतलें सामान मांडून जालें. अपार्टमेण्ट फुल्ली फर्निश्ड आसलो तरी खंय कितें आसा तें समजून घेतलें. मागीर बरो शॉवर घेतलो. फ्रिजांत तांतीं पळयलीं आनी भूक लागली. दोन उकडून खालीं. मध्यान जाल्ली पूण न्हीद पूर्ण जाल्ली. मिनीन दिल्लें कार्ड काडलें. पयलीं फोन नंबर मोबायलाचेर फीड केलो. पत्तो नोंद करून दवरलो. मनांत आयलें- करचो फोन. मिनीकय जॅट लॅग लागिल्ल्यान तागेलीय न्हीद जाल्या आसतली. पूण मन मारलें. टि व्ही लायलो. टि व्ही बंद केलो. नवें ताल्ल मिनी दोळ्यां मुखल्यान हालनासलें.

तीन जालीं. आतां जर न्हिदलोंना जाल्यार सकाळीं न्हीद येतली. म्हूण आड पडलों. पूण सुस्त न्हिदून पडलों जाल्यार? सकाळीं आठांचो अलार्म लायलो. पूण न्हीद? न्हिदोवपाचोय अलार्म आसूंक जाय आसलो शें दिसलें.

न्हिदचे पयलीं डायरी बरोवंक घेतली.

*आयज हांव खूब्ब खोशी आसां. आयज म्हगेलें मिनी म्हाका मेळ्ळें....*

"आयज कितें करता?" सकाळीं मिनीक फोन करून विचारलें.

"तशें फ्री आसा. पूण फाल्यांचे केसीचो अभ्यास करूंक जाय. आमी सांजे मेळुंया?" हांव जें विचारूंक अनमनतालों तें मिनीनच म्हाका विचारलें.

हांगाच्यो थंयच्यो गजाली करीत इण्डिया गेटी कडेन पासयो मारल्यो. हांगा टुरिस्टांची गर्दी आशिल्ल्यान म्हाका हांगा आवडना. पूण मिनी म्हणटा, ही सुवात खंय ताका स्वतंत्र भारतांतल्या ताच्या स्वतंत्र अस्तित्वाची जाणीव करून दिता.

"फाल्यां कसली केस आसा म्हणटालें तूं?" हांवें बेठेंच विचारलेंशें जालें. मिनी सामकें फॉर्मांत आयलें - "तूं पेपर वाचिना? धौला कुआँ केसीचो निकाल आसा फाल्या. ही मरे म्हजे खातीर मायलस्टोन केस आसा. चल आमी थंय चिल्ड्रन्स पार्कांत वचून बसुंया. सारकें सांगतां तुका." आनी मागीर आमी पार्कांत वचून बसलीं.

धौला कुआँ रेप केस मिनी आपल्या आंगार लडयतालें. सत्ताधारी पक्षाच्या खासदाराल्या पुतानच आगळीक केल्ल्यान केस पालोवन उडोवपाचे यत्न जाल्ले. ती तरणी बायल खंय निकतीच लग्न जाल्ली. तिचेर आनी घोवाचेर खूब चेपण आयिल्लें खंय. पूण बायल घट राविल्ल्यान केस फुडें गेल्ली. आनी मिनीन ती तडीक व्हेल्ली.... मिनी उमेदीर येवन सांगतालें. ताका आडावपाचें म्हज्या जिवार आयलें. पार्क बंद जावपाचो वेळ जालो आनी हांव सुटलों.

गुलाटी हॉटेलांत कबाबांचेर ताव मारतना मिनीन आपणालें नवें घर कशें सजयलां तें सांगीत मिनीन म्हणलें, "म्हगेलो स्टडी रूम फर्निश करतना म्हाका तुजी याद आयिल्ली. तुजो तो आदलो रूम- स्टडी रे- म्हाका खूब आवडिल्लो."

मिनी याद काडटालें तर म्हजी!

चीजकेक सोंपोवन उठचे पयलीं हांवें म्हज्या मनाक खावपी तो प्रस्न विचारून उडयलो, "मिनी, आमी परतून लागीं आयलीं हाची म्हाका खोस आसा. आय होप, तूं फाटलें सगलें विसरून गेलां?"

"हय रे, सगलें विसरलां. पूण -"

"पूण कितें? हांव धास्तावलों."

"एक आडवाद आसा."

"समजलो ना. कसलो?"

"तूं. तुकाय विसर म्हणटा?" आनी हांसून मिनीन म्हज्या हातार आपणालो हात दवरलो.

ते राती ताका बेगसार सोडून हांव अपार्टमेंटार आयलों. इतलीं वर्सां मिनी म्हजेर रागार आसतलें अशें दिसून मन खातालें. पूण आयचे तागेले चलणुकेन तेंय थाऱ्यार पडलें. तीन वर्सां फाटीं हांव चुकीचें वागिल्लो अशांतलें न्हय. म्हजे सुवातेर आनीक कोणूय आसल्यार घडये इतली मेकळीक दिवंचो नासलो. 'म्हजेर रेप जाला' अशें आडून सांगिल्लें कोणाक आवडटलें? हांवें जबाबदारी टाळूंक नासली. ताका म्हणिल्लें लेगीत - "जालें तें जावं. हांव तुजो स्विकार करतां न्हय?"

तटास जावन म्हजे कडेन पळयत ताणें म्हणिल्लें, "तूं करशीत रे स्विकार. पूण हांव म्हाका?"

हांव तें आवतिकायेंतल्यान ताका भायर काडूंक सोदतालों. पूण मिनी ते अपमानास्पद घडणुकेंतल्यान भायरच सरूंक सोदी नासलें. तरी हांव ताका साथ दीन आसलों. पूण त्या दिसा तो फोन आयलो आनी हांव -

तीय नोंद त्या डायरींत आसा. परतून ती डायरी भायर काडली.

*"मनमोहन द्विवेदी?" सकाळींच एक अनवळखी फोन आयलो.*

*"यस, स्पिकींग -"*

*"चुतिये, अपनी गर्ल फ्रॅण्ड को समझा नहीं सकते? क्या समझती है खुद को? सती? देवता?"*

*तिडक मारली म्हाका. त्या आवाजांतलो दरकार आनी मगरुरी भाशा आयकून हांवेंय आवाज चडयलो, "कौन बोलता है? सामने आ -"*

*"जरूर आऊँगा - लेकीन सीड के साथ! छपाक - और तुम खुद का चेहरा देख नहीं पाओगे, समझे? बता दे गर्ल फ्रॅण्ड को - जान प्यारी है तो चूप बैठो -" आनी फोन तोडलो ताणें.*

*धमकी दिल्ली ती मिनीक? छपाऽक! पूण ती म्हाकाय आसली. हांव शेळेलों. मिनीन चड ताणून धरलें जाल्यार हें संकश्ट ओडून घेतलें अशें जावंचें ना? आतां आनी तिच्या वांगडा म्हाकाय हुलोप लागूंक लागला. तसोच उठून मिनीक मेळपाक ताच्या फ्लॅटार गेलों. पळय*

जाल्यार एका टि व्ही चॅनलाचे दोग रिपोर्टर कॅमेरा घेवन भायर सरताले. म्हाका वळखना फुडें धांवत आयले.

"सर, सर, युवर कॉमेंटस प्लीज!"

"नो कॉमेंटस. म्हाका कांयच सांगपाचें ना." दारांत पावलों तरी तांगेलें चालूच, "युवर रिॲक्शन-"

"लीव्ह मी अलोन-" हांवें भितर सरून दार मारलें. तरी तितले भितर कॅमऱ्यान क्लीक केलोच म्हाका.

"मिनी, कितें चल्लां हें? मिडियाक कितें, विपरीत खावड जायच आसता. तांकां कित्याक एंटरटेन करता? विटंबना जातली अशान -"

"म्हजी कित्याक? विटंबना तांची जातली."

"ते -" 'दादले' म्हणपाचें तोंडार आयिल्लें. पूण बदललें - "ते दुश्ट! तूं जाणा, आयज तांचो फोन आयिल्लो म्हाका. तोंडार सीड मारतले म्हूण-"

मिनी ओंठ दातां मदीं दोडून विचित्र हांसलें - "तुकाय आयलो तर?"

"तुकाय?"

"हय. तेंच सांगपाक मिडिया रिपोर्टरांक आफयिल्ले हांवें -"

ही तिची धिटाय म्हणूं काय मुर्खपणां? "निदान धमकेची खबर त्या रिपोर्टरांक सांगचे पयलीं म्हजे कडेन शेअर करपाची?"

"कितें फरक पडटासलो?" जापेची वाट पळय नासतना ताणें फुडें म्हणलें, "तूं म्हाका परावृत्त करपाचो यत्न करतासलो. आनी हांव कांय तुजें आयकुचें नासलें, रायट?"

"हें पळय, मायमून," ताणें फुडें सांगलें, "ते घडणुकेन हांव हाललें पूण मोडूंक ना. हांव आतां दुर्गा जातलें. पळयच तूं."

मिनी म्हजे सांगणे भायर पावलां.

आतां हांवें थारायलां, हें शार सोडून पयस वचपाचें.

ते दिसांनी मिनी वागतालेंच तशें - आपल्या बाण्यान. तातूंत ताका ते महिला संघटने कडल्यान जेल मेळटालें जावंये. भार आयिल्ले वरी त्या दुश्टांचे फाटीक लागिल्लें. हांवें अप्रत्यक्ष सुचयिल्लें लेगीत - 'आमी खंयूय भायल्या देशांत वचून रावंया जंय कोण्ण आमकां वळखुचो ना. 'जाल्यार 'कित्याक, अशें पळून परदेसांत वचपाक हांवें कसली चूक केल्या?' ताणें म्हज्या दोळ्यांत दोळो घालून तीख उतरांनी विचारिल्लें. 'हांवें तुजी चूक केल्या?' हांवें नमतें घेवन म्हणिल्लें. जाल्यार - 'तुजे दोळेच सांगतात चूक म्हजी म्हणून!' ताचे कडेन उलोवपाची माणसुकी नासली.

तेन्ना ताणें म्हाका पलायनवादी म्हणलो आसूंये. पूण हांव कलकत्त्याक गेलों आनी सुटलों. तेंय बऱ्याक पावलें. कलकत्त्यानूय तशी म्हजी फाट सोडूंक नासली. डायरेंत नोंदच आसा तशी!

हें शार म्हाका वळखना अशें येवजून ह्या कलकत्त्यांत ट्रान्सफर मागून आयलां. पूण आयज ऑफिसांत पांय दिलो आनी पुराय स्टाफाच्यो नदरो हांव वळखलों - तांकां सगलें खबर आसलें. नासपाक कितें जालां? खबरांपत्रां वाचिनात तर ते? टिव्ही पळयनात? नदरे आड, मसण पाड अशें चिंतून बदली मागिल्ली हांवें. पूण हांच्यो नदरो पळयतकच मसणकळा म्हजी फाट सोडिनात म्हणपाचें कळ्ळें.

तांच्यो नदरो चुकयत दीसभर कामांत घुसपावन घेतलें आनी ऑफिस सुटना फुडें रुमार परतलों. पूण तांच्यो नदरो चुकयत हांगा यो जाल्यार म्हजीय नदर टि व्ही ऑन करून म्हाका सोदताली. म्हाका काय मिनीक? हांव अर्थातच जाणा, त्यो नदरो सहानुभुतीच्यो. हांवूय जाणां - मिनीची कांयच चूक ना. कोणे तरी तिका नागयल्या. तीच नागवल्या तर? ओल्या वांगडा सुकें - तसो हांवूय. म्हजी आवतिकाय मिनीक कळटाली. हांव पयस पळटां हें कळटालें जावंये. तिणेंच तर पयर म्हणिल्लें - 'हांव जळटां, मायमून. ताचो धग तुका लागत. ते परस तूं सर पयस.'

मिनीची याद जाली तसो फोन लायलो.

"आज की ताजा खबर आयकतलो?"

"तांकां अटक जाली ती मुगो?" म्हाका ती खबरच नाका आसली, वीट आयला ते खबरेचो. अचकीत वीज पडून घराचो गोबोर जालो जाल्यार कांय दीस त्रास जाता. पूण मागीर तेच सुवातेर दुसरें घर बांदूं येता- घडये आदले परस सुंदर. पूण अचकीत वगडावल्ली आबरू?

"ती आतां पोरनी जाली. आयज म्हाका चीट पावयल्या कोणें तरी. 'दोन क्रोट घे आनी केस फाटीं घे' म्हूण..." मिनीची ही उचांबळाय ताची क्षुब्ध आवतिकाय दाखयताली.

"मागीर?" हांवें नकळटना मज घेतली.

"हांवें सोमतीच चीट प्रॅसाक पावयली आनी मागीर पोलिसांत. फाल्यां वाच पेपरांत-"

फाल्यां परतून पेपरांनी ही खबर येतली. परतून त्यो सासपुपी नदरो. आतां हेंय शार म्हाका सोडचें पडटलें.

धौला कुआँ केस टिव्ही-पेपरांनी गाजताली. पूण हांव विसरून गेल्लों. सांजचो मिनीचोच फोन आयलो, "तुका कळ्ळी ना खबर?"

याद जाली. "निकाल दिलो?"

"यस, वी वन द केस -"

"कॉँग्रॅटस! सेलेब्रेशन जाय -" म्हज्या मनांत आसलें तें दोगां मदलें.

"फाल्यां सकाळीं यो न्हय घरा! धाक पत्रकार परिशद आसा. तूं इकरांक पाव."

तितलें उलोवन म्हजें समादान जालें ना. मिनीक म्हजे वेंगेंत घेवन खोशी मनोवपाची

आसली म्हाका. मन उकतें करूंक जाय आसलें. राती न्हिदचे पयलीं परतून लायलो फोन - ''डिअर, फाल्या आमी भायर मेळुंया?''

''ओह नो! इतलो लोक येतलो - हांगाच मेळुंया न्हय?''

''लूक मिनी, म्हाका कितें सांगपाचें आसा - देखून''

''ग्रेट मायमून ! खरें सांगूं, म्हाँकाय तुका कितें सांगपाचें आसा - देखून-''

''देखून कितें?''

''फाल्या लोक येतलो तो सगलो लागींचो. फाल्यांच सांगून मन उकतें करुंया.''

रातभर म्हाका न्हीद पडली ना. मिनीय म्हाका प्रपोज करूंक सोदता. ना, पयलीं हांव करतलों. उचांबळीत मनान उतरांची जुळवा-जुळव करीत उरलों.

वाटेर बरो टवटवीत तांबडो गुलाब घेतलो. आनी मिनील्या अपार्टमेंटाचेर जुस्त इकरांक पावलों. दिल्लींत येदो व्हडलो अपार्टमेंट म्हणल्यार अजापच. घर भरून लोक भायर कॉरिडरांत पाविल्लो. भितर सोफासेट आसुनूय पंदरावीस कदेलांय मांडिल्लीं. मिनीली पत्रकार परिशद तेन्नाच सोंपिल्ली जावंये. लोक भायर येताले. इतल्यान मिनीची नदर म्हजेर पडली. ताणें थंयच ताळी मारून लोकांचें लक्ष वेधलें. मे आय हॅव युअर अटेन्शन प्लीज! ज्या म्हज्या इश्टाची हांव वाट पळयतालें तो आयला. आयच्या ह्या समयार म्हाका एक अनाउन्समेंट करपाचो आसा. आनी ह्या इश्टाकूय. यो मायमून-'' मिनीन म्हाका बगलेक आपयलो. ''हो म्हजो खूब पयलीं सावन इश्ट, मनमोहन द्विवेदी,'' ताळयो वाजल्यो ते परस मिनीलें उतर आयकुपाक आशेल्लों हांव, ''धौला कुआँ'' केस आमी जिखल्यांत अशावेळार म्हजो इश्ट म्हाका सांगूंक सोदता तें आयकुपाक हांव आतुरतायेन रावल्यां.''

मिनीन म्हाका हाताक धरून लागीं ओडलो. म्हगेलो संकोच कसो कोण जाणा खंयचे खंय नाच्च जालो. मिनी म्हजे कडेन अपेक्षेन पळोवंक लागलें. हांवें कोटाच्या भितरल्या बोल्सांत अळंग दवरिल्लो तांबडो गुलाब भायर काडलो. मिनीच्या हातांत दिलो आनी एक हात ताच्या खांद्यार दवरून सांगलें, ''डिअर मिनी, हांव तुका प्रपोज करतां. तुजो मोग म्हाका मेळत?'' हांवें मिनीक वेंगेंत घेवपाक हात पातळायले.

मिनी प्रसन्न हांसलें. तांबडो गुलाब तोंखेत लोकांक उद्देशून उलयलें, ''हो म्हजो मायमून. तीन-साडेतीन वर्सां फार्टी - प्रिसायजली रेप प्रकरणा आदीं देड दोन वर्सां आमकां एकमेकां बगर जाय नासलें. मदीं तो तिनेक वर्सां भायर अमेरिकेंत उरलो. आतां परतो इंडियेक आयला. मायमून, तुवें म्हाका खूब वाट पळोवपाक लायली. फाटलीं तीन वर्सां हांव ह्याच खिणाची वाट पळयतालें. तुका याद आसा, रेप जाल्या म्हूण कळटकच तूं धांवत पोलीस स्टेशनार आयिल्लो. तूं म्हाका वेंगेंत घेतलो म्हूण तेन्ना हांव राविल्लें. पूण तेन्ना ती म्हाका मेळ्ळी ना. जावं. आयज ती तूं म्हाका दिवपाक आयला. आनी म्हाका भोव खोशी जाता तुका रिजॅक्ट करपाक...''

संपर्क: ९४२२०५९५०९



# ते प्रस्न आनी त्यो जापो

**कृ. म. सुखठणकार**



जिणेंत हजारांनी प्रस्न उपरासतात म्हणटकच आमच्या लेखकांनी ह्या विशयाचेर बरोवन आपली लेखणी झरयल्या. कांय लेखकांनी तर ह्या विशयाचेर बरोवन आकांताचो पयसो केलो. करूं बाबडे! पयसो कसो केलो, त्या पयशांचें कितें केलें अशे कितलेशेच प्रस्न मागीर बाकिच्यांचे तकलेंत तयार जातात आनी जापो मेळना जातकच तांची तकली जड जाता. दर एका प्रस्नाची आमकां जाप मेळटाच अशी ना. आनी मेळुंकूच जाय अशें संविधानांत खंयच बरयल्लें ना. आजकाल दर एक गजाल आमी संविधानांत आसा काय ना हें तपासूंक लागल्यात देखून हांवें म्हणलें. ते भायर हालीं म्हजो आसपाव विचारवंतां भितर जावपाक लागला. म्हणटकच म्हाका संविधान, मुलभूत हक्क, पारदर्शकता बी असलीं उतरां वापरचीं पडटात. पयर सेगीत तिसऱ्या दिसा म्हजे पानार तांबडी भाजी पडली. म्हणटकच विचारूंक जाय म्हूण हांवें विचारलें,

आगो फ्रिजांत आनीक भाज्यो नात? आजूय तांबडी भाजी शी?

संविधानांत खंय बरयलेलें बी आसा तांबडी भाजी आंतऱ्या पयऱ्यान खांवची न्ही म्हूण? आसा जाल्यार म्हाका सांगा!- ही.

ना गो बाये, संविधानाक कितलीं कलमां सोडूच कितलीं पानां आसात तें लेगीत खबर ना- हांव तांबडी भाजी चाबडायत.

आसूं! तर, सगल्या प्रस्नांक जापो आसुंकूच जाय अशें ना. हो देश कसो चलता, दोनदा गरम करून लेगीत सकाळीं केल्लें अळम्यांचें तोणाक कशें भेळशेलें, ओपिनियन पोलाचो बापूय कोण असल्या प्रस्नांच्यो जापो आमकां केन्ना मेळनात. आमी असल्या प्रस्नांचेर आमची चुकून उरिल्ली शक्त इबाडची न्हय अशें म्हजें प्रामाणीक मत. साहीरान म्हणलांच, 'वो अफसाना जिसे अंजाम तक लाना न हो मुमकीन उसे एक खुबसुरत मोड देकर छोडना अच्छा'. ह्या प्रस्नां बाबतींतूय तशेंच करपाचें. कांय प्रस्नांच्यो जापो आमकां आमच्या सामकारा आशिल्ल्या मनशा कडल्यान कितें मेळटली हें खबर आसून लेगीत आमी ताका प्रस्न विचारून आमचो आनी ताचो मोलादीक वेळ फुकट घालयतात. 'मोलादीक' हें उतर हांगा उजार करपाची गरज नाशिल्ली. आपल्या कडेन कितें तरी मोलादीक अजून आसा अशें ओगीच दिसचें देखून वापरलां. गोंयकारांक (पंदरा वर्सां राबितो आशिल्ले) वांटेर कोण मेळ्ळो जाल्यार तांकां बेठीच हडकुपाची संवंय आसा. संवंय म्हणचे परस तें दायज आमकां जाण्टेल्यां कडल्यान मेळ्ळां. हातूंत आपलो आनी दुसऱ्याचो वेळ इबाडटा हें जरीय खरें आसलें तरीय तशें केलें ना जाल्यार फुडलो मनीस तो आपलो अपमान समजता. 'आरे तो म्हाका काल पणजे बाजारांत मेळिल्लो. म्हाका पळोवन ताणें तोंड फिरयलें' वा 'पळोवन पळोव नाशिल्ले वरी केलें' वा 'वळख दाखयली ना' अशी खबर गोंयभर पसरता. आनी समेस्त गोंयकारांक ताचो त्रास जाता. कित्याक तर, तुमी त्या गोंयकाराक कित्याक हडकिलो ना हाचे फाटलें कारण सगल्या गोंयकारांक सोदचें पडटा. तुमचे कडेन पयसो जाला काय, जाला जाल्यार तो कसो जालो बी हाचो सोद लावंचो पडटा. वळखिचो दिसल्यार ताका हडकून मेकळे जाल्ले चड बरें. हडकिलो जाल्यार कितें तरी विचारचें पडलें. फकत गूड मॉर्नींग वा गूड इवनींग म्हणून चलना. हांव गूड नायट म्हणऽ ना कारण सगलेच जाण तें म्हणपाच्या आनी आयकुपाच्या स्थितींत त्या समयार आसनात. तर, दोन उतरांनी काम भागना. फकत गूड मॉर्नींग म्हणल्यार हो उलोवपाक लेगीत जड जाला असो आरोप तुमचेर जावं येता. म्हणटकच त्या मनशाक कितें तरी विचारचें पडलें. विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो खबर आसून लेगीत फॉर्माल्दाद म्हूण विचारचें पडटा.

केस १

आरे खंय बाजारांत? (हातांत एक प्लास्टीकची आनी कापडाची पोती पळोवन).

हय.- जाप.

हालींसरा दिसना मुरे तूं?

दिसना? तूंच ना- जाप.

भागला काय कितें रे तूं?

भागला? वयल्यान दोन किलो वाडला! बरें रे उशीर जातलो मेळूया- जाप.

केस २

आरे खंय बाजारांत गेल्लो? (हातांत दोन प्लास्टीक आनी एक कापडाची पोती. कापडाचे पोतयेंतल्यान तीन सांगो आनी एक कोकण दुदी भायर पळयता.)

हय रे!- धांपेत जाप.

कितें मेळ्ळें वासाक?

कांय ना रे बाजारांत भांग पाणी खंय नुस्तेकान्न म्हणटाली- जाप.

भांगपाणी जावं नाजाल्यार आनीक कसलें पाणी जावं, आमच्या वांट्याक म्हारगूच पाणी न्हय?

हय रे आनी कितें! बरें रे घामेला, वचून न्हातां, चिकचिकीत जाला. - जाप.

एक गोंयकार दुसऱ्या गोंयकाराक वांटेर मेळटकच अशें उलोवप जाता. ते उलोवपांतल्यान व्हडलो काय अर्थ काडचो नासता. पंचमीक कवळ्यां देवळाचीं सोपाणां चडटना एक म्हाजन दुसऱ्या म्हाजनाक, 'खंय, देवळांत? पंचमीक पालखेक आयल्या?' असो प्रस्न विचारता आनी दुसरो 'हय' अशी नमळायेन जाप दिता. हांवें केन्नाच 'आरे

सभाग्या हांव देवळाचीं सोपाणां चडटा तें दिसना' अशी जाप आयकूना. हांव पिशावरी असले प्रस्न विचारी ना अश्यांतलो भाग न्ही. हांव दर पंचमीक कवळ्यां वतां म्हणटकच हांवूय देवळाचीं सोपाणां चडटां. सोपाणां चडटना कुशीक आशिल्ले तळयेचेर लक्ष मारतां. हांवें एका तेंपार हांगा शिकारांत बसून 'दिवानी हुआ बादल' हें पद शिरवैकाराल्या सिमाक म्हणटां अशीं सपनां पळयल्लीं. आतां हे तळयेंत देवतेचो सांगोड जाता तो पळोवंक येतां. सोड. 'तुमी दर पंचमीक देवतेच्या पांयां कडेन लीन जावपाक येता न्ही?' हांव देवळाचीं सोपाणां चडटना भरण्याक विचारतां. भरणोय म्हज्या वांगडांच पणजेच्यान सुटिल्ले बशींत कवळ्यां पंचमीक येता. हांवें विचारलेल्या प्रस्नांत वापरलेल्या अलंकारांक लागून भरणो 'इम्प्रेस' जाता. तो बशींत म्हज्या फाटल्या सिटार न्हिदून कवळ्यां पावऽ सर घोरेता तें म्हाका, ताका आनी देवतेकूय खबर आसा. पूण हांवें 'देवतेच्या पांयां कडेन लीन जावपाक येता' अशें विचारिल्ल्यान सोपाणां चडटना ताच्या दोळ्यां वयली न्हीद वचून थंय भक्ती भाव संचारता.

शांताईची सासाय सगल्याक आसा. तरीय हे पावन तिर्था कडेन येतकच मन आनी अंतकरण भरून येता- भरणो.

भरण्याची हालींच बायपास जाल्या. हाका लागून ताचें अंतकरण भरून येतकच ताचे परिणाम म्हाका ताचे तोंडार दिसतात.

आज जेवणाक कितें? हो प्रस्न प्रत्येक जाण आपले घरांतले अन्नपूर्णेक विचारता आनी जापेची वाट पळयता. हो प्रस्न आयकून आयकून तिचेय कान किटनात अशें हांव म्हणना. 'तुमी बाजारांत वचून कितें हाडिल्लें तेंच तुमचे पानार पडटलें न्हय! हांव काय घरांत कांयच पिकयना' विचारिल्ल्या प्रस्नाक हीच जाप फावो जाता. हांव होच प्रस्न 'आज आमकां कितें पंचपक्वान?' अशे तरेन विचारतां.

''तांबडी भाजी, एक फुलकी, तोतापुरी आंब्याच्यो दोन शिरो, शीत, कुंवळ आनी फुटी कडी.

आवय म्हजे! केन्ना केले गो तुवें इतले नग? वाड बेगीन चुरचुरून भूक लागली.- हांव.

हांवें प्रस्न विचारतना 'पंचपक्वान' हें उतर वापरिल्ल्यान म्हजे पानार पापड (भाजिल्लो), वोडयो (तळिल्ल्यो) आनी लोणचें (खळा सकट) पडटा. जेवण वाडटना खंयचेच आयदन मेजार आपटल्ल्याचो आवाज जायना. सोड.

आदल्या तेंपार पालक आपल्या भुरग्यांची मर्दी मर्दी खबर घेताले. भुरग्यांचो आंकडो चड आशिल्ल्यान सगल्यांची खबर एकाच दिसा घेवप तांकां शक्य जाय नाशिल्लें. म्हणटकच ही खबर थोड्यां भितर आनी अदून मदून घेवप जाताली. भुरग्यांकूय ती एक फॉर्माल्दाद म्हूण खबर आशिल्ल्यान तांच्योय जापो तश्योच आसताल्यो.

कितलेक पावलो रे तूं?

चवथेक भाऊ.

बरो शिकता मरे?

हय भाऊ.

तुज्या आज्यान ते शाळेंत इनामां जोडिल्लीं खबर आसा मरे?

हय भाऊ.

हांव म्हज्या आवय बापायचें एकूच अपत्य जाल्ल्या कारणान तीं म्हजीं खबर आंतऱ्या पयऱ्यान घेतालीं ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. हांव आसा काय ना हाचे परस म्हजो अभ्यास जाला काय ना हें तांच्या खातीर म्हत्वाचें आसतालें म्हणटकच प्रस्नूय तसलेच आसताले.

अभ्यास जालो रे तुजो? काय टिवल्यो बावल्यो चल्ल्या?

'' येदोऽऽऽळ जालो पुस्तकां लेगीत बोटव्यांत भरलीं.

ही म्हजी थारिल्ली जाप आसताली. एक दीस आईन म्हाका, गणवेशाक फेर्र मारलें काय विचारलें. म्हजें लक्ष खंय आशिल्लें म्हूण खबर ना हांवें सदचे वरीच जाप दिली,

येदोऽऽऽळ जालो पुस्तकां लेगीत बोटव्यांत भरलीं.

मागीर सेगीत दोन तीन दीस टायगर आईन कितेंय विचारल्यार तीच जाप दितालो.

आरे भायर मिठाची पिकअप आयल्या रे?

आगे, येदोऽऽऽळ जालो पुस्तकां लेगीत बोटव्यांत भरलीं- टायगर.

प्रस्न 'मोनोटोनस' जाले म्हणटकच अशें जाता. म्हाका हांगा विंदा'चे कवितेच्यो वळी याद जाता, 'सकाळ पासून रात्री परयंत तेच ते तेच ते'. प्रस्न आनी जापेकूय हेंच लागू जाता.

आमच्या देशांत, राज्यांत राजकीय घडामोडी जातात. तशें पळयल्यार देशांत राजकीय घडामोडी सोडल्यार आनीक कांयच जायना म्हणल्यार जाता. सोड. तर, हे घडामोडींचो परिणाम म्हणून संबंदीत राजकीय पक्ष पत्रकार परिशद घेतात. हे परिशदेंत पत्रकार भाव ठरावीक प्रस्न विचारतात आनी तांकां ठरावीक जापो मेळटात.

पेद्रून जें वक्तव्य केलां ताचेर पक्षाची प्रतिक्रिया कितें?- पत्रकार भाव.

तें पेद्रूचें वयक्तीक मत. पक्षाचो ताचे कडेन कांयच संबंद ना.- पक्षाचो म्हणयारो.

लाद्रूचेर इतले भ्रश्टाचाराचे आरोप आसतना तुमी ताका पक्षाची तिकेट कशी दिली?- पत्रकार भाव.

हें पळयात, प्रत्येकाचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप जायत आसतात. आरोप जाले म्हूण मनीस भ्रश्ट जायना. आमच्या देशांत कायद्याची म्हूण एक प्रक्रिया आसा. हे प्रक्रियेंत ते आरोप सिद्ध जावपाक जाय. Law will take its own course and if he is found guilty he will be tried under the law of the land, no doubt about that. Have some patience. What is going on in this case is media trial.- पक्षाचो म्हणयारो.

आमची पिळगी काणयांचीं पुस्तकां वाचीत व्हड जाल्या. बिरबल आनी अकबर हांच्यो काणयो सगल्यांनी वाचल्याच आसतल्यो. बादशाह बिरबलाक कितले सुंदर प्रस्न विचारतालो आनी बिरबलूय ताका त्याच तोडीच्यो जापो दितालो. 'पाने का नासली? घोडा का

अडला? भाकर का करपली?' अशें अकबरान बिरबलाक विचारलें खंय. आतां खंयचे भाशेन विचारलें तें खबर ना. हांवें जे भाशेन वाचलें ते भाशेंतल्यान तुमकां सांगलें. सोड. पूण बरो प्रस्न. हाची जाप बिरबलान, 'न फिरवल्याने' अशी दिली. आमगेर भाकरी, चपाती,पोस्तां, कापां जें जें तव्याचेर आडवें पडटा तें फिरोवन लेगीत करपता. हें अशें कशें? बिरबल आसल्यार हांव विचारतलों आशिल्लों. आज अकबर जर आशिल्लो जाल्यार ताचे बिरबला खातीर प्रस्नूय वेगळे आसपाचे. देखीक, पक्ष का फुटला?, सरकार का कोसळलें? घर वापसी का झाली? ह्या अकबाराच्या प्रस्नांक बिरबलाची जाप 'पैसे मिळाल्याने' अशी आसतली आशिल्ली हातूंत दुबाव ना. आमी चांदोबा हें मासिकूय वाचताले. आतां वाचप नाशिल्ल्यान तें बंद पडलें अशें आयकतां. 'चांदोबां'त विक्रम आनी बेताळ हांच्यो काणयो आसताल्यो. काणयेच्या शेवटाक बेताळ राजाक काणयेचेर आधारीत प्रस्न विचारतालो. आनी ताची जाप दिना जाल्यार राजाक ताचे तकलेचे शंबर कुडके जावन ताच्या पांयां कडेन लोळपाक लागतले असो भंय घालतालो. दर खेपे राजा भियेवन जाल्यार खबर ना तोंड उगडून जाप दितालो. राजान जाप दितकच बेताळ आशिल्लो तसो झाडाक परत लोंबकळपाक लागतालो. बेताळ प्रस्न कितें विचारता, राजाक भंय कितें घालता, राजा जाप कितें दिता हें सगलें म्हजे तकले वयल्यान वतालें. लग्न जाल्या उपरांत तोंड उगडनासतना तकलेचे कुडके जावन दर खेपे पांयां कडेन लोळपाक लागतकच म्हाका पोर्सांतले आंतेरीक परतो लोंबकळचो कशें दिसपाक लागलें. चांदोबांत दर खेपे राजा ताका झाडा वयल्यान देंवोवन खांद्यार मारतालो. म्हाका आंतेरी वयल्यान देंवोवपाक कोण येवचो ना हें खबर आशिल्ल्यान हांवें तो विचार सोडून दिलो.

बांद्यां मधुचंद्राक वतना हांव आमची बॅग भरतालों. 'बॅगेंत अमृतांजनाची बाटली घालपाक विसरश्यात आं' अशी हिचे कडल्यान शिटकावणी मेळटकच हांवें पिश्या भशेन, 'मधुचंद्राक वतना अमृतांजनाची बाटली शी?' इतलेंच म्हणलें. मागीर हिणें अमृतांजनाचे कॉम्पोजिशना पसून सुरवात करून डळपलश १८९३ तें कशी लोकांच्यो फोडटा त्यो तकल्यो थारायता हें बरें समजावन सांगलें. अमृतांजन मधुचंद्राक वतना बराबर घेवप कशें गरजेचें हें सांगून जातकच, 'कळ्ळें तुमकां? गया भेजे में?' अशें पयलीं कोंकणींत आनी मागीर राष्ट्र भाशेंत विचारलें. हांवें अमृतांजनाची बाटली उगडून दीर्घ स्वास घेतलो आनी हय ह्या अर्थान मान हालयली. हांवें मान हालयतकच बेताळ राजाक प्रस्न विचारतालो तशे हिणें कांय प्रस्न विचारले. ते आयकून म्हाका कळच्या आदींच म्हजे तकलेचे शंबर कुडके जावन म्हज्या पांयां कडेन लोळूंक लागले. हांवें ते एकठांय करून तांकां अमृतांजन सारायलें आनी आशिल्ले थंय बसयले. आनी उरिल्ली बॅग भरली. बॅग भरतना हाता कडेन मेळटा तशी अमृतांजनाची बाटली दवरली. मधूचंद्र सुरू आसतना म्हाकाच ती चड उपेगाक पडली, तुमचे म्हायती खातीर.

चांदोबांतूच बेताळ राजाक प्रस्न विचारतालो अशें न्ही. आमी आनीक फाटीं गेल्यार आमकां पुराणांत लेगीत अशे प्रस्न सापडटात. महाभारतांत यक्षान धर्मराजाक कठीण अशे प्रस्न विचारल्यात. म्हणून आज आमी कठीण प्रस्नांक यक्षप्रस्न अशें म्हणटात.

*अहन्यहनि भूतानि गच्छन्तीह यमालयम्*

*शेषाः स्थावर्मिच्छन्ति किमाश्चर्यमतः परम्*

असो एक प्रस्न यक्षान धर्मराजाक विचारलेलो. बरो प्रस्न! दर दिसा हजारांनी लोक वयली तिकेट काडटा तरी आसतना उरिल्ल्यांक हांगा कायमची रावपाची इत्सा आसता हाचे परस आनीक दुसरें व्हडलें अजाप आसा? (म्हाका जगन्नाथ शंकर सेठ संस्कृत पुरस्कार मेळूना तरी आसतना हांवें ह्या श्लोकाचो अणकार केला, तुमचे म्हायती खातीर). आज आमकां असले प्रस्न विचारपी यक्ष मेळूना कारण हे भुंयेर जाप दिवपाक धर्मराज उरुं ना. म्हाका नेवऱ्या वचपाक आतां बस कितल्यांक वा सारमानशे वयल्यान सातां उपरांत फेरी कितल्यांक अशें प्रस्न विचारपी खूब यक्ष मेळ्ळ्या. आपले योग्यते प्रमाण यक्ष प्रस्न विचारतात हेंय तितलेंच खरें. आज गोंयकार मेळ्ळ्यार ताका खंयचे भाशेंतल्यान प्रस्न विचारप हो यक्ष प्रस्न यक्षा सामकार उबो रावतलो हातूंत दुबाव ना.

आमी विचारलेल्या दर एक प्रस्नाची जाप आमकां मेळूंकूच जाय आनी ती सारकी मेळूंक जाय अशें खंयच बरयलेलें ना. महाभारतांतले झुजांत द्रोणाचार्यान विचारलेल्या प्रस्नाक धर्मराजा सारक्या मनशा कडल्यान अश्वत्थामा 'हतो इति नरो वा कुंजरो वा' अशी जाप मेळ्ळी. आमकां आवय बापाय कडल्यान लेगीत सारक्यो जापो मेळनात थंय द्रोणाचार्यान धर्माराज आपल्याक सारकी जाप दितलो अशी अपेक्षा कशी दवरली हाचें म्हाका रावन रावन अजाप दिसता. द्रोणाचार्य धर्मराजाच्या व्यक्तीमत्वाचो बळी थारलो अशें म्हाका खेदान म्हणचें पडटा.

भुरग्यान विचारलेल्या प्रस्नाक सारकी जाप दिना जाल्यार ताचे कोंवळ्या मनार भयंकर परिणाम जाता असो म्हजो अभ्यास सांगता. भुरगें जाल्या बराबर कोऽहम असो प्रस्न विचारता हें साप्प चूक. ताका आपूण कोण तें त्या होस्पीतालाच्या रुमाचेर नदर मारल्या बराबर कळटा. ताका उमळशीक आसता आपूण हे भुंयेर कसो आयला हें जाणून घेवपाची. आमकां पाटील गुरुजीन पांडवांच्या जल्माची काणी सांगली. ती आयकून हांव सामको बेचैन जालों. म्हाका हांव ओगीच इन्द्राचो पुत्र सो दिसपाक लागलो कारण अर्जुना वरीच म्हजो तीर सेर्त आशिल्लो. घरा आयल्या बराबर,

आगे हांव कोणाचो पुत्र गे? आज पाटील गुरुजीन आमकां पांडवांची काणी सांगल्या. ते पांच आनी एक अशे सऽ जाण सऽ तरेन जल्माक आयल्या म्हणूत म्हाका दुबाव, हांवें आईक म्हणलें.

तूं तसोच जल्माक आयिल्लो जाल्यार सुटिल्ली हांव!

मागीर कसो आयिल्लो गे?

आतां तें सांगत बसतां! व्हडलो अवतार पुरूश तूं! अशीच पिठी कालोवंक घेतिल्ली हांवें मागीर पिठयेची एक गुळी तोंडांत उडयली आनी जालो तूं. - आई पापडांची पिठी कालयत.

चडशे दादलेच येतना वतना पिठयेच्यो गुळयो तोंडांत उडयतात. ते गुळयांचें मागीर कितें जाता असो प्रस्न तुमचे मनांत उपरासला आसतलो. म्हजेय मनांत उपराशिल्लो. पूण बरे संस्कार जाल्ले भुरगे परते प्रस्न विचारीनात. परत प्रस्न विचारपी भुरग्यांक त्या तेंपार आपसुलाद म्हूण लेबल लागतालें. म्हाका हें लेबल लागिल्लें नाका आशिल्लें. दुसरे दिसा हांवें म्हज्या उत्पत्तीची काणी पाटील गुरुजीच्या कानार घाली.

गुरुजी, माद्री आनी कुंतीने पिठी कालवायला घेतली असती तर त्याना ह्या गजाली सोप्या पडल्या असत्या. बांयटेर काडणे म्हणजे सोपी गोष्ट नव्हे अशी आई म्हणते.

खरं आहे बाळ. पिठीचा उल्लेख व्यासानी कुठेच केलेला नाही. पुढे कधी तरी सापडला तर नक्की सांगीन.- पाटील गुरुजी.

आज शाळांनी लैगिंक शिक्षण दितात ती खूब बरी गजाल. भुरग्यांच्या मनांतल्या खूब प्रस्नांच्यो जापो तांकां ह्या शिक्षणांतल्यान मेळटात. फाटीं हांव फोंडेच्यान रायबंदरा येतालों. म्हज्या मुखा वयल्या सिटार एक चुडीदार आनी ताचो भुरगो बशिल्लो. चुडीदार तिशींत आसुंये भुरग्याच्या पिरायेचो अंदाज आयलो ना. फर्मागुडयेर सर्कला कडेन महाराष्ट्र परिवाहन मंडळाच्या बशीन आमकां ओवरटेक केली. बशीचे फाटल्या वटेन 'निरोध वापरा व अंतर ठेवा' अशें पितारिल्लें. तें त्या भुरग्यान वाचलें. ताणें आपले आवयक, 'निरोध म्हणजे कितें गे मम्मा असो प्रस्न केलो. मम्मान 'असले फाजील प्रस्न विचारीनात आं बाबू' अशें म्हणून ताच्या तोंडार हात दवरलो. म्हाका ताची काकुळट दिसली. म्हाका चुडीदार आपल्या भुरग्यांक लैगिंक शिक्षण दिवपाक खंय तरी कमी पडटा अशें दिसलें म्हणून हांवें तोंड उगडलें.

"Madam Nirodh is a device....."

"Shut up you idiot!"

तिणे बाबूवरी म्हाका चीप केलों. म्हज्या तोंडार मात हात दवरलो ना. बाबू मागीर पणजे पावऽसर बशींत चडटा तांकां 'निरोध वापरा व अंतर ठेवा' अशें सांगतालो. सोड.

थोड्यांक जाप खबर आसून लेगीत ते ती दुसऱ्याच्या तोंडांतल्यान वदोंवक सोदतात. हाची बरी देख आमकां 'शोले' सिनेम्यांत पळोवंक मेळटा. गब्बर सिंगाक खबर आसून लेगीत तो सांबाक, 'आरे ओ सांबा, कितना ईनाम रखे हैं सरकार हमपर?' असो प्रस्न विचारून मावा चोळूंक लागता. सरकारान आपल्या तकलेचेर पन्नास हजार (तेन्नाचे) दवरल्या हें खबर आसून लेगीत ताका तें सांबाच्या तोंडांतल्यान वदोवचें आसता. हांगा असले गब्बर सिंग चाटेंपावलाक सांपडटात. 'आगो नाडकरण्यालें पदेरा बरोबर पळून गेल्लें ते चलयेचें नांव कितें गो? तोंऽडार आसा पूण यादूच जायना' अशें विचारपी सगले गब्बर सिंगाचेच अवतार. थोडे विचारलेल्या प्रस्नांची जाप दी नासतना परते प्रस्न विचारतात. तांचे नदरेंतल्यान तीच त्या प्रस्नाची जाप आसता. ही पिडा चडशी बायलांक जाता. केन्ना केन्ना विचारलेल्या प्रस्नांक कडक अशी जाप मेळटा. जाप दिवपी हाचो उल्लेख 'आपणे ताका बरी भायरी दिली' असो करता. म्हज्या बापायचे दीसपटयेंत हे भायरेचो उल्लेख मेळटा. ताचे वयल्यान तुमकां भायरी दिवप म्हणजे नेमकें कितें हाचो अदमास येतलो. तुमचेर भायरी घेवपाचे कितलेशेच प्रसंग आयल्या आसतले तरी आसतना ही देख दितां.

'चिरंजिवाचं लग्न निर्विघ्नपणे पार पडलं. काल मावोड्याला लग्नाचा अर्धा खर्च मागायला गेला असता तिकडून भायरी घेवून आला. देवळाकडे हौशी बाजारकर मंडळीनी सादर केलेलं वसंत कानेटकरांचं 'अश्रूंची झाली फुले' पाहिलं'.

म्हाका भायरी पडली ताचो आनी 'अश्रूंची झाली फुले' ह्या नाटकाचो कितें संबंद हें कळपाक मार्ग ना. भायरी दिवप हाचो अर्थ तापोवन काडप, सालटीं काडप, सोलप, उजरावप, चामडी काडप असो आमकां अभ्यासकोशांत मेळटा. अभ्यासकोशांत दिल्ल्यो ह्यो सगल्यो प्रक्रिया म्हजेर मावोड्यां गेल्ले कडेन जाल्यो, तुमचे म्हायती खातीर. हाचे उलट परत्याक परतें दिवप म्हूण आसता. शेजारचे राज्यांत ताका उलट उत्तर देणे अशें म्हणटात. परत्याक परतें दिवपाचो सुंदर सुवाळो माय सुने मदीं चडसो जाता. माय एक विचारता आनी सून दोन सांगता.

आगे हो दाळचो रोस काय उदक? सांगो आसा मुगे भितर!

सांगो आसा म्हणटकच दाळचोच रोस म्हूण घेया. आमगेर असोच करतात!

आमगेर पोपटी रंगाचो दाळचो रोस केन्नाच पळयलो ना!

उब्यांगेर पोपटीच रंगाचो करतात!

थंयच चुकलें आमचें!

'चुकलें म्हूण कळ्ळें मुगे आतां पोपटीच रोसान जेव!

असो संवाद कोणागेरूय गेल्यार कानार पडूं येता. हाका परत्याक परतें दिवप म्हणटात. कोणाल्याय घरांत चुकून 'मनू'न सांगिल्ले गूण घेवन सून आयल्या आसत जाल्यार तांकां परत्याक परतें म्हणजे कितें हें कळचें देखून हांगा दिलें.

खूब फावटीं विचारलेल्या प्रस्नांक जाप फावो त्या वेळा भितर आमकां मेळना. चड करून स्त्री वर्ग जाप दिवपाक हिसपा भायर कळाव करता. 'आमी लग्न केन्ना जावंया' ह्या साद्या प्रस्नाची जाप मेळपाक वर्सांची वर्सां लागूं येतात. त्या दिसा वडा कडेन कवितेंत बाकीबाब म्हणटा तशें सगलें सोपेंपणान जायना. वयर चंद्र ज्योती फुलपाक तपाचीं तपां सरतात. म्हणुनूच 'दिल देके देखो' (१९५९) सिनेम्यांत नायक म्हणटा,

*'बोलो बोलो कुछ तो बोलो*
*प्यार हो तो कह दो यस*
*प्यार नहीं तो कह दो नो*
*फिर जो हो हो सो हो, फिर जो हो हो सो हो.'*

संपर्क: ९८५०५३०७५६

## कोरोना पापया

नित्यानंद नायक

कोरोना पापया
बोल्सांत नासूं पानदुड्ड
आमी फेर्राद व्हेसपी
काम नासल्यार लेगीत
स्कुटर गाडी येवन भोंवपी
आतां तुवें पापया
पांयाक याल्या खिळी
भायर सरलोच जाल्यार
पोलिसांच्यो लाठी
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

बाजारांत वचून आमी
जिबेक विचारून नुस्तें येवपी
नुस्तेकाण्णी कडेन वाणपण करून
दोन नुस्तीं सुबेज वडोवंक लावपी
आतां पांचशीं रुपया करबटा वाटो
बोल्साक पडला बुराक बोतां
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

नुस्त्या बगर आमची उंडी
तोंडांत गा वच नासली
थेंकर आयले बगर
पाना वेले आमी उठ नासले
आतां खारें, धरून आमले तोर
रुचीक लागूंक लागलीं
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

हरशी आमी यरा कडेन
जेवणाच्यो खोडी काडपी
मीठ चड कमी जाल्यार
बायलेचेर फोग काडपी
आतां पापया माणसुकी ना
तीच जाल्या सुगरासिनी
जाप आमी काडली जाल्यार
आमी पडटा उपाशी
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

तिळसांजचें आमी इल्लें
कुट्ट करून येवपी
बायल आंगार आयली जाल्यार
तांबड्या दोळ्यांनी तिचेर झुडून वचपी
आता यरांत सरकार तिचें
हांव गा सादो शिपाय
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

हरशी आमी जाता पात
वर्ण धर्म मानपी
गरिबाच्या पोटार पांय दवरून
आमी गिरेस्त जावपी
शेजाऱ्या कडेन वंये वाटे खातीर
झगडी देमाद खेळपी
तुवे मात पापया सगळ्यांक
एकाच मापान जोखले
सादेपणान जगूंक तुवेच गा शिकयलें
हें करतनाच तुवें
आमकां मनीसपण शिकयलें
आमकां मनीसपण शिकयलें.
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

करोना पापया
आतां तुजें चडच जालें
हरशी आमी काळजान सामके मदूर
आता जाल्यात सामके सादूर
तुका धांवडावप
होच जाला आमचो ध्यास
मागीरच येतली आमी सुटकेचो स्वास
सोशल डिस्टंसिंग आमी सांबाळटले
तुका धांवडाय मेरेन
यरांतच बसून रावतले
कोरोना तुवें पापया
आमकां पेजेक लायलें.

आतां आमी तुका पेजेक लायतले
आतां आमी तुका पेजेक लायतले.



## स्वतंत्र पूण बंदिस्त हांव

प्रकाश द. नायक

पांखाटे आसून
पांदऱ्यांत पडिल्लेवरी जालां
पांदरो नासून
कुडीक अंदून बांदिल्लेवरीं जालां

म्हाका मळबाची उंचाय
मापपाची आसा
झाडांनो, तुमी
कित्याक जाल्यांत बुटकी?

दोरखंडाचे फांस
आमचें कांयच करूंक शकनात
आमकां अनंत वर्सांची संवय आसा!
अथांगाचो थाव येवपाची
आसमंतभर उडपाची!!

